# विराट

चंद्रकांत केणी





चंद्रकांत केणी सत्कार समितीचें प्रकाशन

Virat
(A Novel)

विराट
(कादंबरी)

पयली आवृत्ती :
२६ नोव्हेंबर, १९९४

अधिकार :
लेखकाकडेन

अक्षर-जुळणी :
ओमेगा एन्टरप्राएझेस,
११५८, विद्यानगर, मडगांव गोंय ४०३-६०१

प्रकाशन :
अनंत नरसिंह नायक,
अध्यक्ष, चंद्रकांत केणी षष्ठ्यब्दिपूर्ति सत्कार समिती,
'तीर्थरूपा', न. दा. नायक मार्ग,
आकें, मडगांव - ४०३ ६०१

मोल : ६० रुपया

चंद्रकांत केणी षष्ठ्यब्दिपूर्ति सत्कार समितीन उजवाडायिल्ले हे आवृत्तीच्या वितरणाचे सगले अधिकार 'कुळागर प्रकाशन' हे संस्थेक दिल्ले आसात.

# दोन उतरां

लेखकाचो खरेलो गौरव तागेल्या अप्रकाशित साहित्याच्या प्रकाशनांत आसता. देखून आमचे मित्र श्री. चंद्रकांत केणी हांचे षष्ठ्यब्दिपूर्तीच्या प्रसंगाचेर तांचीं कांय अप्रकाशित पुस्तकां उजवाडावपाची एक येवजण आमी आंखली. ते येवजणेखाला 'विराट' ही तांगेली कादंबरी उजवाडाक येता, हाची आमकां खोस भोगता.

ही कादंबरी वाचकांक आनंद दितली आनी कोंकणी साहित्याचे समृध्दींत भर घालतली असो आमकां भरवंसो आसा.

'तीर्थरूपां',
न. दा. नायक मार्ग,
आकें, मडगांव
ता. २६. ११. १९९४

**अनंत नरसिंह नायक**
अध्यक्ष,
चंद्रकांत केणी षष्ठ्यब्दिपूर्ति सत्कार समिती

# लेखकाचें 'मनोगत'

ही एक सत्यकथा.

कथेच्या रुपांत ती हांवें बरयल्या. पात्रांचीं नांवां बदलल्यांत आनी थळांचीं नांवांय काल्पनीक.

हे कथेंत जे प्रसंग आयल्यात ते त्याच क्रमान घडले अशेंय न्हय. एके डायरेंतले नोंदीचेर आदारिल्ली ही कथा जाल्ल्यान संवाद पुराय काल्पनीक म्हणूं येता, पूण कथेच्या प्रवाहाकडेन ते सुसंगत दवरपाचो यत्न केला. कथेच्या नायकानच आपली डायरी म्हजे सुवादीन केल्ली; पूण त्यो नोंदी तुटक, अर्दवट आसल्यो. खूब शीं उतरां सुचक आनी खूब शीं मतां बोंचक आनी खोंचक आसलीं.

कथानकाच्या उलोवपासरशीं जितल्यो नोंदी गरजेच्यो दिसल्यो, तांच्या आदारान हांवें ही कथा बरोवन काडली. हे कथेंतलो हांव हो खासा लेखक हें मुजरत सांगपाची गरज पडूं नये.

कथेचो नायक पयले खेपे खंय कसो भेटलो हें हांवें कथेच्या निवेदनांतच सांगून उडयलां. त्या वेळारच पयलें प्रकरण हांवें बरोवन काडिल्लें. त्या उपरान्त स म्हयन्यांनी तो म्हाका परत मेळ्ळो आनी तेन्ना ताणें आपली डायरी म्हजे सुवादीन केली. फुडलीं प्रकरणां ते डायरेच्या आदारान उपरान्त बरोवन काडलीं.

डायरी सांकेतिक भाशेंत आसली. तिच्या आदारान नायकाचे जिणेंतलें एक पर्व उबें करपाचो हांवें प्रयत्न केला. कादंबरीच्या विशाल कॅनव्हासाचेर नायकाची पुराय जीण चित्रावप कठीण नासलें; पूण सत्यकथेचो गाभो तसोच उरचो अशी नदर दवरून ही कथा बरोवन काडल्या.

पुराय सत्यकथा 'मनोगत' ह्या सदरांतल्यान आदीं उजवाडायिल्ली. सप्तकाक एक वांटो उजवाडायतकच दोन वांट्यांमदीं हें अंतर पडटा, ताका लागून वाचकांचो रसभंग जावं येता, हें मतींत घेवन कांयकडेन थोडीभोव पुनरोक्ति जाल्या. तेच भाशेन वर्तमानपत्रांतल्या सदराची मर्यादा लक्षांत घेवन कांय प्रसंग थोडे भितर बरोवन काडचे पडल्यात.

वाचप्यांनी मागणी केली देखून ही कथा पुस्तकाच्या रुपान उजवाडावपाचें हांवें थारायलें. तंत्राचे नदरेन ही एक पूर्ण कथा वा कादंबरी म्हणूंक जावचें ना. पुराय प्रकरणां बरोवन जातकूच परत एक खेपे ती वाचून संकलीत करपाची उसरपत म्हाका मेळूंक ना. पूण ही कथा बरयतना म्हाका एके तरेचो आनंद मेळ्ळो. 'राष्ट्रमतां'त ती वांट्यांनी उजवाडाक येता आसतना वाचप्यांकडच्यान बरो

प्रतिसाद मेळटालो. पुस्तकाच्या रुपान ती वाचता आसतना वाचप्यांकय आनंद मेळ्ळो जाल्यार म्हज्या कश्टांचें सार्थक जातलें. कथानायका विशीं दोन उतरां सांगूंक जाय.

ताची निंदा वा मस्करी करपाचो हेतू म्हज्या मनांत केन्ना आयलो ना वा आजय ना. ताचे विशीं म्हाका पुराय आदर आसा आनी ज्या सोपेपणान ताणें आपल्या जिविताचो हारसो म्हज्या दोळयांमुखार धरलो, तेन्नाच ताच्या सभावांतलें मेकळेपण आनी आपूण जसो आसा तसो लोकांनी आपणाक वळखुचो ही प्रामाणीक तळमळ म्हाका दिसली. तोंडार सभ्यतेचें रुपडें चडोवन वावुरतल्या ह्या समाजांत विराटालें व्यक्तिमत्व आगळें-वेगळें. ताची ही कथा हांवें बरोवन काडली, ती ताणें वाचल्या काय ना हें हांव नकळ; पूण केन्ना हें पुस्तक ताच्या हातांत पडलें आनी हांवें आपणाक न्याय दिला, अन्याय तरी करूंक ना, अशें ताका दिसलें जाल्यार म्हजो हेतू तडीक गेलो अशें हांव मानीन.

इश्ट-मित्र आनी बरें मागप्यांनी म्हजेविशींची आपलेपणाची भावना उक्तावचेखातीर म्हजीं पुस्तकां उजवाडावपाची येवजण आंखली. आनी तांणी रिणाचें वजें म्हज्या माथ्यार दवरलां. तें रीण म्हज्यान फारीक करूंक जावचें ना; पूण कोंकणी सरस्वतीची ते वरवीं जी थोडीभोव सेवा तांकां घडली, ताचें पुण्य तांकां मेळूं इतली म्हजी प्रार्थना आसतली.



# विराट

"हिका तूं वळखता?" इश्टान म्हाका विचारलें.

दिल्लींत तागेल्या बंगल्यांत बसून हांव कॉफी घेतालों. म्हज्या म्हऱ्यांतच तो बशिल्लो. इतले म्हणसर भायल्यान ती आयली आनी तिणें आमकां नमस्कार केलो. तेन्ना ताणें तिका वळखता काय म्हणून म्हाका विचारलें.

हांवें तिचेकडेन पळयलें. हय, हांव तिका वळखतालों. तोंड सामकें वळखीचें. पूण तिजें नांव म्हाका याद जालें ना.

हांवे म्हळें, "वळखतां हातूंत दुबाव ना. पूण नांवाचो उगडास जायना."

ती हांसली आनी म्हजी उरफाटी तपासणी करपाच्या सुरांत तिणें म्हळें, "आमी मेळिल्ल्याचो उगडास जायना."

हांव येवजूंक लागलों. इतलें वळखीचें तोंड. ती म्हाका वळखना?

इश्टान हांसून फोडणिशी केली. "तूं तिका वयले वयर टी. व्ही. चेर पळयता आसतलो. देखून ती तुका वळखीची दिसली. नांव कितें सांग पळोवया?"

कांय लोकांक प्रस्न विचारून गोंदळ वाडोवपाचो आसता वा दुसऱ्याची उरफाटी तपासणी करपाची आसता. त्या परस सरळ वळख करून दिली जाल्यार काम सोपें जाता अशें येवजीत हांवें म्हळें, "टी. व्ही. चेर पळयली आसत जाल्यार म्हाका तिचें नांव खबर आसचेंच ना. नट, नटयो आनी मॉडेलांचीं नांवां हांव नकळ."

ती हांसली. तिणें म्हळें, "म्हाका सदांच हो अणभव येता. लोकांनी टी. व्ही. चेर पळयिल्ली आसता आनी ते मेळिल्ल्या वेळार म्हाका वळखतात म्हणटात."

"तूं कसल्या तरेच्या कार्यक्रमांनी आसता? काय जायरातींनी?" हांवें विचारलें.

"हांवें कांय जायरातींखातीर मॉडेलिंग केलां. पूण तो म्हजो धंदो न्हय. हांव हांगाच्या एका कॉलेजांत शिकयतां."

ती उठून भितर गेली.

म्हाका खंयचे जायरातींत तिका पळयिल्ली तो उगडास जालो ना.

इश्टान म्हळें, "ही तुमची सून जावपाची."

हांव येवजूंक पडलों.

"सून कोणाची म्हळी तुवें?" हांवें ताका विचारलें.

"तुमची... म्हळयार गोंयची." इश्टान जाप दिली.

"आनी जावपाची म्हळयार कितें?" हांवें विचारलें.

"जावपाची म्हळयार लग्न थारतकच मोडलें. ना जाल्यार घडये ती गोंयांत पावतली

आसली." ताणें सांगलें.

अचकीत ती चली परत भायर आयली आनी आगी विशय बदल्लो. इश्टान तिका बसूंक सांगलें. मात्सो संकोच करून ती बसली.

तिचेकडेन पळोवपाची म्हजी नदरच बदलिल्ली. एके तरेची काकुळट म्हज्या मनांत उपजल्ली. थारिल्लें लग्न मोडप म्हळयार वाडिल्ले चलयेक केदें व्हडलें संकट आसता हाजी म्हांका कल्पना आसा. पूण ती खऱ्यांनीच बरी नटी आसूंक जाय. तिज्या तोंडाचेर कसलीच खंत ना. हांसतें वाटकुळें तोंड आनी सादो पूण वेवस्थीत भेस.

"सध्या तुज्या हातांत कसलें काम आसा?" इश्टान तिका विचारलें.

"एका कॉन्ट्रॅक्टाचेर सय केल्या, पूण काम अजून सुरू जावंक ना." तिणें सांगलें.

म्हजी तिजेकडेन वळख करून दिवपाचें इश्ट टाळटा अशें म्हाका दिसलें. घडये हांव गोंयचो अशें सांगलें जाल्यार तिगेल्या घायाचेर धरिल्ली खवळी उसवत अशें ताका दिसलें आसूंये.

सुमार अर्दवर ती बसली. हांव थंय उरलों तो मेरेन ती थंयच आसली. मदीं इश्टाची बायल भायर आयली आनी तिणेंय आमच्या खबरांत वांटो घेतलो.

परत येतना इश्टान आपले मोटारीन म्हाका पावयलो. मोटारींत बसना फुडें हांवें ताका पयलो प्रस्न विचारलो, "जाचे कडेन तिचें लग्न थारिल्लें त्या गोंयकाराचें नांव कितें?"

इश्टाक पुराय नांव खबर नासलें. पूण ताणें आडनांव सांगलें. आनी एकदम म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं. "तो! तो हिका खंय भेटलो?"

"आडनांवाचेरच वळखलो तूं?" अजापान इश्टान विचारलें.

"वळखलों म्हळयार एक अदमास आयलो. घडये तो दुसरोच आसत."

"तो आसत ना जाल्यार दुसरो आसत, पूण एके चलयेची ताणें वाट लायली इतलें खरें. सगळें थारिल्लें. रजिस्ट्रेशनाची नोटीस लेगीत दिल्ली. ऐन वेळार तो फाटीं सरलो. तेन्ना हे चलयेची आवतिकाय कितें जाली हाजी तूं कल्पना कर. न्हिदेच्यो गुळयो घेवन तिणें आत्महत्त्या करपाचो यत्न केलो. आठ दीस मेरेन हॉस्पिटलांत मरणाकडेन झूज दिवचें पडलें... मागीर तिणे आपणाक सावरून घेतलें."

"कितलीं वर्सां जालीं हे गजालीक?" हांवें विचारलें.

"आतां धा बारा वर्सां जातलीं." इश्टान म्हळें, "पंदरा लेगीत जाल्लीं आसत. म्हाका सारको उगडास जायना. तेन्ना ती पंदरा सोळा वर्सांची आसली. त्या उपरांत ती कॉलेजांत शिकली आनी लेक्चरर जाली."

"मागीर तिणें लग्न केलें?" हांवें विचारलें.

"तेंच तर सांगतां. अजून तिणें लग्न करूंक ना. कितलीय समजायली तरी आयकना. टी. व्ही. चेर वचत सावन न्हवरे तिका मागण्यो घालतात. पूण हिज्या मनांत दादल्यांविशीं एके तरेचो तिरस्कार भरला. ती लग्नच जावची ना म्हणटा."

तिचें कितें चुकता अशें म्हाका दिसलें ना. पूण एक गोंयकार तरनाटो तिचे जिणेंत केन्ना कसो पावलो हें समजून घेवपाची उत्सुकताय आसली. हांवें ते विशीं इश्टाक विचारलें.

"पूरबी आदीं मुंबय आसताली." इश्टान सांगलें, "थंय ती त्या गोंयकाराक वळखताली आसूं येता. म्हाका सारकें खबर ना. पूण म्हज्या अदमासाप्रमाणें थंय ती एकमेकांक वळखतालीं. तो त्या वेळार मुंबय एका कॉलेजांत शिकतालो. आंतर कॉलेज नाटकांची सर्त आसली. एका नाटकांत ताणें काम केल्लें. पूरबीचे व्हडले भयणीनय त्याच नाटकांत काम केल्लें आसूंक जाय. भयणी वरवींच ताची तिची वळख."

"आतां भयण खंय आसा?"

"तिजें लग्न जावन ती अमेरिकेक स्थायिक जाल्या. कॉलेजांत आसतनाच तिचें लग्न जालें आनी पूरबीचें कुटुंब दिल्लीक रावंक आयलें."

"आनी आमचो गोंयकार दिल्लीक कसो पावलो?" हांवें विचारलें.

"म्हाका सारकें खबर ना." इश्टान जाप दिली, "म्हाका दिसता, पूरबीचो सोद घेत तो दिल्लीक आयिल्लो आसूंक जाय. ताचेकडेन पत्तो आशिल्लो काय तांचे मदीं पत्रवेव्हार जातालो तें हांव नकळ. पूरबीन जेन्ना न्हिदेच्यो गुळयो खाल्यो तेन्ना तिगेल्या बापायन म्हाका आपयलो. ताज्या आदली सगळी खबर हांव नकळ, पूण जी थोडी आयकली वा कळ्ळी ताचेवयल्यान हांवें तुका इतलें सांगलें."

"फुडली खबर म्हाका समजून घेवंक जायच. पूण फाटली खबर कोण सांगतलो?" हांवें विचारलें.

"कथेचो विशय सोदता काय कितें रे?" इश्टान हांसून विचारलें.

"तशें म्हळयार जाता." हांवें म्हळें, "पूण म्हाका सगळी खबर समजून घेवंक जाय."

"तशें जाल्यार तूं म्हजे बायलेक विचार. ती तुका सांगतली." ताणें म्हळें.

हांवें त्याच खिणाक मोटार परतुपाचें सुचयलें. पूण इश्टान म्हळें, "आतां नाका, अजून पूरबी आमगेर आसतली."

❈

एकाद्री गजाल अर्दवट समजतकच ती पुराय जाणून घेवपाची उमळशीक लागता. त्या दिसा म्हजें तशेंच जालें. पूरबीची, तेयपरस तिचे जिणेंत आयिल्ल्या गोंयकाराची खबर समजून घेवची ह्या इराद्यान हांवें परत इश्टाक फोन केलो. तो घरा नासलो. हांव भायर सरलों तेन्ना ताणें फोन केलो. त्या दिसा आमची चुकामूक जायत उरली.

रातीचो टी. व्ही. वयलो प्रोग्राम पळयता आसतना पूरबी दिसली. तिच्या हांसऱ्या मुखामळांत एक खंत लिपल्या असो म्हाका ओगीच दुबाव आयलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळींफुडेंच इश्टालो फोन आयलो. ब्रेकफास्टाचें आमंत्रण दिवंक. हांवें म्हळें, "म्हाका ब्रेकफास्टापरसय पूरबीची खबर समजून घेवपाची उमळशीक चड आसा."

"यो तूं." इतलेंच उलोवन ताणें फोन दवरलो.

इश्टाली बायल चड उलोवंक कबूल नासली. तिचें म्हणणें आसलें, जावन गेल्ल्यो गजाली आतां उस्तून वयर कित्याक काडप? पूरबीय आतां ती खबर विसरूंक लागल्या.

"म्हाका सांगली म्हणून हांव पूरबीकडेन ते विशीं उलोवचो ना. ती गोंयची सून

जावपाची अशें म्हळें देखून म्हाका समजून घेवपाची उमळशीक लागली. खरें सांगतलो जाल्यार तिका एका गोंयकारान फटयली हें समजून म्हाका वायट दिसलें. थोडी लज लेगीत..." हांवें म्हळें.

"एक गजाल आदींच हांव सांगतां." तिणें म्हळें, "त्या भुरग्याक हांवें पळोवंक ना आनी ताजे विशीं हांव चड कांय नकळ. हांव आयकून जाणा तें इतलेंच कि सुप्रीम कोर्टाच्या एका वकिलाच्या हाताखाला तो काम करतालो. भुरगो हुशार आनी देखणो अशेंय आयकल्लें. पूण ताचें आनी पूरबीचें कितें जालां तें म्हाका खबर नाशिल्ल्यान तोच गुन्यांवकार अशें म्हज्यान म्हणूंक जावचें ना."

"तांची वळख कशी जाली हाजो म्हाका अदमास आयलो. पूण तांचे संबंद तुटले कित्याक लागून?"

"हे सगळे घडणुकेक आवयच जापसालदार..." तिच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं आनी तिणें बेगिबेगीन जीब चाबली.

म्हाका एक संकेत मेळिल्लो. हांवें विचारलें, "आवय? कोणाची आवय?"

तिणें एकदम मौन व्रत घेतिल्ले भाशेन केलें. तिगेल्या घोवान म्हळें, "जें कितें खबर आसा तें सगळें सांग ताका. तो कोणाक कोर्टांत व्हरचो ना."

घोवाली मान्यताय मेळटकच ती मात्शी हांसली आनी मेकळेपणान तिणें सांगलें, "पूरबीचे आवय विशींच म्हणटां हांव."

"आवयक भुरगो पसंत नासलो?" हांवें विचारलें.

"तशें सांगल्यार कोणाकच खरें दिसचें ना." हांसून तिणें म्हळें, "सगलें झगडें आवयक तो पसंत आसलो देखूनच घडलें."

"म्हाका समजलें ना." हांवें म्हळें, "आवयक तो पसंत आसलो, चलयेक पसंत आसलो, जाल्यार अडचण कसली आयली? बापायचो विरोध आसलो?"

"बापायविशीं हांव सांगतां." इश्टान म्हळें, "बापूय सादो... भावार्थी. बायलेच्या उतराभायर तो वचना. सामको बायलेचे मुठींत आसा म्हळयार जाता."

"मागीर आवयन लग्न कित्याक मोडलें? पिरायेच्या अंतराखातीर?" हांवें विचारलें.

"पिरायेचें अंतर आसलेंच. ताची पिराय तिचे पिरायेचे डबल आसतली. पूण ती आडखळ आयली ना... खरें फट हांव नकळ. पूण हांवें अशें आयकतां कीं पूरबीले आवयचे ताचेकडेन वेगळे तरेचे संबंद आसले."

हांव तिज्या तोंडाकडेन पळयत रावलों. खबर वयलेचाराक जितली सरळ दिसताली तशी नासली तर...

"कॉफी घेवन येतां आं." अशें म्हणून इश्टाली बायल भितर वचूंक सोदताली; पूण हांवें म्हळें, "आदीं सगळी खबर सांगून उडय आनी मागीरच कॉफी हाड."

"आनीक कितें सांगपाची खबर? सांगपाचें आसलें तें सगळें तुका सांगलें. आतां कितेंय उरिल्लें आसत जाल्यार तो गोंयकार भुरगोच सांगतलो."

"एक सांग..." हांवें विचारलें, "तांची सोयरीक मोडली कोणें? त्याच भुरग्यान काय आवयन?"

"पूरबीनच मोडली. ती एक दीस आवयकडेन झगडली आनी तिणें न्हिदेच्यो गुळयो

खाल्यो. चल्याक कांय खबर नासलें. आगी हॉस्पिटलांत गेलीं तेन्ना खूब जाण थंय आसले. हॉस्पिटलांतल्यान घरा येतकच पूरबीन आपणाक तुजेकडेन संवंद दवरपाचे नात अशें त्या चल्याक सांगलें. तो एकदम काचावूल जालो. ताणें विचारलें कित्याक? तिणें जाप दिली ना. पूण आवय त्या चल्याक घेवन दुसरे कुडींत गेली आनी थंय तिणें ताका कितें सांगलें तें कोणाकच खबर ना. कुडींतलो भायर येवन तो परत गेलो."

ह्या वेळार इश्टान मदीं तोंड घालें. ताणें म्हळें, "पूरबीच्या घरच्यांची आनी आमची खूब लागींची इश्टागत. घरांत आवयचीं आनी धुवेचीं झगडीं जावंक लागलीं तेन्ना पूरबीक आमी कांय दीस आमगेर हाडून दवरिल्ली. तिका इतलो जवर धक्को बशिल्लो कीं त्या धक्क्यांतल्यान सावरूंक सुमार देड म्हयनो लागलो... तिका विसर पडचो म्हणून हांवें कॉलेजांत धाडली. हरशींय जाल्यार ती हुशार चली. अभ्यासांत रमली आनी मागीर सुदारली... आयज ती खंयचे खंय पावल्या. पैशांपुरतें सांगतलो जाल्यार ती हजारांनी रुपया जोडटा. समाजांत तिका प्रतिश्ठा आसा. आनी रात दीस टी. व्हीच्या पड्ड्यार दिसता देखून खूबशे जाण तिका मागण्योय घालतात. आमचो प्रयत्न चल्ला. एकाद्रो बरो भुरगो पळोवन तिणे लग्न करचें अशें आमकां दिसता. पूण अजून पूरबी तयार जायना."

"आनी पूरबीची आवय?" हांवें विचारलें.

"नाय जाल्यार ती मात्शी विचित्र बायल. एका काळार तिणें समाजांत खूब खवदळ घाल्लो. आपलें रूप आनी देह हांचें भांडवल करून जायत्या जाणांक आपले इशारतीचेर नाचयिल्लें. तिजे विशीं लोक तरातरांनी उलयतात. आयज तिजी पिराय पन्नासांपरस उणी आसची ना. पूण तिका पळयल्यार तूं ती जाणटी अशें म्हणचोच ना." इश्टाले बायलेन आपले भाशेन पूरबीचे आवयची वळख करून दिली.

"आजून तिजे त्या गोंयकाराकडेन संबंद आसात?"

"म्हाका दिसना." तिणें म्हळें.

"संबंद कशे आसतले?" इश्टान म्हळें, "तो तुजो गोंयकार एक दीस पूरबीगेर आयलो, खूब रडून घेतलें आनी आपूण हिमालयांत वचून संन्यास घेतां अशें सांगून गेलो, तो परत आयलोंच ना."

"पूण खऱ्यांनीच ताणें संन्यास घेतलो?" हांवें विचारलें.

"तें आमकां कशें कळटलें?" इश्टान म्हळें, "आतां ती खबर तुकाच कळपाची."



—तशें पळोवंक गेल्यार पूरबीची कथा ही एक सादी प्रेमकथा. मनांतल्या मनांत ती हांव जुळोवंक लागलों... कंवळे पिरायेचेर एका तरुणाकडेन वळख जाता आनी तो तरुण ती वळख वाडयता. आपले धुवेची त्या परकी तरनाट्याकडेन इश्टागत जुळची म्हणून चलयेची आवय तिका उत्तेजन दिता. हें सगळें मुंबय शारांत घडलें.

एक गोंयकार तरनाटो मुंबय कॉलेजांत शिकतालो. नाटकांनी काम करतालो. एल्. एल्. बी. जातकच तो दिल्लीक वता तो निखटो योगायोग म्हणूंक नज. ते चलयेचो पत्तो चलयेन वा तिगले आवयन ताका दिल्लो आसूंक जाय. कोणाचे वळखीन ताका सुप्रीम कोर्टांतल्या वकिलाच्या हाताखाला काम करपाची संद मेळळी ह्या प्रस्नाची जाप

मेळना. घडये चलयेचे आवयनच ही येवस्था केल्ली आसूंक जाय असो दुवाव घेवंक जागो उरता. चलयेचे आवयक नवें नातें मान्य आसता आनी चली आपलें काळीज ताका ओंपून बसता. अचकीत तिका एक भयंकर कडू सत्य होलमता. आपले आवयचें चारित्र्य कसलें हे तिका समजता आनी लोकोपचाराखातीर आवय जरी ताका जांवय करून घेवंक सोदता आसली तरी आपलो बळी दिवपाचें तें एक कारस्थान हें समजतकच चली न्हिदेच्यो गुळयो खावन जीव दिवपाचो यत्न करता. पूण ताणें संन्यास कित्याक घेवचो? खरेंच घेतलो काय? पूरबी सोडून ह्या प्रस्नाची जाप कोण दित?

मनांतल्या मनांत सगळ्या प्रस्नांची उजळणी करून घेतल्या उपरांत म्हाका दिसलें, पूरबी बगर पुराय खबर दुसरो कोणूच सांगूंक शकचो ना. संन्यासी जाल्लो गोंयकार सांगत आसलो. पूण संन्याशाक सोदूंक कोण वतलो?

"पूरबी केन्ना येता?" म्हज्या विचारांत आसतनाच हांवें इश्टाक विचारलें.

"ना. पूरबीकडेन तूं हे विशीं कायच उलोवंक जायना." इश्टान एकदम सांगलें, "तिजी मनःस्थिती खूबच नाजूक आसा आनी तिज्या मनाचेर परत ताण घालप समा न्हय."

पुराय कथा समजून घेवपाची उत्सुकता मनांत उरली. सगळे मार्ग बंद जाल्ले. तातूंतय अजापाची गजाल म्हळयार ज्या कथानायकान ती कथा रचिल्ली, ताचें नांव इश्टाक खबर ना.

पूण कांय कुवाडीं निसरगांठीवरी आपसूक सुट्टात. तशें हे कथेचें घडलें.

दिल्लीकसावन परत गोंयां येता आसतना फांतोडेर साडेचार वरांचेर विमानतळाचेर पावचें पडटा. विमान साडेपांचाक सुटटा. साडेचाराआदींच हांव विमानतळाचेर पावलों आनी बोर्डींग पास घेवन कुशीक सरता सर एक गोंयकार म्हाका भेटलो. म्हजी ताजी वळख ना. ताणें म्हाका खंयय पळयिल्लो आसूंये. "चल, एक कॉफी घेवया." ताणें म्हाका आपयलो.

कुशीकच कॉफीचो कांवंटर. हांवें दिवंक काडिल्ले पैशे ताणें परत म्हज्या बोल्सांत घाले आनी आपणें पैशे दिले. आपली वळखय करून दिली.

"तूं दिल्लीक आसता?" हांवें ताका विचारलें.

"येवन वचून आसतां. पूण हांव रावतां मुंबय. आयज एके केसीखातीर गोंयांत वतां."

केसीखातीर हें उतर आयकनाफुडें म्हज्या दोळयांमुखार वकील उबो रावलो आनी दुसऱ्याच खिणाक पूरबीच्या प्रियकराचो उगडास जालो.

"तूं वकील?" हांवें ताका विचारलें.

"हय." ताणें आपलें कार्ड म्हज्या हातांत दिलें. आडनांव वाचून हांव विस्मित जालों. पूरबीचो प्रियकर होच काय? निदान हो वकील त्या वकिलाक वळखता आसतलो काय? प्रस्न मनांत येवन गेले. पूण निकतीच वळख जाल्ल्या मनशाक ते विशीं विचारतलो कसो?

सिक्युरिटी चेक करून आमी भितरले वाटेन आयले. विमान सुटूंक अजून वरभर आसा. वेळ वचूंक आमी खबरो केल्यो. थोड्यो राजकारणाच्यो आनी थोड्यो हेर.

सगल्या विशयांचेर तागेलीं आपलीं अशीं मतां आसलीं आनी तीं मतां तो वेंचीक उतरांनी मांडटालो. तागेल्या एकूण व्यक्तिमत्वाचो आनी वुदवंतकायेचो म्हजेर प्रभाव पडलो.

विमानांत ताचो सीट फुडें आसलो, म्हजो फाटीं. पूण खूबशे सीट रिकामे आसले देखून तो आपूण जावन म्हजे कुशीच्या सिटाचेर येवन बसलो.

हांवें पेपर उक्तो केलो आनी एके जायरातीचेर म्हजी नदर थिरावली. ते जायरातींत मॉडेलाचें काम पूरबीन केल्लें.

हांवें त्या मनशाक ती जायरात दाखयली आनी म्हळें, “ही चली गोंयची सून जावपाची खंय. पूण कितें तरी गडबडलें आनी तिच्या गोंयकार प्रियकरान संन्यास घेतलो. ती मात ताचे खातीर आंकवार रावल्या.”

निर्विकारपणान ताणें म्हजें सांगणें आयकलें आनी म्हाका विचारलें, “तूं सगळें जाणा जाल्लेभाशेन उलयता. तूं तिका वा ताका वळखता तर?”

“ना. हांव दोगांकय वळखना. हे चलयेक कालच हांवें पळयली. तिजेविशीं तिसऱ्यानच म्हाका खबर सांगली.”

“त्या गोंयकाराचें नांव कितें?” ताणें थंडसाणेन विचारलें.

“ताका तो गोंयकार आनी वकील इतलें खबर आसलें. नांव खबर नासलें.”

“आनीक कांय सांगलें ना तुका?” ताणें विचारलें.

“तूं अशे खोदूखोदून प्रस्न विचारता देखून विचारतां, तूं तिका वा ताका वळखता?”

“हय. दोगांकय वळखतां.” तितलेच थंडसाणेन ताणें जाप दिली.

“मागीर म्हाका इतले बारीकसाणेन प्रस्न कित्याक विचारता? म्हाका कांय खबर ना. तूंच तेविशीं कित्याक सांगिना?” हांवें ताका विचारलें.

“आदीं तुवें कितें कितें आयकलां तें समजून घेतां आनी उप्रांत हांव जाणा तें सगळें सांगतां.” ताणें म्हळें

“आदीं त्या गोंयकाराचें नांव सांग.” हांवें म्हळें.

“नांव कळून तूं कितें करतलो? पूण तूं इतलें सांग, तुवें आनीक कितें आयकलें?” ताणें विचारलें.

“त्या चल्याचें चलयेचे आवयकडेन अनीतिक संबंद आसले अशें म्हणटात. तांचें लग्न मोडपाक तीच गजाल कारण जाली खंय. तूं कितें जाणा?” हांवें विचारलें.

“तूं म्हणटा तें सगळें फट न्हय, पूण आवयकडल्या संबंदांविशीं लोक ओगीच बोवाळ करतात. तिगेली आवय इल्ली मेकळेपणान वागताली... घडये तिगेलें आपले धुवेच्या प्रियकराचेर मन बशिल्लें आसूं ये.”

“तिणें आत्महत्त्येचो प्रयत्न केलो हें तूं जाणा?”

“हय. तेंय हांव जाणा... ती समजून घेना हें पळोवन तो तरनाटो संन्यास घेवंक हिमालयांत गेलो हेंय हांव जाणा. पूण कोणूच एक गजाल समजून घेना... जर ताचे आवयकडेन संबंद आसले, जाल्यार तो संन्यास घेवंक कित्याक वतलो आसलो?” ताणें थंडसाणेन समजावपाचो यत्न केलो.

"तूं ताका वळखता म्हण्टा. खऱ्यांनीच ताणें संन्यास घेतलो?" हांवें विचारलें.

"हय. घेतिल्लो. जायतीं वर्सां जालीं हे गजालीक." ताणें जाप दिली, "आनी आतां तो परत आयला. लग्न जावन संवसार करता."

"लग्न जालो? कोणाकडेन" हांवें विचारलें.

"दुसरे चलये कडेन."

"आतां तो खंय आसता?" हांवें विचारलें.

"ताणें म्हजो हात हातांत घेतलो आनी म्हळें, "तुका चड वेळ घाळ दवरूंक सोदिना. तो भुरगो म्हळ्यार हांवच."

हांव ताज्या तोंडाकडेन पळयत रावलों. अजून विमान गोंयांत पावंक दोन वरां आसलीं, पूण त्या वेळांत परत पूरबीचो विशय काडपाचें धाडस म्हाका जालें ना.

❋

कांय योगायोग इतले विचित्र आसतात कि कथा-काणयांनी लेगीत ते अडेचे दिसतले. पूण जिवितांत अशे योग अचकीत येतात आनी तांचो प्रभाव केन्ना-केन्नाय जीणभर उरता.

गोंयच्यान दिल्लीक वचपी विमान वेळार सुटलें. दोन, अडेच वरांचो वेळ सारपाचो प्रसंग वळखून हांवें विमानांत मेळत तितलीं वर्तमानपत्रां आनी हेर नेमाळीं पुंजायलीं आनी तीन सिटांचे रांगेंत जनेलाकडच्या सिटाचेर वचून बसलों.

गर्दी चड नासली. खूबशे सीट रिकामेच आसले. अशें चडशें घडना.

विमान सुटलें तरी म्हजे कुशीचे दोन सीट रिकामेच उरले. हांवें एक वर्तमानपत्र उक्तें करून तातूंत तकली घाल्ली. इतले म्हणसर एअर हॉस्टेसीन म्हजें लक्ष वेधून घेतलें. कसलें तरी एक थंड पेय घेवन ती आयिल्ली. उप्रांत घडये ती च्या-कॉफी घेवन येतली. हांवें प्लॅस्टीकचो थंड ग्लास घेतलो आनी गोड आनी पचपचीत अशें तें पेय पियोवन उडयलें. ह्याच वेळार कोण तरी येवन कुशीच्या सिटाचेर बसलो. हांवें ताजेकडेन लक्ष दिलें ना. मदल्या सिटाचेर कांय नेमाळीं आसलीं. तातुंतलें एक ताणें उखल्लें म्हणपाचो अदमास म्हाका आयलो तरी हांवें ताजेकडेन पळयलें ना. तेन्ना ताणेंच खांकिल्लेभाशेन आवाज काडून म्हाका म्हळें, "वळखलो ना दिसता!"

तोमेरेन हांवें ताज्या तोंडाकडेन पळोवंकच नासलें. पळयलें तेन्ना तो हांसलो. सिगरेटीच्या धुंवराचीं खतां पडिल्ले दांत नदरेंत भरले. मान वयर करून ताणें दाव्या हातान आपल्या टायाची गांठ ढील केली आनी मानेक मेकळेसाण दिवचेखातीर ती ल्हवू धुंवडायली.

एक तरतरीत तरनाटो. तिशींतलो आसतलो. जे तरेन ताणें म्हाका हटकिल्लो, ती तरा पळयली जाल्यार तो गोंयचो हेविशीं दुबाव नासलो. तोंडय वळखीचें दिसलें. पूण ताजें नांव वा ताजें ठिकाण हांची याद जायना. खंय तरी हांवें ताका पळयला; नाजाल्यार म्हजी ताजी वळख जाल्ली आसूं येता. आपली नदर म्हजेर थिरावन तो हांसत रावलो आनी हांव विसरायेच्या तळयांत बुचकळयो मारून ताज्या नांवाची याद करूंक लागलों.

तो कोणय आसूं येतालो. लागशिल्लो, संवकळीचो... ज्या भुरग्यांक तांच्या

ल्हानपणांत पळयिल्ले ते लेगीत आतां जाणटे जाल्यात. अचकीत खंय तरी मेळून जाप दितात तेन्ना तांच्या बापायचें नांव विचारूनच तांची वळख घेवची पडटा. हाचेविशी तशेंच घडिल्लें काय!

याद जाल्लेभाशेन करून हांवें ताका म्हळें, "नांव कितें अशें विचारूं नाका. पूण तुका हांव वळखलों. आमी ह्याआदीं मेळिल्ले. खंय मेळिल्ले ताजो उगडास जायना. आतां खंय आसता तूं?"

म्हाका दिशिल्लें, म्हज्या ह्या प्रस्नासरशीं ताजो दुबाव सोंपतलो. पूण ताणें म्हजी परीक्षा घेवपाचें थारायिल्लें. म्हळें, "म्हजें नांव तुवें केन्ना विचारलें ना आनी हांवें केन्ना सांगलें ना. पूण आमी मेळिल्ले. खंय ताजी तुका याद जाली जाल्यार सगळो प्रसंग नदरेमुखार उबो रावतलो."

"तशी याद जावप कठीण." हांवें म्हळें, "पूण तुजो तोंडावळो हांव विसरूंक ना. रस्त्याचेर तूं मेळिल्लो तरी हांव तुका हटकितलों आसलों. तूंच सांग पळोवया, आमी खंय मेळिल्ले? म्हजे दुबळे यादशक्तीचेर चड ताण घालूं नाका."

तो मेकळो हांसलो आनी म्हळें, "तूं सदांच असो कवितेंत उलयता... आसूं, म्हाका तशें उलोवप आवडटा. आमी ह्याच विमानान सांगातान प्रवास केल्लो. दिल्लीच्यान गोंयमेरेन. दिल्लीच्या विमानतळाचेर आमी एकमेकांक मेळिल्ले; जाता उगडास?"

फांतोडेच्या वेळार रस्त्यान वता आसतना दाट धुकें पडिल्लें आसलें जाल्यार केन्नाकेन्नाय पयसुल्यान येतल्या मनशाची अस्पष्ट हालचाल दिसूंक लागता आनी ल्हवू-ल्हवू ताजी आकृती दिसता... तरी ताचें रूप वळखूंक येना...

ताणें विमानांत मेळिल्ल्याची खबर सांगतकच म्हाका थोडी याद जाल्लेभाशेन जाली. एक अंधूक प्रसंग दोळयांमुखार उबो रावलो आनी कुशीक सरलो. तरी ताका दुबाव येवंक दिलो ना. म्हळें, "आतां याद जाली. तूं परत दिल्लीक वता काय आतां दिल्लीकच स्थायीक जाला?"

"हांव अमेरिकेक वतां... व्हाया दिल्ली. दिल्लींत थोडें काम आसा. उप्रांत दोन दिसांनी अमेरिकेक वतलों. पूण तूं खरें सांग, अजून म्हाका वळखूंक ना?"

"बापायचें नांव सांगल्यार घडये वळखन." हांवें म्हळें.

"ना. बापायवयल्यान आमची वळख जावंक ना. म्हजें नांव विराट. तेंय तुका हांवें आदीं सांगूंक ना. पूण तुवें एका गोंयकार भुरग्याविशीं खंय तरी आयकलें आनी म्हाका तेविशीं सांगिल्लें तेन्ना हांवें तुका म्हणिल्लें, तो भुरगो हांवच म्हूण, जाता याद?"

हय. म्हाका याद जाली. आनी सगळें चित्र दोळयांमुखार उबें रावलें. यादींचें विचित्र आसता. काळखांत लिपून बशिल्ले सांवळेसारक्यो त्यो उजवाडाचे किरण पडनाफुडें जाग्यो जावन नदरेंत भरूंक लागतात. तागेले यादीचेंय तशेंच जाल्लें. हांवें ताका हात दिवन म्हज्या म्हऱ्यांतल्या मदल्या सिटाचेर बसूंक आपयलो.

"आतां तूं म्हाका वळखलो. तोंडावयल्यानच कळटा. इतलो वेळ तूं उलयतालो अनोळखी मनशाकडेन उलोवचो तसो. आतां तुजें तोंडच बदल्लें... आवाज बदल्लो."

"तुजी नदर बरीच बारीकसाणेची म्हणची पडटली. एक सांग, आतां तूं करता

कितें?''

''हांवें अमेरिकेंत एका शाराभायर ल्हानशा गांवांत एक आश्रम घाला!''

हांव ताचेकडेन पळयत रावलों. आश्रम म्हणिनाफुडें भगवीं वस्त्रां न्हेशिल्ल्या संन्याशाची मूर्त नदरेमुखार उबी रावता. हो तरनाटो सूट - बूट - टाय मारून म्हजे कुशीक बसला. ताजे ओंठ आनी दांत पळयल्यार तो सिगरेट ओडटा इतलें कळटा. हाणें अमेरिकेक वचून आश्रम घालो?

''कसलो आश्रम?'' हांवें ताका विचारलें.

''संन्यासाचो आश्रम. गुरूचो आश्रम म्हण. थंय हांव योग, ध्यान आनी अध्यात्माचे वर्ग चलयतां.''

हांव हांसलों. म्हळें, ''आतां जग बदल्लां आनी सुदारलां. आदल्या काळार संन्यासी भगवीं वस्त्रां न्हेसताले. तूं नव्या युगाचो साधू दिसता. जावं, कसो चल्ला तुजो आश्रम?''

''हांव साधू न्हय वा संन्यासीय न्हय. अमेरिकेच्या समाजाक असल्या आश्रमाची गरज आसली आनी हांवें ती भागयली. सध्या म्हज्या आश्रमांत येवपी खूब आसात आनी म्हजेंय देवादयेन बरें चल्लां.''

म्हाका उगडास जालो त्या प्रसंगाचो, जेन्ना हो भुरगो प्रेमभंग जातकच संन्यास घेवन हिमालयांत गेल्लो. हांवें ताका म्हळें, ''हिमालयांतल्या अणभवाचो तुका आश्रम चलयतना फायदो जाता जातलो.'

''दुबावच ना.'' ताणें म्हळें, ''आनी इतलें खरें कि आतां तूं म्हाका सारको वळखलो.''

''खरें सांगतलों म्हळयार हांव तुका विसरूंकच नासलों. टी.व्ही.चेर जायरातींत तुगेली आदली मैत्रीण जेन्ना-जेन्ना दिश्टी पडटा, तेन्ना - तेन्ना म्हाका तुजो उगडास जाता. ती चली तुका परत केन्ना मेळिल्ली?''

''म्हजे अध्यात्म साधनेचो एक फायदो हो कि ज्या मनशांतल्यान वा गजालींतल्यान म्हजें मन हांव काडून घेतां, तांचेविशीं म्हज्या मनाक कसलीच संवेदना उरना. ते चलयेक हांवय केन्नाय टीव्हीचेर पळयतां... खरें म्हळयार भारतांत आयल्या उप्रांत ७ - ८ खेपे पळयली. पूण म्हाका तिचें कांयच दिसलें ना. म्हजें कितें चुकलां वा तिजें चुकलां अशें दिसलें ना. इतलेंच दिसलें कि जिणेची वाट चलता आसतना आमी दोगांय लागीं आयलीं... कांय काळ सांगातान वाट चल्लीं आनी जेन्ना तिची वेगळी वाट आयली तेन्ना ती ते वाटेन गेली. ती कितें करता? लग्न जाल्या काय जावंक ना? तिची आवय खंय आसा? कांय एक हांव नकळ.''

''तिचे आवयकय त्या उप्रांत तूं केन्ना मेळ्ळोना?'' हांवें विचारलें.

''तुवें सगळें खबर आशिल्लेभाशेन प्रस्न केलो. तातूंत तथ्यय आसा. ते चलयेक दिसतालें, हांव तिजे आवयफाटल्यान आसां. पूण तें खरें न्हय. कित्याक म्हूण कोण जाणा, पूण ती आवय मात म्हजेर भाळिल्ली. तुका सांगल्यार फट दिसतलें. पूण अजून ती म्हाका पत्रां धाडटा... अमेरिकेच्या पत्याचेर.'' ताणें म्हळें.

''म्हाका उगडास जाता ते भाशेन तुवें आपूण लग्न जालां अशें म्हाका सांगिल्लें.

तुजी बायल - भुरगीं खंय आसतात तर?" हांवें विचारलें.

"हांव निर्शेणीच्या खिणाक लग्न जाल्लों. प्रेमभंगाचे भगभग सोसूंक नज जाताले. देखून हांव लग्न जालों. व्हडलोसो विचार तेन्ना केलो ना. तशी म्हजी बायल बरी. चार वर्सां आमी बरे तरेन संवसार केलो. पूण हांवें पळयलें, तिचें-म्हजें जुळचें ना... आमकां भुरगें जालें ना हे देवाचे उपकार. हांव अमेरिकेक वतना तिका सांगून गेलों: तुजें-म्हजें बंधन सोपलें. आनी तिणेंय तें मानून घेतलें."

एअर हॉस्टेस च्या घेवन आयली आनी थोडो वेळ आमचें उलोवणें बंद उरलें. म्हज्या दोळ्यांमुखार सगळो प्रसंग परत उबो रावलो.

कितल्या योगायोगाची गजाल कि गोंयच्यान दिल्लीक वतल्या विमानांत तो म्हाका परत मेळटा आनी आपली त्या दिसा अर्दकुटी उरिल्ली कथा आपुण जावन सांगूंक लागता!

च्या घेवन जातक हांवें विराटाक विचारलें, "तुजी पिराय कितली?"

परत तो हांसलो. हे खेपे दावे दाढेकडलो ताणे घाल्लो भांगरा रंगाचो दांत दिसलो. बारीक निरखून पळयतकच ताणें केंसांक कलप लायला आसूंये असोय दुबाव आयलो. पूण ह्यो गजाली तागेली पिराय सांगिनासल्यो.

"तुका कितलीशी दिसता?" ताणें विचारलें.

"सांगूंक जायना. पूण तूं भुरगो दिसता. तीस-पस्तीस वर्सांचो." हांवें म्हळें.

"तुज्या तोंडांत साखर पडूं आनी हांव सदांच असो तरूण उरूं... पूण म्हाका सध्या सत्तेचाळीसावें वर्स चलता."

"आनी तुवें संन्यास घेतिल्लो तेन्ना तुजी पिराय कितली आसली?"

थोडो वेळ येवजिल्लेभाशेन करून ताणें म्हळें, "पंचवीस आसतली... तीन वर्सां आमचें प्रेम चल्लें आनी अचकित तुटलें. तेन्ना एके तरेची विरक्ती मनांत दाटून आयली आनी हांवें संन्यास घेतलो."

"हिमालयांत तूं कितले दीस उरलो?" हांवें विचारलें.

"दीस न्हय... वर्सां म्हण. उणेच पांच-स वर्सां. भगवी वस्त्रां घालून हांवें संन्यासधर्म पाळ्ळो. तुका घडये सांगल्यार अजाप दिसतलें... पूण म्हजे जिणेंत एक अपघात घडूंक नाशिल्लो जाल्यार आजय हांव संन्यासी जावन केन्ना हिमालयांत जाल्यार केन्ना हेर गांवांनी भोंवत उरतलों आसलों."

"कसलो अपघात म्हणटा तूं?" हांवें विचारलें.

"तुका सगळी खबर सांगून जावची ना... जितली जाता तितली सांगतां... तूं लेखक. म्हजी कथा बरोवंक सोदता?"

"हांव विशय सोदीत आसतां. फाटले खेपे तूं मेळिल्लो ती खबर हांवें आदींच बरयल्या. पत्तो दिलो जाल्यार हांव ताजें कात्रण तुका धाडीन... तूं कोंकणी वाचता?"

"हय. पूण तुवें धाडपाची गरज ना. म्हजे बायलेन म्हाका तें आदींच धाडलां. हांवें तें वाचलां. देखूनच म्हाका दिसलें, तुका सगळी खबर सांगची. नांवां आनी वळख लिपोवपाची कला तुका सादल्या..."

म्हाका अजाप जालें. ताणें आपलें एक कार्ड काडून म्हाका दिलें. कार्डाचेर ताजें

नांव, पत्तो आसलो. अमेरिकेंतलो. हांवें कार्ड दवरून घेतलें आनी म्हळें, "अजून आमचेकडेन सुमार देड वराचो वेळ आसा. थोडेभितर तुजी खबर सांग."

"तुवें केन्ना व्हिस्की घेतल्या?" अचकित ताणें प्रस्न केलो.

हांव गोंदळून ताजेकडेन पळयत रावलों. 'ना' अशें खुणावन तकली हालयली.

"हांव जाणां, तुवें घेवंक ना म्हण. देखून तुका कशें सांगचें तें म्हाका समजना. म्हाका सगळे तरेचीं व्यसनां आसात. आनी तुकाच म्हणून सांगता, अजून कसलेंच व्यसन हांवें सोडूंक ना. हांव अजून व्हिस्की पितां. सुंदर बायलांच्या सहवासांत रमतां..."

"तुगेलें तत्त्वज्ञान आचार्य रजनीशासारकें आसूंये." हांवें म्हळें.

"एका अर्थान हय." ताणें जाप दिली, "जीण ही हांसून खेळून जगपाखातीर आसता... सुखां ही भोगपाखातीर आसतात अशें हांव मानतां. भोगाचो आनी अध्यात्माचो सुमेळ सादता तोच सुखी जाता..."

"पूण तूं व्हिस्केविशीं कित्याक विचारतालो?" गाडी रुळार हाडपाचें येवजून हांवें विचारलें.

"बरी याद केली." ताणें म्हळें, "व्हिस्की दोन तरांनी घेवं येता. आमच्या गोंयांत दीसभर शेतांनी काम करून थकिल्ले, भागिल्ले मानाय गादयेर वतात आनी थंय फेणी घेवन एका घोटांत ताळयासकयल रकयतात. रोखड्यारोखडी 'कीक' येवपाची ती माडणी. पूण रसिक लोक माजरान दूद चाटचें तशी व्हिस्की चाटून घेतात. ती गोडी वेगळी. देहाच्या कणाकणांत धुंदी चडटा... सगळें आंग ल्हव जाता... शीणभार सोंपता... मन प्रसन्न उरता."

"तितलें म्हाका समजता. पूण तुवें ही ओपार कित्याक म्हणून दिली?"

"तूं थोडेभितर काणी सांग म्हणटा देखून म्हाका ही ओपार येवजली. तूं लेखक. तूं जाणाच, कादंबरी वा कथा ही सांगपासारकी नासता. ती वाचूनच तिजो आनंद घेवपाचो आसता. म्हजी खबर ही एके कादंबरीसारकी. ती तुवें सगळ्या बारीकसाणींसयत समजून घेतली जाल्यारच तिजी गोडी तुका कळटली."

"पूण इतलो वेळ खंय आसा? तितलो वेळ आशिल्लो जाल्यार हांव आठ दीस तुज्या सांगातान रावंक तयार आसलों. देखून थोडेभितर सांग अशें हांवें तुका सुचयलें." हांवें खुलासो केलो.

"तूं म्हणटा देखून थोडेभितर सांगतां. पूण तूं दिल्लीक खंय उतरतलो? म्हजी डायरी आसा. लॉज्यांत आसतली. ती हांव तुका वाचूंक दितां."

"तशें जाल्यार एकदम बरें जातलें. हांव ती जशाची तशी छापतां." हांवें म्हळें.

"नाका. हांव लेखक न्हय. पूण संन्यास घेतिल्ल्या काळांत कितें घडलें तें हांवें थोडेभितर बरयलां. तूं तें सारकें बरोवन काड. हांव तितल्या पानांची फोटोकॉपी घेतां आनी तुका दितां." ताणें म्हळें.

हांवें ताका म्हजो दिल्लीचो पत्तो दिलो.



डायरी वाचपाची उमळशीक आसलीच. पूण आतां मेकळो वेळ आसा जाल्यार

ताजेकडच्यान थोडेंभोव समजून घेवपाची इत्सा जाल्ली.

हांवें ताका विचारलें, "तूं आश्रमांत हेच कपडे घालता?"

"ना. आश्रमांत म्हजे कपडे वेगळे आसतात. पूण भायर भोंवतना सूट-बूट घालतां."

"तुवें ध्यान, योग आनी अध्यात्माचो अभ्यास खंय केलो?" हांवें विचारलें, "काय अभ्यासाबगरच तूं आश्रम चलयता?"

"तशे अमेरिकन लोक पिशे न्हय." ताणें म्हळें, "तांकां बारीकसाण खूब. तांचे प्रस्न आनी दुबाव जायते आसतात. भुरगेपणांतसावन म्हाका असल्या विशयांची आवड आसली. ह्या विशयावयलीं पुस्तकां हांवें वाचिल्लीं. हिमालयांत गुरूकडच्यान योगविद्या शिकून घेतिल्ली. गीता आनी हेर ग्रंथांचो अभ्यास केलो. म्हजें भाशेचेर प्रभुत्व आसा. देखून म्हजीं प्रवचनां गुरूक मानवतालीं..."

"एकदम अमेरिकेक वचूनसो तुवें आश्रम घालो?"

"खरें म्हळयार पयशे जोडपाचें येवजून हांव अमेरिकेक गेल्लों. विमानांत म्हाका एक बायल मेळ्ळी. ती योगावयलीं पुस्तकां वाचताली. तिजेकडेन उलयतना तिगेल्या प्रस्नांक हांवें जापो दिल्यो आनी ती म्हाका घेवन आपणागेरच गेली. थंय हेर लोकांकडेन संबंद आयलो आनी अमेरिकेंत कामधंदो सोदपाचो प्रसंगच आयलो ना. हांव प्रवचनां करूंक लागलों. जोड खूब आनी शिष्यगणांचो आंकडोय खूब मेळयलो. मागीर प्रवचनां करचे खातीर अभ्यासय केलो आनी थंयच्या लोकांच्या आग्राक लागून आश्रम घालो."

"अमेरिकेंत भारतीय गूढ विद्येविशीं लोकांक इतलें आकर्षण कित्याक?" हांवें विचारलें.

"तुका घडये खरें दिसचें ना. असले शेंकड्यांनी गुरू अमेरिकेंत आसात. आयुर्वेदिक वैद्य आसात. मनाची शांती मेळोवपाचो मार्ग सांगपी संन्याशी थंय आसात... अमेरिकेंत भौतिक समृध्दी आसा. पूण कुटुंबसंस्थेक कीड लागिल्ल्यान मनाचे तळमळेय खूब आसात..."

"आतां आनीक एक प्रस्न विचारतां. तुवें म्हळें, म्हज्या बरपाचें कात्रण तुका तुगेले बायलेन धाडलें. बायलेकडले संबंद तोडून तूं अमेरिकेक गेल्लो म्हणटालो न्हय?"

"हय; पूण आमी कायद्यान घटस्फोट घेवंक ना. कायद्यान अजून ती म्हजी बायल. पूण वेव्हारांत आमचो संबंद येना. हांव तिका पयशे धाडटां आनी ती समाजकार्य करता."

"कसलें समाजकार्य?"

"हांवें तिका विचारूंक ना. पूण ती केन्नाय पत्र बरयता आनी हांव तिका जाप धाडटां. थोडे दीस ती गोंयांत येता. पूण चडशी मुंबयच उरता. भारतांत आयिल्ले खेपे हांव तिका मेळटां."

"अमेरिकेक तुवें दुसरें लग्न केलां?" हांवें विचारलें.

विराट हांसलो.

"अशें कित्याक विचारलें तुवें म्हाका?" ताणें म्हाका परतो प्रस्न केलो.

"हरशींच. ह्या प्रस्नाफाटल्यान कसलीच खोंच ना." हांवें म्हळें.

"लग्न म्हळ्यार कितें, हाजी व्याख्या केलेबगर हांव तुज्या प्रस्नाक जाप कशी दितलों? पूण लौकिकाच्या अर्थान विचारता आसत जाल्यार हांवें दुसरें लग्न करूंक ना." तो पर्थून हांसलो.

तो कितें सुचयता तें म्हाका समजल्लें. पूण म्हाका तेविशीं ताजेकडेन उलोवपाचें नासलें. हांवें ताका विचारलें, "तूं दिल्लींत खंय उरतलो?"

ताणें एका पंचतारांकित हॉटेलाचें नांव सांगलें.

"पूरबीक वा तिगेले आवयक तूं मेळटलो?" हांवें विचारलें.

"ना. म्हाका इत्सा ना. पूण तीं मेळूंक आयलीं जाल्यार तांकां टाळचोय ना. नाय जाल्यार म्हजे जिणेंत आयिल्लीं तीं पात्रांच न्हय?"

"तूं दिल्लीक येतलो हें तीं जाणात तर?"

"ना. हांवें कोणाक कळोवंक ना. पूण दिल्लींत म्हजे मित्र आसात, जे तांकां वळखतात. हांव कांय लिपून भोंवचो ना. कोणाकडच्यानय तांकां म्हजी खबर मेळूं येता. पूण आतां आमी मेळ्ळीं म्हणून कांय बदलचें ना. म्हाका दिसता, ते चलयेचें लग्न जाल्लें आसतलें... म्हाका सारकी खबर ना... आनी तिगेली आवय आतां म्हातारी जाल्ली आसतली."

"हिमालयांतल्यान अमेरिकेक पावसर तुज्या जिवितांत कितें कितें घडलें तें थोडेभितर कित्याक सांगिना?"

"हें पळय, तशें सांगूंक जावचें ना... हिमालयांतल्यान हांव राजस्थानांत गेलों. थंय एक अपघात घडलो... भगवीं वस्त्रां देंवोवन हांव मुंबय गेलों... थंय थोडे दीस नोकरी केली. त्यावेळार गोंयांत परत-परत पावतालों. उपरान्त लग्न जालों... मागीर ते जिणेची उबगण आयली आनी अमेरिकेक गेलों. म्हजी मुख्य खबर म्हळ्यार हिमालयांतली आनी राजस्थानांतली. ती हांव तुका वाचूंक दितां. चड करून राजस्थानांतली खबर. हांव थंय कसो पावलों, थंय कितें केलें आनी थंयसून कित्याक पळून आयलों हो एके स्वतंत्र कादंबरेचो विशय. हांवें कादंबरी बरोवंक ना, पूण ते डायरेच्या आदारान तुज्यान बरोवंक जातली."

विराटाच्या उलोवपांत एके तरेची गोडी आसली. ओपारी दिवन तो उलयतालो. चडशो ओपारी तागेले जिणेच्यो आवडी उवतायताल्यो. पावला कणकणी तो व्हिस्केची आनी दादल्या-बायलांच्या संबंदांची ओपार दितालो. आनी आपूण सादेपणान पोजडें कितेंय उलोवन गेलां अशें ताजे ताकाच दिसतालें तेन्ना, 'रागार जावं नाका' अशें तो म्हणटालो.

अजून अर्दवराची वाट उरिल्ली. म्हाका ती डायरी मेळोवपाची उमळशीक लागिल्ली.

विराटान आपल्या हातांतलें बॅग उक्तें केलें आनी कसलींशीं कागदां काडून तो वाचूंक लागलो. ताजें एक वेगळेपण हांवें पळयलें. येदो वेळ चडसो तोच उलयतालो; पूण आपलीं कागदां वाचता आसतना कुशीक हांव आसां हें तो विसरिल्लो. कसलीं कागदां तें पळोवपाची इत्सा हांवें टाळ्ळी आनी एक नेमाळें उखलून हांव तें वाचूंक लागलों.

दिल्लीच्या विमानतळाचेर विमान देंवलें तेन्ना विराटान म्हाका विचारलें, "तूं खंय वतलो? तुका व्हरूंक गाडी येतली?"

"ना बाबा, हांव टॅक्सी घेवनच गोवा सदनांत वतलों," हांवें म्हळें.

"तुजें सामान आसा?"

"एक ल्हानशें बॅग. तें हांवें म्हज्या सांगातान घेतलां."

"म्हाका गाडी येतली. हांव तुका पावयतां. मात म्हजें सामान येयीसर रावचें पडटलें."

विमानतळाचे इमारतींत भितर सरनाफुडें विराट भायले वटेन वचून आयलो. उप्रांत एक ट्रॉली ओडून ताणें म्हळें, "गाडी आयल्या."

तागेलें बॅग म्हळयार एक व्हडली सूटकेस. एकल्याच्यान ती उखलूंक जावपाची न्हय.

भायल्या दारांत एक युरोपियन गोरी बायल वाट पळयताली. विराटाक पळयना फुडें तिणें वेंग मारली.

आमी एके वातानुकुलीत गाडयेंत बसले. गाडयेचे नंबर प्लेटी वयल्यान ती विदेशी दूतावासाची इतलें म्हाका कळ्ळें. विराट कसल्या लोकांमदीं वावुरता ताजो अदमास घेवंक ती एकूच गजाल पुरो आसली.

गोवा सदनामेरेन फुडल्या सिटाचेर हांव बसलों. विराट ते बायलेकडेन अमेरिकन हेलान उलयतालो. गोवा सदनाच्या दारांत गाडी थांबली. तो सकयल देंवलो. ती बायलूय देंवली. दोगांनीय म्हजो निरोप घेतलो. म्हजो हात आपल्या हातांत धरून विराटान म्हळें, "डायरेची झेरोक्स फाल्यां दनपारमेरेन पावयतां." गोवा सदनाचो टेलिफोन नंबरय ताणें बरोवन घेतलो.



त्याच दिसा डायरी घेवन दिल्लीच्या गोवा सदनांत विराट आयलो तेन्ना ताज्या सांगातान एक अमेरिकन चली आसली. ती चली गाडी चलयताली.

गोवा सदनांतल्या म्हज्या रुमांत तो तिका घेवन आयलो आनी ताणें म्हळें, "हांगा कॉफी मेळत? ना जाल्यार आमी भायर वचूंया... आसा न्हय तुका वेळ?"

त्या दिसाची मिटींग सोपोवन हांव सदनांत परतल्लों. म्हाका दुसरें कसलेंच काम नासलें. हांवें म्हळें, "तशी हांगा कॉफी मेळटा. पूण तुका जाय जाल्यार आमच्यांनी भायर वचूं येता."

"चल तर, या." ताणें म्हळें.

"तुवें म्हाका डायरी हाडटा म्हणिल्लें." हांवें ताका याद केली.

"हय. डायरी हाडल्या हांवें. थंयच दितां. त्या आदीं उलोवया."

अमेरिकन चली फकत हांसली. कांय उलयली ना. लागींच ताज हॉटेल आसा. थंय वचून रेस्टॉरण्टांत एका कोनशाच्या मेजाचेर आमी बसलीं.

कॉफी मागयली आनी विराटान म्हजी सुझानाकडेन वळख करून दिली.

"मेडिकल कॉलेजांत ती निमाण्या वर्साक आसा. आयुर्वेदाची माहिती मेळोवंक म्हणून ती हांगा आयिल्ली. म्हज्या सांगातान परत वतली."

"मेळ्ळी तुका माहिती?" हांवें सुझानाक विचाल्लें.

"थोडी भोव मेळ्ळी.' तिणें जाप दिली, "पूण तो एक वेगळोच अभ्यासक्रम. वनस्पतींचीं नांवां समजून तीं वळखप हें सोपें काम न्हय. तरीकय आयुर्वेदशास्त्र कितलें मुखार पावलां हाजी कल्पना आयली."

"असलीं जायतीं सवंगां म्हज्या आश्रमांत येतात. भारताविशीं थंय तरतरांचे समज आनी गैरसमज आसात. तांचेकडेन पैसो आसा आनी कितेंय तरी वेगळें करपाची उमेद आसा. ताका लागून ह्यो वीस-बावीस वर्सांच्यो चलयो जगभर भोंवतात... आमच्या देशांतले चलयेक तिगेले आवय-बापूय अमेरिकेक धाडीत आसले?" विराटान कोंकणींतल्यान म्हळें.

विषयांतर जाता हें म्हाका समजतालें. पूण ती आसतना आमी डायरेविशीं कशे उलयतले? कॉफी घेयसर सुझान बसून रावली. उपरांत ती उठली आनी म्हळें, "हांव वचून येतां. तुका केदो वेळ लागतलो?"

"हांव हांगाच आंसतलों. तूं ताकीत करूं नाका." अशें म्हणून ताणें सुझानाक निरोप दिलो आनी तिजी फाट घुंवनाफुडें आपली बॅग उकती करून डायरेच्या आकाराचो एक नोटबुक भायर काडलो.

"ही म्हजी डायरी. तूं वाच. हांवें संन्यास कित्याक घेतलो आनी कित्याक सोडलो तें सगळें हे डायरेंत बरयलां. पूण तुजेर म्हजो पुराय विस्वास. देखून झेरोक्स काडूंक ना. मूळ डायरीच दिल्या. सामकी खाजगी. पूण आतां म्हजे फाटले जिणेची म्हाका लज दिसना वा कोणय ब्लॅकमेल करीत म्हणपाची भिरांतय दिसना. तूं सवकासायेन वाच आनी तुजेकडेनच दवर. फुडले खेपे येतलों तेन्ना हांव ती परत व्हरतां."

हांवें डायरी हातांत घेवन उकती केली तसो ताणें म्हाका आडायलो. म्हळें, "सवकासायेन वाच. आतां आमी उलोंवया. हे डायरेंत नाशिल्ल्यो गजाली आदीं हांव तुका सांगतां."

विराटाचो मूड हांवें पळयलो आनी म्हाका दिसलें, तो सांगूंक सोदता तें आदीं आयकून घेवचें.

"गोंयचें वातावरण तूं जाणा. आमचें घर चार चौगांचें." विराटान सांगूंक सुरूवात केली, "...घरांत विशेक भुरगीं. सगळीं फाटलीं फुडलीं. म्हाका चार बापोलये. भरिल्लें घर. तुका सांगल्यार खरें दिसचें ना, आपली आवय कोण हें भुरग्यांक कळना आसलें. आवय आनी काकी असो भेद जायना आसलो. सगळेंच राशीर चलतालें. कोण जेवलो, कोण जेवलो ना हाजो हुस्को आवश्यक उरना आसलो. तेचभाशेन कोणय हांतुणार पडल्यार लेगीत तो हुस्को सगळयांचो आसतालो. ह्या भुरग्यांमदीं हांव वेगळो आसलों. म्हज्या वेगळेपणाची लक्तुबाय म्हजी व्हडली काकी करताली."

विराटाच्या घरांत एक देवकूड. व्हडलो काका देवाची पूजा करतालो. काकी भायर बसून साणयेचेर गंध झरयताली. फुलांच्यो माळो गुंथताली. निवेद्य-तीर्थ तयार करताली आनी तोंडान देवाचीं स्तोत्रां म्हणटाली.

काकाली पूजा जालेबगर कोणाक जेवण मेळना आसलें. काका उठून देवाक निवेद्य दाखयतालो. मागीर चोळख्याचेर काकूळ वाडून ती भायर पाखाटेचेर व्हरून दवरतालो.

काकान "का... का" करून साद घालो म्हणटकच घरच्या ल्हाना-व्हडांक जेवणाची इशारत मेळटाली. वासरेंत पानां मांडिल्लीं आसतालीं. जण एकल्यान आपल्या आपल्या जाग्यार वचून बसप. काकूळ कावळयान व्हरतकच काका भितर येतालो. पानार बशिल्ल्या सगळयांक तीर्थ घालतालो आनी ताणें तोंडान 'कृष्णार्पण' म्हळेंबगर जेवणाक हात लावपाची कोणाची प्राज्ञा नासताली.

घरच्या सगळयांचीं पानां वासरेचे एके वणटीचे देगेन आसतालीं. काकालें अनवाळें पान मुखावयले वणटीक तेंकून दवरिल्लें उरतालें. रुप्याचीं फुलां मारिल्लो पाट आनी तांब्याचो चकचकीत तांबेयो हें काकालें वेगळेपण. काकाचे कुशीक दुसरें अनवाळें पान विराटाचें आसतालें.

सगळीं भुरगीं भायर खेळटालीं तेन्ना विराट न्हावन ओलो वालो न्हेसून देवाचे कुडींत काकी म्हन्यांत बसतालो. दुर्वा निवळ करप वा दिवलेंतल्यो वाती सारप हें ताजें काम. काका संस्कृत श्लोक म्हणटालो. ते विराटान पाठ केल्ले.

घरची शिस्त कडक. काकाक सगळे भियेताले. न्हालेबगर कोणूय पानार बसलो असो दुबाव आयल्यार लेगीत काका आपलें पान सोडून उठून वतालो. घरच्या कोणाक भश्ट वा अनवाळयाचें पडून वचूंक ना ही काकाली खंत. आपली परंपरा फकत विराटच फुडें चलयतलो हो काकाचो भरवंसो.

ह्या वातावरणाक लागून भुरगेपणांतच विराट जाणट्यांभाशेन वागूंक लागिल्लो.

"बाकीचे भुरगे म्हाका वेगळो लेखताले आनी म्हाकाय हांव वेगळो अशें दिसतालें." त्या दिसांच्यो यादी काडटना विराटान सांगलें.

फुडें विराटाच्या व्हडल्या काकाक मरण आयलें आनी कर्त्या पुरसाच्या धाकासकयल एकठांय उरिल्लें कुटुंब फुटलें. विराटालो बापूय पुर्तुगेज सरकाराचे एके कचेरेंत अधिकारी आसलो. तो वेगळें बिराड करून रावंक लागलो. तांगेर येवपी-वचपी लोक हे युरोपियन संस्कृतीच्या प्रभावाखाला वाडिल्ले आनी पावला कणकणी फिरंगी भास उलोवपी लोक आसताले. त्या घरांत विराटाक शेणिल्लेभशेन जालें.

"म्हाका एक व्हडलो भाव आसलो. ताजे आनी म्हजे मदीं सुमार वीस वर्सांचें अंतर. म्हजें देवपण ताका मानवनासलें. पूण तो म्हजी खूब अपुर्बाय करी. तातूंतय जेन्ना आमची आई ह्या संवसाराक अंतरली, तेन्ना भावान म्हाका बापायली आनी वयनीन आईची माया दिली. तांचे उपकार हांव केन्नाच विसरचो ना." विराटान सांगलें.

"आज भाव खंय आसा?" हांवें विचारलें.

"गोंयांतच आसा. आमचें मूळ घर ताज्या वांट्याक आयलां. वयनी ना. पूण तांगेलीं भुरगीं आसात. आज हांव जर कोणय आसन जाल्यार ताजें श्रेय म्हज्या व्हडल्या भावाकच हांव दितलों. ताजेर हांवें खूब अन्याय केला."

"कसलो अन्याय?"

"ताणें म्हजे खातीर जे कश्ट काडले तांकां अंतपार ना. हांवें शिकून व्हड मनीस जावचें अशें ताका दिसतालें. देखून आपूण उपास काडून तो म्हाका कितेंच उणे पडूंक दिना आसलो. पूण हांवेंच शिक्षण अर्दार सोडलें."

"कित्याक?" हांवें विचारलें, "तूं वकील जाला न्हय?"

"हय. हांव वकील जालों खरो, पूण शिक्षण सोडून जेन्ना हांव पळून गेलों तेन्ना हांव वकील जावंक लेगीत सोदिनारालों."

❋

विराट डॉक्टर जावचो, ना जाल्यार आय. ए. एस. अधिकारी तरी जावचो अशी तागेल्या व्हडल्या भावाची खूब इत्सा आसली. तसो विराट हो एक हुशार विद्यार्थी आसलो. भावाची अडचण अशी, तागेल्या मोठ्या घराचे वांशे पोकळ आसले. मोठेपणाचो आव हाडून घराचो खर्च सांबाळटना तो खर्शेतालो. पूण ताका एक उमेद आसली. विराट व्हडलो जातकच खूब जोडटलो... घराण्याचें नांव वयर काडटलो. ते खातीर तो आनी तागेली बायल सगळे तरेचे त्रास हांसत खेळत सोसताली.

विराटाक स्कुलांत वतना नवीं पुस्तकां, नवे कपडे, बरें खाण मेळचें ही दोगांचीय इत्सा. घरा येतकच तागेली काकी ताका ग्लासभर दूद दवरताली.

जायते खेपे अभ्यासाखातीर विराट शाळेंत उरलो जाल्यार ताका जेवण आनी दूद घेवन तागेलो भाव वतालो. भावान अशें जेवण हाडटकच विराटाक लज दिसताली.

"तुका लज दिसता जाल्यार तू तांकां हांव घरचो नोकर अशें सांग." भाव म्हणटालो, "पूण तूं उपाशीं रावं नाका."

विराटाली मॅट्रीकेची परीक्षा लागीं पावली. त्या वेळार गोंयांत परिक्षेचें केंद्र नासलें. ताणें बेळगांव केंद्र घेतिल्लें. भावान सुटी घेतली आनी ताका घेवन बेळगांवां गेलो. हॉलांत विराट पेपर बरयतालो आनी भाव भायर गेटीकडेन वरांचीं वरां उबो रावतालो.

परीक्षा पास जातकच खंय तरी नोकरी करची अशें विराटान मनांतल्या मनांत थारायलें. आपल्या खातीर भावान आनी भावजेन त्रास काडिल्ले ते ताज्यान पळोवं नज जाताले.

"हांव जाणां आसलों, हांवें नोकरी केल्ली भावाक नाका. हांवें फुडें शिकिल्लें ताका जाय. पूण खरें सागंतलो म्हळयार मॅट्रीकचे परिक्षेंत हांव पास जातलो काय ना हाजो लेगीत म्हाका दुबाव येतालो. आनी हांव नापास जालों जाल्यार भावाची आवतिकाय कितें जातली ह्या विचारान म्हजें मन रात दीस कोरांततालें..." विराटान आपल्या मनाची अवस्था अशा उतरांनी सांगली.

निकालाचे दीस लागीं पावले तसो विराटाचे देवावयले भक्तीक उधाण आयलें. ताणें दिसाक दोन खेपे देवाची पूजा करची, आंगवणी करची आनी सांजच्या वेळार गांवाभायर न्हंयचे देगेर वचून विचार करीत बसचें.

एक दीस सांजच्या वेळार सदचे भाशेन विराट पासयेक गेलो तो परत आयलोच ना.

घराकडेन भाव आनी भावज ताजी वाट पळयत रावलीं. येतलो, येतलो म्हणून सगळी रात जागून काडली. विराट आयलो ना. सकाळीं गांवभर ताका सोदलो. पूण विराट मेळूळो ना.

आवयच्या कळवळयान तागेली भावज घरा बसून दुकां गळयताली. भाव शेणिल्लें गोरूं सोदूंक भोंवचें तसो पांयांनी भोंवलो. घरांत रांदन पेटली ना.

सगळ्या गांवभर चर्चेचो तोच विशय आसलो. विराट पळून गेलो! कित्याक गेलो हाजी जाप कोणाकच खबर नासली. उलयतल्याचें तोंड कोण धरतलो? कांय जाणांनी तागेल्या भावाक आनी भावजेक लेगीत दूशण दिलें. कांय जाणांनी म्हळें, तो पिसोच आसलो; पळून गेलो हाजें अजाप ना. खूब जाणांक दिसलें, परिक्षेचो रिझल्ट ताका कळ्ळो आसतलो आनी नापास जाला देखून तो पळून गेल्लो आसतलो...

घराकडेन कितें जालें हाजी विराटाक खबरच ना. तो भोंवत भोंवत महाराष्ट्रांतल्या एका शारांत पावलो. जिणेच्या तापांची ताका पयलेच खेपे वळख जावंक लागली. तो मेरेन भूक म्हळयार कितें हें ताका खबरच नासलें. लोकांच्या दारांत वचून भीक मागची पडटाली. आंगार आंथिल्ल्या सुण्याक धांवडावचें तशें लोक भिकाऱ्याक धांवडायताले.

ते अवस्थेंत भोंवतना ताका एक साधू मेळ्ळो.

ताणें पळयलें, खाड वाडोवन भगवें वस्त्र घाल्ल्या साधूक लोक धांवडायनात. उरफाटो मानान ताका येवकार दितात. ताजे झोळयेंत भिक्षा घालतात.

साधून ताका एक कफनी दिली आनी कांय दीस तो साधू वांगडा भोंवलो.

साधू दक्षिण भारतांतलो. तो काशी यात्रेक वचूंक भायर सरिल्लो. तो खरेलो देवभक्त. रातीच्या वेळार आपले झोळयेंतलो साळीग्राम काडून ताजी पूजा करतालो. सकाळची परत पूजा. ताजेकडेन संस्कृत ग्रंथ आसले. ते तो वाचतालो. तागेली भास विराटाक येना आसली. दोगय मोडके तोडके इंग्लीशींतल्यान उलयताले.

"साधूचो तो पयलो सहवास. ताजेविशीं म्हज्या मनांत खूबच आदर." विराटान सांगलें, "जिणेंत दुसरें कांयच जमलें ना जाल्यार म्हज्यान साधू जावंक येतलें असो एक विस्वास त्या दिसांनी म्हज्या मनांत निर्माण जालो."

शारांत भोंवता आसतना एक दीस विराटान एके शाळेमुखार भुरग्यांची गर्दी पळयली. वासपूस केली तेन्ना कळ्ळें कीं मॅट्रीकेचो रिझल्ट लागला. ताणें एका भुरग्याकडलो पेपर मागून पळयलें. तो पास जाल्लो. बऱ्या मार्कांनी पास जाल्लो.

"पास जावपाची खोशी म्हजें काळीज भरून ओतूंक लागली." विराटान सांगलें, "म्हज्यान रावं नज जालें. आंगावयल्या भगव्या वस्त्रांचो विसर पडून हांव नाचूंक लागलों. त्या दिसा साधूक हांवें खरी खबर सांगली... साधून म्हाका एक गीता दिली आनी म्हाका परत घरा वचूंक सांगलें."

मोठे उमेदीन विराट घरा वचूंक भायर सरलो. साधून ताका वाटेच्या खर्चाक पैशे दिले आनी लागशिल्ल्या स्टेशनार वचून रेल्वेंत बसूंक सुचयलें.

"गांवांत पावना फुडें म्हजें मन लजेन जड जालें. दिसलें, खंयच्या तोंडान हांव घरा वतलों? भायले भायर पळून वचचें अशें लेगीत म्हज्या मनांत आयलें. पूण गांवांत वळखीचीं मनशां मेळ्ळीं. जण एकल्यान म्हजो भाव आनी म्हजी भावज म्हज्या हुस्क्यान दीस सारतात म्हणपाचें सांगलें. एकल्यान तर म्हजो भाव हांतुणार आसा अशी खबर दिली. मागीर म्हज्यान रावं नज जालें. गुन्यांवकाराचें मन घरचे ओडीन म्हाका घरा घेवन गेलें.

घराकडेन विराटाक येवकार मेळ्ळो. एकाय उतरान ताका भावान वा भावजेन तो पळून कित्याक गेलो अशें विचारलें ना. उरफाटें भावान आपले भलायकेची पर्वा करिना

आसतना विराटाक कॉलेजांत धाडपाची येवजण आंखली.

कॉलेजाचें शिक्षण घेवंक विराट मुंबय आयलो आनी तागेले जिणेचो नवो अध्याय थंय सुरू जालो.

"भाव म्हयन्या म्हयन्याक पैशे धाडटा आसतना कितले उपास काडटा... कितली काटकसर करता ताजी म्हाका कल्पना आसली. कॉलेजाची फी आनी हॉस्टेलाचे पैशे खूबच चड आसले. हांव काटकसरेन रावतालों. भावाक त्रास पडचे न्हय म्हणून दिसांतल्यान एकूच जेवण घेतालों... पूण हांवें थारायलें, एकाद्री नोकरी करची आनी शिक्षण घेवचें. भावान म्हाका सायन्स कॉलेजाक वचूंक सांगिल्लें. पूण नोकरी करूंक मेळची म्हणून हांवें आर्टस कॉलेजांत प्रवेश घेतलो आनी नोकरी सोदूंक लागलों.

विराट दिसूंक गोरो-गोमटो आनी स्मार्ट. शिक्षणांत हुशार. ताका रोखडीच एके खाजगी कंपनीत नोकरी मेळ्ळी. सकाळचें कॉलेज, मागीर दीसभर नोकरी आनी सांजचो अभ्यास अशे दीस वता आसतनाच विराटाचे जिणेंत पूरवी आयली.

❋

आज विराटाच्या तोंडांतल्यानच ती आयकूंक मेळ्ळी तेन्ना हांवें तितलेच उत्सुकतायेन ती आयकून घेतली. विराटाले उलोवपाचे शैलींत एके तरेची गोडसाण आसा. ताजी उतरां वेंचीक आनी भास अलंकारीक. उलयतना तो दोळ्यांमुखार एक चित्र उबें करता.

"म्हजी डायरी वाचचे आदीं हांव सांगतां ती खबर आयकून घे. तिजो उल्लेख डायरेंत तितल्या विस्तारान येवंक ना. पूण ही खबर समजून घेतलेबगर म्हजे जिणेंतल्या फुडल्या घडणुकांचो अर्थ तुका समजुचो ना." आनीक एक कॉफी मागोवन विराटान सांगलें.

मुंबयच्या एका कॉलेजांत फांतोडेचेर आर्टसच्या वर्गाक विराट हाजीर रावतालो. उप्रांत नोकरी करूंक वतालो. मुंबयची जीण ही घाण्याक बांदिल्ल्या बैलासारकी आसता. विराटाक एकूच हुस्को आसतालो. जाता तितले बेगीन शिक्षण पूर्ण करून खूब पैशे जोडचे. कोणय तरी व्हडलो मनीस जावचो आनी भावाक आनी भावजेक तांच्या कश्टांचें चीज जाल्लें पळोवंक मेळचें. नोकरी करून डॉक्टर जावप शक्य नासलें आनी भावान उपाशीं रावन धाडिल्ल्या पैशांनी डॉक्टरकीचें शिक्षण घेवप विराटाक मान्य नासलें.

नाकामुखार नदर दवरून सरळ वाटेन तो चलतालो.

विराटाल्या कॉलेजांत गॅदरिंगाची तयारी चलताली. वर्गांतल्या कांय इश्टांनी नाटकांत काम करपाची ताका सुचोवणी केली.

ल्हानपणांत गांवांत जात्रा, कालो जातालो तेन्ना तोंडाक रंग लावन विराट स्टेजीर चडिल्लो. अभिनयाची देणगी देवान आपणाक दिल्या अशें ताका मनापासून दिसतालें. कोण जाणा, आपल्या फुडाराची दिशा त्याच मार्गान वता आसूं ये, अशें येवजून विराट कबूल जालो.

नाटक आसलें हिन्दी. विराटाच्या वांट्याक सवंग आयलें तें नायकाचें. फकत तो गोरो-गोमटो आनी सुंदर इतलेच खातीर कॉलेजांतल्या लोकांनी ताका वेंचून काडलो.

पूण हिंदी भाशेचो आनी विराटाचो संबंद चुकून-माकून पळयिल्ल्या सिनामापुरतोच आशिल्ल्यान ताका ती भास उलयतना अडचण येताली. तागेले उच्चार सारके जायनासले. डायरेक्टर पावला कणकणी ताका उच्चार सुदारूंक सांगताली.

नाटकाचें कथानक अशें आसलें: ल्हानपणांत, चड करून पाळण्यांत, लग्न जाल्ले एके चलयेक सातव्या-आठव्या वर्सारच वैधव्य आयिल्लें. ती वयांत येतकच तिगेली आवय एका विधुराकडेन तिजें लग्न जुळयता. ह्या लग्नाक समाज सुधारक विरोध करतात. त्या प्रस्नाचेर हें नाटक. विधुराची भूमिका विराट करतालो आनी नायिकेची भूमिका १५-१६ वर्सांची एक चली करताली. ती नायिका पूरबीची भयण. पूरबी त्यावेळार कॉलेजांत शिकनासली. तिगेली आवय नाटकांनी काम करपी एक नांवाजती कलाकार आसली आनी तीच तें नाटक बसयताली. पूरबीचे व्हडले भयणीक तिणेच नायिकेची भूमिका दिल्ली.

पुरबी तेन्ना १२-१३ वर्सांची आनी व्हडली भयण आसत १५-१६ वर्सांची. पूण पळोवंक ती आनीकय भुरगी दिसताली. येसायो चलता आसतना सगळ्यांक तिजी लक्तुबाय. तिका कोण चॉकलेटी दितालो, जाल्यार कोण उखलून धरतालो.

"हें पळय विराट," पुरबीचे आवयन एक दीस विराटाक सांगलें, "तूं काम सुंदर करता. तुजे तोंडावयले भाव इतले सभावीक आसतात कीं तुज्यांत व्हड नटाचे गूण दिसतात. हिन्दीची मातशी प्रॅक्टीस कर. तूं अशें कर, तू सददां सांजचो आमगेर यो. हांव तुका हिन्दीचे उच्चार शिकयतां."

संकोच दिसतालो; पूण हें नाटक केल्यार आपणाक नांव मेळटलें हें येवजून विराट कबूल जालो.

सदांच चड वेळ पूरबीगेर सारचो. नायिका अबोल चली. तिका भाशण खूब थोडें. देखून पूरबीगेर गेल्लेकडेन चडसो वेळ विराट आनी तिजी आवय एकठांय उरतालीं. ती लेगीत कसलोच संकोच बाळगिनासतना ल्हान भुरग्याक शिकोवचें ते तरेन केन्ना फाटीर हात दवरून, जाल्यार केन्ना हाताक धरून ताका अभिनय आनी हिन्दी उच्चार शिकयताली.

नाटकाचो प्रयोग एकदम बरो जालो. सगळ्यांनी विराटाची तोखणाय केली.

नाटका उप्रांत लेगीत विराटाचें पूरबीगेर येवप-वचप चालू उरलें.

पूरबीची आवय ताजेकडेन फकत मेकळेपणानच न्हय तर मायेन वागताली. ताका आग्रो करून वाडटाली. सुटयेच्या दिसांनी ताका घेवन सिनेमाक वताली.

"केन्ना केन्नाय म्हाका दुबाव येतालो..." विराटान म्हळें, "तिजें म्हजेर मन बसलां. पूण म्हजे बुद्धीक तें पटनासलें. ती एक संवसारी बायल. भुरग्यांची आवय. तिज्या घरांतलें वैभव हांवें पळयिल्लें. तिजी पिराय कितली तें हांव नकळं. पूण म्हजे नदरेक ती जाणटी बायल. तशी सुंदर. ख्रंयचेय सिनेमांतले नटयेक फाटीं उडोवपाइतली सुंदर. लहरी आनी धाडशी. मनांत आयलें तेंच खरें करताली आनी तें करतना कोणाची पर्वा करिनासली."

"तिजो घोव कितें करतालो?" हांवें विचारलें.

"तिजो घोव एक व्हड व्यापारी. तांचो धंदो चलतालो. धंद्याखातीर आयिल्ल्या दिसा

तो भोंवडेर उरतालो. आनी ताज्या आड पूरबीची आवय सदांच कागाळ करीत उरताली.''

''कसली कागाळ?'' हांवें विचारलें.

''घोव तिका पैशे दितालो. पदराक भुरगीं आसलीं. तातूंतच सुख मानूंक तो तिका सांगतालो. पूण घोवाचो सांगात तिका मेळनासलो. फकत ताजो एक गुण तिका मानवतालो. तो तिका भायर भोंवपाची मेकळीक दितालो. पूण एके सुंदर, तरुण बायलेक जो मोग जाय आसता तो तिका मेळनासलो. म्हाका दिसता, तितलेंच तिजें दुःख आसलें.''

पूण तिज्या सहवासांत विराटाचे जिणेंत एक बदल घडूंक लागलो. मुंबय सारक्या विशाळ शारांत हॉस्टेलांतली एकोडी जीण जगतना ताजें मन तिज्या सांगाताक आंवडेवंक लागलें. कळत वा नकळटना जाल्ल्या तिज्या स्पर्शान ताजें आंग आंग चंवरतालें आनी अभ्यासाचेर चित्त थीर जायनासलें.

तिजी व्हडली चली आनी धाकली पूरबी दोगांय घरांत आसतालीं. पूरबीक शिकवणी दिवपाचें काम तिजे आवयन विराटाक दिलें. तिका जाय जाल्यार दुसरो शिक्षक मेळत आसलो. पूण आपणाक आपल्या घरा आपोवपाचें तें निमित्य आसूं ये असो विराटाक दुबाव आयलो. ताणे ती शिकवण मान्य केली.

''शिकवणीच्या निमित्त्यान म्हाका त्या घरची वाट मेकळी जाल्ली... एक दीस हांव तांगेर गेलों तेन्ना घरांत ती एकलीच आसली. चलयांक तिणें खंय तरी धाडिल्लीं. नोकर लेगीत घरांत नासलो. हांव परत वचूंक सोदतालों. तिणें म्हज्या हाताक धरून म्हाका आडायलो आनी म्हळें, 'असली संद परत येवची ना. तूं पिसो, फाट फिरायता?' त्यावेळार हांवें तिजे नदरेक पयलेच खेपे नदर दिली. भियेवन हांव थरथरूंक लागलों.''

अनोळखी ओड आसली आनी खूबशी लाचारीय आसली. त्या दिसा विराट हारलो आनी ते हारी उप्रांत ताजो संकोच मोडलो.

कॉलेजाचीं वर्सां पूर्ण जालीं आनी बी. ए. ची पदवी ताका मेळ्ळी. फुडें कितें करचेलें हें तो येवजिता आसतनाच पूरबीचे आवयनच ताका वकील जावपाची सुचोवणी केली. विराटान ती मानून घेतली.

ह्याच अदमासाक पूरबीची आवय आनी बापायमदीं वितुश्टां येवंक लागिल्लीं. वितुश्टांचें कारण कितें तें कोणाक कळ्ळें ना. तरी मुंबयचो व्यापार उणो करून दिल्लीक वचपाची भास तो उलोवंक लागलो.

''व्हडले चलयेची सोयरीक दिल्लीक जुळ्ळ्या. पूरबीचें कितें? ती हांगा शिकता तेंच दिल्लीक शिकतली.'' ताणे बायलेक सांगलें आनी बायलेक चड ताणून धरप शक्य जालें ना.

''निरोपाचो समारंभ एका पंचतारांकित हॉटेलांत तिणें घडोवन हाडलो.'' विराटान सांगलें, ''आमी दोगांच. तिणे म्हाका पैशे दिले. पत्तो आनी फोन नंबर दिलो. शिक्षणक्रम पुराय जायनाफुडें दिल्लीक येवपाचें आमंत्रण दिलें.''

विराटालें वाक्य पूर्ण जातां-जातां भायर गेल्ली सुझान परत आयली आनी तिका

पळयनाफुडें विराट उठलो.

"उरिल्लें सगळें डायरेंत आसा." ताणें म्हळें, "आतां तुका गोवा सदनांत पावोवं?"

"नाका. हांव चलूनच वतां." हांवें जाप दिली.

सुझानाच्या खांद्यार हात दवरून तो गेलो.

❋

तेच रातीकडेन विराटाली पुराय डायरी हांवें वाचून काडली. ताणें बरयिल्ल्यो गजाली खऱ्यो आसत जाल्यार विराट एक अद्भूत व्यक्तिमत्वाचो गोंयकार म्हणचें पडटलें.

मॅट्रीकचे परिक्षेंत पास जायत काय ना जायत ह्या भंयान घर सोडून वचपी हो तरनाटो मुखार इतलो धाडशी जाता कि सामान्यतायेन धीट म्हणटात तसलो मनीस लेगीत गोंयच्या समाजांत तसलीं धाडसां करूंक धजपाचो न्हय.

पळून गेल्या वेळार अडचणींतल्यान ताणें संन्याशाचो सांगात धरिल्लो. पूण ताजो प्रभाव मात त्या कंवळ्या मनाचेर उरलो. प्रपंचांत खर्शेलो जाल्यार आपणामुखार संन्यास घेवपाचो मार्ग सदांच मेकळो उरतलो, ही कल्पना तेन्नासावन ताज्या मनांत रुजिल्ली आसूंक जाय. पूण कॉलेजांत शिकतना आनी मुखार कायद्याचो अभ्यास करतना लेगीत धर्म-अध्यात्माची ओड ताज्या मनांत उरली. ते ओडीनच तो मुंबय शारांत जातल्या धर्मीक आनी अध्यात्मीक किर्तनां आनी प्रवचनांक हाजीर रावतालो. त्या विशयावयलीं खूबशीं पुस्तकांय ताणें वाचून काडिल्लीं आनी आपल्या इश्टांकडेन तो त्या विशयाचेर उलयतालोय.

पूरबीची आवय सुमित्रा. तिणें जिवितांतल्या म्हों‌व्या अणभवांची गोडी ताका लायिल्ली. कोणय तिजेर भाळचो इतली ती सुंदर आनी शिटूक बुद्धीची.

विराट आपले डायरेंत बरयताः "म्हज्या तोंडार पुरबीची आवय हें नांव घोळटालें. काळजांत सुमित्राचें चित्र कोरिल्लें उरलें. जिणेचें कुवाडें कितलें घुस्पा-गोंदळाचें, कितलें सुखदिणें आसता! भोंवतणच्या संवसाराचो विसर घालपाची तांक एके बायलेच्या गोड सहवासांत आसता हो अणभव म्हाका नवो. तिजे असवडीं म्हाका दिसतालें, म्हजें चुकता. ती म्हाका भूल घालता आनी हांव चळटां. विश्वामित्राचे तपश्चर्येचो भंग करूंक मेनका आयिल्ली तशी म्हजे जिणेंत म्हाका दुसऱ्याच मार्गान व्हरूंक सिध्द जाल्ली सुमित्रा न्हय मूं...? हॉस्टेलाचे कुडींत हांव थारायतालों, परत तिच्या वाऱ्याक उबो रावचों ना. पूण दर्याचे वेळेर बांदिल्लो रेंवेचो किल्लो ल्हारांच्या स्पर्शानच कोसळून वचचो तसो म्हजो निर्धार दुसऱ्याच खिणाक तिजे ओडीन विरगळून वता. चित्त थीर जायना. वेळार, अवेळार तिचो उगडास येता... परत तिजेसरीं वचचें अशें दिसूंक लागता... ती मेळटा तेन्ना तिगेलो एकच हांसो म्हाका पुराय वेबदो करून सोडटा."

सुमित्रा दिल्लीक गेली आनी विराट विरहाचे तळमळे अणभवंक लागलो. ते अवस्थेचें वर्णन करतना विराट बरयताः

" मेघदूत वाचतना कालिदासालो यक्ष तो हांवूच अशें म्हाका दिसूंक लागलें. पूण सुमित्रा म्हजी कोण? लोकल गाडयेंतले गर्देंत एकाद्री बायल आपल्या म्हऱ्यांत उबी आसता. स्पर्श- सुखाचे ते खीण घडये दोगांकय सुखायतात आसूं येतात. पूण तिजें

स्टेशन येता आनी ती सकयल देंवता. वतना घडये ओंठाचेर अस्पश्ट हांसो फुलोवन भावना उक्तावपाचो यत्न करता. पूण ती जेन्ना सकयल देंवता, तेन्ना दोगांयच्योय वाटो वेगळयो जातात. दोगांकय एकमेकांक विसरपाचें आसता. संवसाराची तीच रीत हें हांव जाणा. पूण म्हजें मन मानिना."

सुमित्रालो पत्तो विराटाकडेन आसा. तिका बरयिल्लीं पत्रांय तागेले ट्रंकेंत आसात. पूण एकूय पत्र पोस्टांत उडोवपाचें धाडस ताका जालें ना. सुमित्रा एका घोवाची बायल. भुरग्यांची आवय. पिरायेन आपलेपरस व्हडली. आमचे मदलें नातें हें फुटिल्ल्या थर्मामिटरांतल्या पारजा सारकें. हातांत धरतलो म्हळयार धरूंक मेळना... खिणांत एका गुळयाचें विघटन जाता म्हणसर सगळे ल्हान गुळे एक जावन व्हडलो गुळो जाता.

सुमित्रालें पत्र आयलें ना. पूण एक दीस मनीऑर्डर आयली. धाडपी सुमित्रा, पूण पत्तो वेगळोच. दिल्लीचोच. मोटे अपेक्षेन ताणें निमाण्या टोंकावयले स्लिपीचेर बरयिल्लो संदेश वाचलो. "पैशे धाडल्यात. पत्र फाटल्यान बरयतां." इतलोच तो संदेश.

"पैशांची म्हाका गरज आसली. पूण पैशांपरसय विरहान चड व्याकूळ जाल्ल्या काळजाक थंडाय दिवपी एकाद्र्या उतराची गरज आसली. पंद्रस गेली तरी सुमित्रालें पत्र आयलें ना." डायरेंत नोंदिल्ली ही प्रतिक्रिया.

एक दीस गांवचो एक मनीस विराटाक मेळूंक येता. भावान ताका धाडला. ताजी खबर घेवंक. घरचे पैशे ताणें बंद केल्यात. तो खऱ्यांनीच जोडटा, वेळार जेवता, खाता आनी चड म्हळयार शिकता हाजी खात्री करून घेवंक तो आयला.

विराट ताजेकडच्यान कांय वस्तू घरा धाडटा. भावाक एक पुडव्याचो जोडो आनी भावजेक जरीचें कापड.

विराट बरयताः "म्हजो हेतू तडीक गेलो. त्या निर्जीव वस्तूंनी फकत म्हजी भावनाच न्हय, जाल्यार म्हजें सगळें सारकें चल्लां म्हणपाचें भावाक आनी भावजेक कळयलें."

ल्हवू ल्हवू सुमित्राचे यादीची तीव्रता उणावत वता आनी विराट परिक्षेची तयारी करता. इतले म्हणसर सुमित्रालें पत्र येता. मोगाचे ओलसाणेन थबथबिल्लें पत्र. तें वाचून परत पोरन्यो यादी चाळवतात. 'परिक्षा जातकच दिल्लीक यो. ना जाल्यार हांव मुंबय येतां.' अशें तिणें कळयिल्लें आसता.

"जिवितांत एकाद्रे वस्तूची गोडी लागली म्हणटकच ती मेळोवपाचो ध्यास मनशाक लागून उरता." विराटान आपले डायरेंत बरयलांः "म्हजें तशेंच जालें. म्हजी नदरच बदल्ली. मेळटले वळखीचे आनी अनोळखी बायलेकडेन हांव वेगळेच नदरेन पळोवंक लागलों. दर एकली बायल आपणाक सुचयता, खुणायता असो भास म्हाका जावंक लागलो. फकत असल्या प्रसंगाचेर बुद्दीचो लगाम उरतालो, हे देवाचे उपकार; नाजाल्यार कितेंय विपरीत घडूं येतालें."

एक दीस विराटाच्या ऑफिसांत अचकित सुमित्रा येवन ताज्या मुखार उबी रावली.

"तिका पळयना फुडें म्हजो म्हज्या दोळ्यांचेर विस्वासच बसलो ना. ती परत येत अशें म्हाका दिसूंक नासलें. कितें करचें आनी कितें करचें न्हय तें म्हाका समजलें ना."

"पूरबीक पुण्याचे फिल्म इन्स्टिट्यूटांत पावोवंक हांव आयल्यां. आजच पुण्याक वतां. फाल्यां परत येतना मेळटां. तूं फाल्यां सुटी घे." आदेश दिवचो तशें सुमित्रान सांगलें आनी ती गेली.

पूण तिणें आपल्या आंगाक लायिल्ल्या सेंटाचो परमळ दीसभर विराटाचे तकलेंत फांकारत उरलो. ताचें चित्त थाऱ्यार उरलें ना.

आपले ते अवस्थेचें विराटान विस्तारान वर्णन केलां. दुसऱ्या दिसा सुमित्रा येता. अर्दो दीस तीं सांगातान सारतात आनी ती वता. वतना एक कानमंत्र दिवन वता.

"म्हाका पत्र बरोवं नाका आनी दुसऱ्यामुखार म्हाका हटकूं लेगीत नाका." ती सांगता, "म्हजेर खूब बंदनां आसात. नशिबान आमचेर अन्याय केला. पूण हांवें एक येवजिलां... तुजें पूरबीकडेन लग्न करचें! आमी लागीं उरपाचो तोच एक उपाय."

पूरबी ल्हान चली. तिजे आनी विराटाचे पिरायेंत खूब अंतर. तिजेकडेन आपलें लग्न जावं येता हें ताका खरें दिसना. ताका पूरबीचें निखालच आकर्षण ना. एक आवय आपल्या सुवार्थाखातीर आपले निकतीच वयांत येवंक लागिल्ले चलयेचो बळी दिवंक धजत? ताका तें खरें दिसना.

ल्हान भुरग्याक फटोवचो तशी सुमित्रा आपणाक झुलयता अशें विराटाक दिसलें. तो तिका सांगूंक सोदतालो... 'तुजे म्हजे संबंद वयलेचाराचे... बंदनाचे न्हय. तुजे वाटेन वचूंक तूं मेकळी आसा. म्हजी सांवळी तुज्या संवसाराचेर हांव पडूंक दिवचो ना. पूण भुरग्याक फटोवचें तशी तूं म्हाका फटोवं नाका. म्हजे जिणेंतल्यान तूं सदांखातीर पयस जाली जाल्यारय तुजे उपकार हांव केन्नाच विसरचों ना.'

नाटकांतलें स्वगत भाशण उलोवचें तसो विराट हें भाशण आपल्या मनांत घोळयत रावलो. पूण तें सुमित्रामेरेन पावलेंच ना.

सुमित्राची ती भेट सुखदिणी आसली. हाजे फुडें आमच्यो वाटो वेगळयो अशी एक भावना विराटाच्या मनांत उपजली आनी ते भावनेक लागून विरहाची तीव्रताय उणी जावन अभ्यासाचेर ताचें लक्ष थिरावंक लागलें.

खाजगी जिणेंत तरेकवार मोडां आयलीं तरी विराटालो अभ्यास बरो चलिल्लो. कॉलेजांत तो एक हुशार विद्यार्थी म्हणून मान्यताय मेळूंक पाविल्लो.

ह्याच अदमासाक तागेल्याच वर्गांत शिकपी एक चली ताजे जिणेंत आयली.

"सुमित्राची सांवळी मनावयली पयस जायत उरली तशी शिरीनाची भावना हांव वळखूंक लागलों. शिरीन एक धाडशी आनी नाजूक नासली तरी घसघशीत आंगलोटाची पारशी चली. खूबच हुशार. ती म्हजे जिणेंत प्रवेश करपाचो यल केन्ना सावन करताली. भोंवन भोंवन आपल्या उतरांनी आनी तोंडावयल्या सूचक भावांनी म्हज्या काळजाच्या दाराचेर मारताली. पूण सुमित्राचे प्रतिमेचें कुलप लागिल्लें तें दार तिजेखातीर केन्नाच उकतें जावंक नासलें... एक दीस अचकित कुलप उकतें जालें आनी हांवें म्हळें, लग्नच करपाचें आसत जाल्यार पूरबीपरस शिरीन परवडली."

विराटाली डायरी एके कादंबरीसारकी रोचक जायत वता. हांव ती वाचतना विराटाक विसरून एक कल्पीत कथा वाचपाचो आनंद घेतां.

***

शिरीनाची आनी विराटाची इश्टागत बरी जमली. पूण सुमित्राकडच्या अणभवा उपरांत विराट जी अपेक्षा करतालो ते तरेची ती इश्टागत नासली. मेकळेपणान वागपी आनी उतरां कणकणी विराटाचे फाटीर हात मारून उलोवपी शिरीन ही संकोच मानिना असली चली. पिरायेच्या मानान ती खूब जाणटी दिसताली आनी मोटव्या स्कर्ट-ब्लावजाच्या भेसांत तिचो अर्दो देह उक्तो उरतालो. पूण विराटान कल्पना केल्ली ताजेपरस ती वेगळी आसली.

"इश्टागतीची एक मर्यादा आसता. ती मोडपाचो तुवें यल केलो जाल्यार आमची इश्टागत सोंपूं येता." एक दीस शिरीनान विराटाक शिटकायलो.

तेन्नाच्यान त्या दोगांयमदलें अंतर वाडूंक लागलें. तो मेरेन इश्टागत वेगळी आनी मोग वेगळो हाजें भान विराटाक जावंक नासलें. ताजोय गुन्यांव ना. ताज्या जिवितांत जी पयली बायल आयली ती सुमित्रा नांवाचें एक तुफानच आसलें, धरबंद नाशिल्ली एक उच्छृंखल बायल. देवान रूप दिलां, देह दिला तेंच तिचें भांडवल. भल्या भल्यांक आपल्या फाटल्यान नाचूंक लावपाची तिका आवड... पूण तातूंत विराटान खंती जावपाचें कारण नासलें.

ताज्यो मर्यादा तो जाणा आसलो. तिज्या मुखार तो एक ल्हान किरकोळ मनीस, तिचे कडच्यान ताज्यो वेगळयो अपेक्षा कसल्यो आसतल्यो? पूण जे सुखाचे खीण तिच्या सांगातान ताणें सारिल्ले, त्यो यादी ताका अस्वस्थ करताल्यो. देखूनच शिरीनाकडेन वागतनाय तो सभ्यतायेचे सगळे संकेत नकळटां मोडटालो.

शिरीनाकडचे संबंद चड दीस उरले नात. ते तुटले हाजी विराटाक खंतय दिसली ना. सुमित्राकय तो विसरत चलिल्लो आनी जुवानपणाचे उमेदीन मोगाचें जाळें पयस पयस पातळावन ल्हान-व्हड नुस्तें आपल्या जाळयांत हाडपाचो एक खेळ ताणें सुरू केल्लो. मनांत अखंड संघर्ष उरतालो. नीत-अनीत, बरें-वायट कितें, हो प्रस्न तो आपणाकच विचारतालो.. निमाणेकडेन अनीतींतलो आनंद थोडो काळ भोगपाक ताजें मन तयार जातालें.

वकिलीची परिक्षा पास जातकच तो गोंयांत येवपाची तयारी करूंक लागलो. थोडे दीस गोंयांत रावन फुडाराची दिशा ताका थारावचेली आसली. पूण एक हुस्को आसलो. आपूण गोंयांत गेल्या वेळार सुमित्राची चीट आयली वा खासा ती मेळूंक आयली जाल्यार चुकामूक जातली आनी घडये ती जल्माची ताटातूट जातली अशी भिरांत ताका दिसताली. एके वटेच्यान तो सुमित्राक विसरूंक सोदतालो आनी दुसरे वाटेन ताका सुमित्राकडले संबंदय उरिल्ले जाय आसले.

तेच अवस्थेंत ताणें तिका ट्रंक कॉल करपाचें धाडस केलें. फोन सुमित्रानच उखल्लो आनी इतलेंच सांगलें, "आतां चड उलोवंक मेळचें ना. पत्राची वाट पळय." आनी भियेल्ले भाशेन तिणें अचकित फोन सकयल दवरलो.

सुरवेक विराटाक दिसलें, सुमित्रान आपल्या तोंडाचेर मारिल्लें तें एक थापट. एक आपलेपणाचें उतर ना वा आपलें म्हणणें पुरतें आयकून घेवपाची तिची तयारी ना. ती तुसडेपणान वागली अशें ताका दिसलें.

...घडये फोना म्हऱ्यांत दुसरो कोणय आसूं येता... तिका उलोवंकच मेळ्ळें ना

जाल्यार ती कशी उलयतली? ह्या विचारासरशीं विराटाचें थोडें भोव समाधान जालें आनी ताणें तिगेल्या पत्राची वाट पळोवपाचें थारायलें.

आठ दीस वाट पळोवची पडली. आठ दिसांनी पत्र आयलें. तेंय तुटकच. सुमित्रान ताका बरयिल्लें: "तुका दिल्लीक हाडपाचें हांवें थारायलां. पूण तुज्या रावपाची आनी नोकरेची वेवस्था जायीसर तू गोंयांत वचून यो. पंद्रशे उपरांत म्हजे एके इश्टिणीगेर फोन करून रकाद आसल्यार विचारून घे."

पत्रांत इश्टिणीलो फोन नंबर आसलो. पूण विराट सोदतालो तें मोगाचें एकूय उतर नासलें.

जड मनान विराट गोंयांत गेलो.

गोंयच्या वातावरणांत तो रमलो. मुंबयचे जिणेची उबगण आसली. गोंयच्या मेकळ्या वातावरणांत आनी पोरन्या इश्टांच्या सांगातान कांय दीस ताणें सारले. ताणे गोंयांतच रावचें अशी भावाची इत्सा आसली. सुमित्राची ओड नासती जाल्यार मुंबयची नोकरी सोडून गोंयांत रावप विराटय पसंत करीत आसलो.

नोकरेचें निमित्त करून पंदरा दिसांनी तो मुंबय परतलो आनी पयलें काम ताणें कितें केलें आसत जाल्यार सुमित्राले इश्टिणीगेर फोन. नांव सांगिनाफुडें रकाद मेळ्ळो: "रोखड्या रोखडो दिल्लीक यो."

दिल्लीक एक नवी जीण सुरू जाली. एका नांवाजत्या वकिलाच्या हातसकयल तो कामाक लागलो. अदींमदीं सुमित्राक मेळटालो. तिणें ताका आपणाक मेळपाचे जागे सांगून दवरिल्ले. केन्ना केन्नाय ती ताका उकतेपणान आपणागेरय आपोवन व्हरताली. एका कुटुंबाच्या आऊट हावसांत ताजी रावपाची वेवस्था जाल्ली.

पांच-स म्हयने तो दिल्लींत उरलो आनी वकिलीच्या कामांतच ताका आस्था दिसूंक लागली. नांवाजत्या सिनियरासकयल काम करतना तो गरजेचें गिन्यान जोडटालो आनी तागेल्या कामाचेर तागेलो सिनियर खूश आसलो. एका नव्या वातावरणांत पावतकच विराट थोडोसो भुल्लुसलो. तरातरांच्या लोकांच्या संपर्कांत तो येतालो.

एक दीस सुमित्रान ताका सांगलें, "तुवें पूरबीक वश करून घेवंक जाय. म्हजो पुराय सहकार आसतलो. पूण पूरबीच्या मनांत तूं भरले बगर फुडली वाट सोपी न्हय."

त्याच दिसांनी पूरबी दिल्लीक आयिल्ली. खूब वर्सांनी विराटान तिका पळयली. तो पुराय भांबावन गेलो. आवयचीच प्रतिकृती. पूण जुवानपणाच्या हुंबरावयली पूरबी खूबच सुंदर दिसताली. आदली वळख आसली देखून पूरबीय ताजेकडेन संकोचा मेकळी वागली आनी दोगांय पयलेच भेटेंत एकमेकांच्या मोगांत पडलीं.

विराटाच्या सहवासांत पूरबी रमली. तिणें फिल्म इन्स्टिट्यूटचो कोर्स अर्दारच सोडलो आनी ती दिल्लींतच रावंक लागली. आवय-बापायची अपुर्बायेची चली. चड करून बापूय तिज्या मनाआड वचना आसलो. आनी आवय तर तांगेल्या मोगाक जाता तशें उत्तेजनच दिताली.

बायलेचें एक नवें रूप विराटान त्या दिसांनी पळयलें. पूरबी ही सुमित्राची चली आनी तिचें विरायकडेन लग्न जावचें ही कल्पना लेगीत सुमित्राचीच. पूण जेन्ना तीं

दोगांय एकमेकांच्या मोगांत पडून लागीं येवंक लागलीं, तेन्ना आवय आसूनय सुमित्राच्या मनांत नसायेची कीड वळवळूंक लागली.

पूरबी आनी विराटान खंय भायर वचपाचें थारायलें म्हणटकच सुमित्रा पूरबीक खंय तरी धाडटाली वा विराटाक आपोवन व्हरताली.

"हें पळय विराट," एक दीस तिणें ताका सरळ सांगून उडयलें, "तुजें हांव पूरबीकडेन लग्न करूंक सोदतां ताजो हेतू खीणभर लेगीत तुवें विसरूंक फावना. म्हाका तूं लागीं जाय. म्हजो उरिल्लो जाय. समाजाक आमच्या संबंदांविशीं दुवाव आयिल्लो नाका, इतलेच खातीर हांवें ही येवजण आंखल्या..."

"म्हणटकच हांव कितें करूं?" उबगून विराटान विचारलें, "पूरबी कडेन फटींगपणा करूं?"

तागेलो हो प्रस्न सुमित्राक रुचलो ना. तिणें म्हळें, "पळय, हांव बऱ्याक वरी. म्हजें वायटपण घेवशीत जाल्यार तुका दिल्लींत रावप परवडचें ना. तुजें तूं थाराय. आनीक एक सांगतां, ही गजाल पूरबीच्या कानार पडली जाल्यार तुका हांव सुखानिशीं जियेवंक दिवची ना."

'धरल्यार चाबता आनी सोडल्यार पळटा' अशी विराटाची आवतिकाय जाली. ताणें पळयलें कीं तागेलो पूरबीकडलो मोग जितलो वाडटा, तितले विराटाविशींचे सुमित्राचे उमाळे उचंबळून येतात. वेळार, अवेळार ती ताका आपयताली. चडांत चड वेळ आपले नदरे सामकार तो उरचो म्हणून यत्न करताली.

ह्याच वातावरणांत एक दीस घरांत कोण नासतना सुमित्रान विराटाक आपोवन हाडलो. तो कोर्टांत वचपाची तयारी करतालो. तितले म्हणसर सुमित्राचो रकाद आयिल्लो. सांजच्या वेळार पूरबी सांगातान भायर जेवणाक वचपाचो कार्यक्रम ताणें आंखिल्लो.

रकाद आयलो तेन्ना कितें करचें हें ताका समजलें ना. 'रोखड्या रोखडो यो' असो सुमित्राचो रकाद मेळिल्लो. ताणें आपल्या जिवाक बरें दिसना अशें सिनियराक सांगलें आनी तो सुमित्रागेर गेलो.

घरांत कोण नासलो.

शुटिंगाखातीर भायर गेल्ली पूरबी बद्द सांजची परतुपाची आसली. पूण शुटींग रद्द जालें आनी पूरबी अचकित घरा परतली. आवयले कुडीचें दार उकतें करून ती आवयक उलो मारूंक वताली, इतले म्हणसर तिणें जो देखाव पळयलो तो पळोवन तिची वाचाच धरली.

कांय एक उलयना आसतना ती बापायले कुडींत गेली. तिगेलो बापूय त्या दिसा घरांत नासलो. तो न्हिदेच्यो गुळयो घेता हें ती जाणा आसली. हाताक मेळत तितल्योय गुळयो तिणें घेतल्यो आनी त्यो खावन पूरबीन आत्महत्त्येचो यत्न केलो.

❈

परतूंक समजावपाचो विराटान खूब यत्न केलो. पूरबी ल्हान आसली तरी शाणी आसली. तिणे ताका सांगलें, "जाली तितली सोबा पुरो. आतां तूं आमचेपसून पयस वच."

ते भिरकेसरशीं विराट दिल्ली सोडून हिमालयांत वता. भुरगेपणांत मेळिल्ल्या संन्याशाचो प्रभाव ताजेर आशिल्लोच. ध्यान-चिंतनांत हिमालयाची यात्रा केली जाल्यार मनाक शांतताय मेळटली आनी घडये जिविताक एक नवी दिशा गावतली, असो ताजो भरवंसो आसलो. ताजेकडेन थोडे पैशे आसले. गरजेपुरतें सामान ताणें बांदून घेतलें आनी ऋषीकेशाक वचपाची बस धरली. तो मेरेन खंय वचचें, कितें करचें हें ताणें सारकें येवजूंक लेगीत नासलें.

दक्षीण भारतांतल्या त्या साधूची ताका याद आसली. पूण ताका खंय सोदतलो? एक खेपें त्या साधून ताका सांगिल्लें, "संन्याशान एका जाग्यार चड दीस रावचें न्हय. रावलो जाल्यार त्या जाग्याची माया लागता."

असो सिध्दांत मानतलो साधू परत मेळप कठीणच आसलें. ऋषीकेशाक पावलो आनी विराटान खूबशे आस्रम पळयले. खूब जाणांक त्या साधूविशीं विचारलें. पूण कोणेंच ताका सारकी जाप दिली ना.

सुरवेचे दोन दीस तो एके धर्मशाळेंत रावलो. हेर यात्रेकरूंसारकोच, पूण उपरांत ताका दिसलें, भोंवतणच्या गलिच्छ वातावरणांतल्यान वयर सरतलो जाल्यार आपणाक संन्यास घेवचो पडटलो. चिखलांतल्यानच कमळ वयर सरता, तसो म्हेळे जिणेंतल्यान आपलो एक नवो आविष्कार जावं येता.

शाराभायर कुशीक दोंगराचे देंवतेर, गंगेचे देगेर, एका झाडा मुळांत ल्हानसो आस्रम आसा. भायरच एक योगी ध्यानस्थ बसला. अचकित एक सवणें आयलें आनी त्या साधूच्या खांदार बसलें. साधू ध्यानस्थ. सवणें चिंवचिंवलें. दुसरें सवणें येवन दुसऱ्या खांदार बसलें. मागीर पांच-स सवणीं थंय जमलीं. साधू हालना, धोलना. पयसुल्यान हो देखाव पळयतल्या विराटाक दुबाव आयलो, हो खरेलो साधू, काय साधूचें बावलें?

ल्हवू ल्हवू पावलां उखलीत विराट लागीं आयलो. घडये तागेली जाग सवण्याक लागली आसूं ये. तीं भुर्र करून उडून गेलीं. तरी साधून दोळे उकते केले नात.

विराट कुशीक बसून रावलो. जो आश्रम अशें ताणें मानिल्लें, तो खरेपणी एक तंबू आसलो. भितरले वाटेन नदर व्हरून अदमास घेतलो. भितर कांय ना. एक रिकामो तंबू.

केदो वेळ विराट बसून रावलो ताकाच खबर. बऱ्या वेळान साधून दोळे उकते केले आनी कुशीक बशिल्ल्या विराटाचेर नदर वतकच तकली हालोवनच ताका लागीं आपयलो.

"कितें सोदूंक हिमालयांत आयला?" साधून ताका शुध्द हिंदींत प्रस्न केलो.

हिंदी भाशेची थोडी संवकळ जाल्ल्यान विराटान हिंदींतच जाप दिली, "मनःशांती."

"ती हिमालयांत आसा?" साधूलो खोंचक प्रस्न. "मन तुजें. तूं वता थंय तें घेवन वता. हिमालयांत आयलो म्हणून तें बदलचें ना. शांती मेळोवपाची शक्त मनाकडेन आसली जाल्यार तूं रावता थंयच ती मेळूं येता. खंयचो तूं? करता कितें? आनी तुजें घडलां कितें?" साधूले प्रस्नाचेर प्रस्न आयकून विराट ताका पळयत रावलो. जाप कशी दिवची हें येवजितां येवजितां ताका उतरां सुचलीं नात.

साधूक दिसलें, ताका हिंदी समजना आनी तोच प्रस्न ताणें इंग्लीश भाशेंत विराटाक

विचारलो.

"म्हाका प्रस्न समजले." विराटान म्हळें.

ताणें साधूक आपली खबर सांगली.

"तुवें सगलें सांगलें ना. जें लिपयलां ताजो भार तुज्या मनाचेर उरलो जाल्यार तुका मनःशांती कशी मेळटली? जें कितें सांगपाचें आसा तें सगळें सांगून उडय. तुजें मन रितें कर. मागीर पळय, धुल्ल्या आयदनाभाशेन तें निर्मळ जातलें."

आपले डायरेंत विराट बरयताः "त्या दिसा हांवें त्या अनोळखी साधूक म्हजी सगळी कथा सांगली. म्हजी व्यथा आनी विकृती ताका लिपयली ना. म्हज्या पातकांची कबुली दिली आनी खऱ्यांनीच म्हाका ल्हव दिसलें. वस्त्राचेर पडिल्लें खत धुवन उडयिल्ल्याचें समाधान म्हाका मेळ्ळें."

विराटाली सगळी खबर आयकून घेतकच साधून म्हळें, "इतलेंच घडलें आनी तूं हिमालयांत आयलो? अशें सगळयांकच घडटा. अजून विचार कर. वकिलीच्या वेवसायाक प्रतिशठा आसा आनी जोडय बरी आसता. तूं तरुण आसा, सुंदर आनी हुशारय आसा. तुका अजून बरी बायल मेळूं येता. सुखाचो संवसार तूं चलोवंक पावतलो. तेन्ना तूं परत वच... संन्यासाची खडतर वाट तुका परवडची ना."

"ना. म्हजो निश्चय पक्को आसा." विराटान जाप दिली, "हांव सध्या तरी परत वचचो ना. म्हाका म्हजी आध्यात्मीक शक्त वाडोवपाची, दैवी गिन्यान मेळोवपाची प्रबळ इत्सा आसा. शिष्य म्हणून म्हजो स्विकार करात." अशें सांगून विराटान आपली तकली साधूच्या पांयांचेर दवरली.

साधून आपले पांय फाटीं काडले आनी म्हळें, "हें तूं कितें करता? तूं म्हजो शिष्य जावंक सोदता. पूण तूं म्हाका खंय वळखता? तुजी म्हजी वळख ना देख. तेन्ना तूं पिशेपणां करूं नाका. म्हाका शिष्य घेवचेलो ना."

तरी विराट जुमानलो ना. हट्ट घेवनच बसलो.

"तूं इतलो हट्ट करता जाल्यार हांव तुका शिष्य म्हणून स्विकारूंक तयार आसां." निमाणें साधून जाप दिली, "पूण म्हज्या सांगातान रावपांत एक भिरांत आसा. खंयच्याय खिणाक पोलीस येवन म्हाका धरून व्हरीत आनी म्हज्या सांगातान तुकाय व्हरीत."

विजेचो शॉक बसचो तशें विराटान आंग काडलें आनी अजापान साधूच्या तोंडाकडेन पळयलें. साधूचें तोंड आदलेवरीच निर्विकार आसलें.

विराटाक ओगीच एक दुवाव... ड्रग्जच्या धंद्यात बी हो साधू घुसपल्लो ना मूं? तरी आपणाक सांबाळून, सावरून विराटान साधूक विचारलें, "पोलीस? पोलीस कित्याक तुमकां धरतले?"

साधू हांसलो.

"तुवें तुजी खबर सांगली. आतां म्हाका म्हजी सांगची पडली... हांवें एक खून केला!" ताणें म्हळें.

विस्मीत मुद्रेन विराट साधूकडेन पळयत रावलो.

ना, तो मस्करी करिना.

साधून फुडें सांगलें, "हांवें म्हजे प्रेयसीच्या घोवाचो खून केल्लो. तो पचलो ना, देखून पळून हिमालयांत आयलां."

"म्हाका ही खबर सांगतना तुमकां इल्लोय भंय कसो दिसलो ना? हांव पोलिसांतलो मनीस आसूं येता, असो दुबाव तुमी कित्याक घेतलो ना?"

"तुजो गैरसमज जाला." साधून म्हळें, "जेन्ना खून केलो तेन्ना... चाळीस वर्सां जालीं हे गजालीक... हांवें जिवाच्या भंयान हे कफनेचो आदार घेतलो. हांव एका कॉलेजांत तत्त्वज्ञानाचो प्रोफेसर आसलों. राजस्थानांतल्या एका संस्थानांत तें कॉलेज आसा. हांव थंय शिकयतालों. खून करतना म्हाका दिशिल्लें कीं खून पचतलो."

"पूण ती प्रेयसी कोण? कोणाचो खून केलो तुमी?"

"खून संस्थानिकाच्या पुताचोच केलो. राजकुंवराचो. ताजी बायल, जी फाटींफुडें त्या संस्थानची महाराणी जावं येताली, तिज्या घोवाचो."

"म्हळयार ती महाराणी तुमचेर प्रेम करताली?"

"हय! आपले बायलेन इंग्लीश भाशेचेर प्रभुत्व मेळोवचें आनी देश-विदेशांतल्या व्हडल्या व्हडल्या फुडाऱ्यांचेर प्रभाव घालचो असो त्या राजकुंवराचो हावेस आसलो. ते खातीर तो आपले बायलेक इंग्लीश शिकोवंक सोदतालो. युरोपियन चाली-रिती तिणे शिकून घेवच्यो अशें ताजें सपन आसलें. हांव इंग्लंडाक शिक्षण घेवन आयिल्लों देखून तिका इंग्लीश भाशेचें आनी चाली-रितींचें शिक्षण दिवपाचें काम राजकुंवरान म्हजेर सोंपयिल्लें."

साधू थांबलो. उप्रांत तकली हालोवन फुडें उलोवंक लागलो. "तेन्ना म्हजी पिराय अठ्ठावीस वर्सांची. राजकुंवरनी - त्याच नांवान तिका सगळे वळखताले- मूळ बनारसची. हिंदी बगर तिका दुसरी भास येना आसली. तिची पिराय सतरा अठरा वर्सांची आसूंये. तिच्या मानान राजकुंवर तिशी हुपिल्लो जाण्टो. शिकवणी दिवंक हांव राजमहालांत वतालों. थंय आमचें प्रेम जुळळें...एक दीस अचकित राजकुंवर कुडींत भितर सरलो तेन्ना ती म्हज्या गोपांत आसली... म्हजो फुडार कितें तो म्हाका समजल्लो. हांवें थंयच ताची गची आंवळून जीव घेतलो. म्हजे नदरेन हांवें म्हजो जीव वाटायिल्लो... म्हाका दिशिल्लें, राजकुंवन्न म्हाका सांबाळटली. पूण भंयान कांचवेल्ले ते बायलेन घडिल्लें सगळें सांगून उडयलें..."

विराट अविस्वासान पळयत रावलो. साधून हांसत ताका विचारलें, "ही खबर आयकूनय तूं म्हजो शिष्य जावंक सोदता?"

"हय" विराटन जाप दिली.

साधून ताज्या माथ्यार हात दवरलो.



ऋषीकेशाच्या आश्रमांत गुरूली शिस्त खूबच कडक आसली. दीस शिंयाचे आसले तरी सकाळीं ब्राह्म म्हूर्तांचेर गंगास्नान करून येवपाचो गुरूचो आदेश आसलो.

आदल्या दिसा विराट उपाशींच उरिल्लो. आस्रम म्हणून जो तंबू कुशीक आसलो, त्या तंबूत एकूय आयदन ना. एके कुशीक गुरूली एक ट्रंक. ते ट्रंकेंत खूबशे ग्रंथ आनी थोडीं भगवीं वस्त्रां. दुसरें कांय ना.

गुरूली खबर आयकत सावन ताजे विशीं विराटाच्या मनांत एक दुबाव उपजल्लो. आपलें पातक लिपोवंक साधूचें सवंग घेतिल्लो हो मनीस आपले सारकोच अशें ताका दिसूंक लागिल्लें. पूण ल्हवू ल्हवू गुरूची योग्यताय ताका समजूंक लागली. एकाद्रो किचकट विशय सोपे भाशेंत गुरू ताका समजायतालो आनी तो उपदेश आयकतां आयकतां विराटाक नवें गिन्यान मेळिल्ल्याची खोशी जाताली.

पयल्याच दिसा तीनसांजच्या वेळार गुरून विराटाक सांगलें, "हांव रातीचो उपाशी रावतां. शरिराक थाकाय दिवंक गरज आसता ताजेपरस चड अन्न खावप हें पातक. पूण तुजी गजाल वेगळी. तुजो आयज पयलोच दीस. तुगेल्या देहाक दोन वेळच्या जेवणाची संवय आसतली. तूं बाजारांत वचून जेवन येतलो जाल्यार यो."

विराटाक भूक लागिल्ली. पूण आपलें दुबळेपण कबूल करूंक ताका लज दिसली. ताणें म्हळें, "हांवय एका जेवणाचेर दीस काडीन."

रातीकडेन शीं खूब पडलें. गुरून आपली ट्रंक उकती करून एक शाल ताका दिली. तरीकय विराट कुडकुडटालो.

फांतोडेचेर उठून गुरू व्हडान मंत्र उच्चारूंक लागलो तेन्ना विराटाक ताजो रागच आयलो.

मदींच गुरून ताका उलो मारलो आनी विराट उठून बसलो. कुडकुडत गंगेच्या घाटार तो गुरू फाटल्यान गेलो. गुरू न्हंयच्या पात्रांत देंवलो तेन्ना विराटाचेर व्हडलें संकट आयलें. उदकाक हात लावन ताणें पळयलें. थंडगार! शियाच्या कुडकुड्यांत थंड उदक कशें न्हातलो अशा विचारांत आसतनाच गुरून म्हळें, "वेळ वगडावं नाका. खूबशीं कामां करचेलीं आसात."

मनांतल्या मनांत फडफडत विराट गंगेंत देंवलो. दोन बुचकळयो मारतकच कुडकुडो थांबलो ना, तरी ताका माश्शें बरें दिसलें.

मागीर पाठ-पठण, ध्यान-चिंतन सारकिल्यो प्रवृत्ती सुरू जाल्यो.

पोटांत भुकेन कावळे रडटाले आनी गुरूची शिस्त कडक. भियेत खांकडेत विराट गुरूसरीं बसून रावलो. धा वरांच्या अदमासाक एक बायल आयली. जाणटी बायल. तिच्या सांगातान एक मनीस आयलो. तिणें येवन गुरूक नमस्कार केलो. उपरांत खीणभर विराटाकडेन पळयत रावली आनी ताकाय नमस्कार केलो.

तिच्या सांगातान आयिल्ल्या दादल्यान दोगांमुखार पानां दवरलीं. पानाचेर शिरो आनी बटाट्याची भाजी घाली. उपरांत रोटयो वाडल्यो. ती बायल परत गेली.

"ती कोण तें हांवं वळखना." विराटाल्या तोंडावयलो दुबाव पारखून गुरून ताका सांगलें, "कोण तरी भावीक बायल आसतली. अशे भक्त लोक साधूक हांगा जेवण पावयतात. नाय जाल्यार आमकां जल्माक घालतल्या देवानच केल्ली ही वेवस्था. तेन्ना तूं पोटभर जेवन घे. पूण एक कर. लोकांच्या विस्वासाक स्मरून तुजें वर्तन दवर."

सुरवेचे कांय दीस विराटान द्विधा मनःस्थितींत सारले. ताका घरची याद येताली. पूरबीक विसरून दिल्लींत रावप परवडलें अशेंय दिसतालें. संन्याशाची जीण अणभवली तितली पुरो, अशें तो येवजितालो. पळून वचपाचे विचार ताजे तकलेंत घोळटाले. पूण दर खेपे ताणें मनाचेर अंकुश दवरलो. देखून तो आठ म्हयने गुरूसरीं उरलो.

शिंयाचे दीस सोंपले, वयल्या वाठारांतलें बर्फ विरगळूंक लागलें, तशी हिमालयांतल्या यात्रेकरूंची संख्या वाडूंक लागली. विराट नव्या वातावरणांत रमलो.

गिमाचे दीस लागीं येवंक लागले. एक दीस गुरून म्हळें, "आतां तुज्या मार्गान तूं वच. तुजी साधना तुवेंच करूंक जाय. हांव तीर्थयात्रेक वतां."

"हांवय येतां." विराटान म्हळें.

"येतां म्हणूं नाका... वतां म्हण. ह्या संवसारांत तूं एकलोच आयलो; वतना एकलोच वतलो. खिणयाळ्या धिराखातीर सांगाताचें बंधन कित्याक घेता? हांव तुका व्हरना; तूं तुजे वाटेन वच. पूण म्हजें एक काम तुवें करूंक जाय."

"कसलें काम?" विराटान विचारलें.

"मातशें कठीण काम. केन्ना तरी तुवें राजस्थानांत पवनगिरी (मूळ संस्थानाचें नांव दिवचें न्हय इतलेच खातीर हें बदल्लां) संस्थानांत वचून थंयचे परिस्थितीचो अदमास घेवंक जाय. हांवें जिका विधवा केल्ली, ते रूपमतीची वासपूस करूंक जाय. आनी संद मेळ्ळी जाल्यार म्हजो एक रकाद तिका पावोवंक जाय."

"हांव तें काम कर्तव्याचे भावनेन करीन. पूण रकाद कसलो?"

"हांव सांगतां तें सारकें समजून घे." गंभीर तोंड करून गुरून म्हळें, "रूपमती ही तेन्ना तरुण आशिल्ली. राजघराण्यांतलीं बंदनां पाळटना, घोवाच्यो इत्सा भागयतना तिजो घुसमटमार जातालो. संस्थानिकांक बायल ही सोबेखातीर जाय आसता. त्या बायलांक मिरोवंक मेळळें वा मान मेळ्ळो तरी तांकां सुख मेळना. देखूनच रूपमती म्हजेकडेन आकृश्ट जाल्ली. पूण राजघराण्यांतले विधवेची जीण भयंकर आसता. म्हज्या फाटल्यान तिजें कितें जालां तें हांव नकळं. तिगेर भुरगें नासलें. देखून पुराय संस्थान निर्वंश जाल्लें आसूं येता. त्या पातकाचो धनी हांव. म्हजें मन म्हाका खाता. तिजी एक मुदी म्हजेकडेन उरल्या. तिणें आपलो उगडास म्हणून म्हाका ती दिल्ली. वासनेचें तें प्रतीक हांवें इतलीं वर्सां सांबाळ्ळें. आतां म्हज्या इंद्रियांचेर म्हजें पुराय नियंत्रण आयलां. देखून ती मुदी म्हाका धगधगत्या इंगळ्यावरी चावता. ती गंगार्पण करपाचें हांवें येवजिलें; पूण धीर जालो ना. ती मुदी तुवें तिका दिली म्हणटकच ती वळखतली. तिका पावय आनी सांग, म्हाका क्षमा कर. तिणें मनापसून म्हाका क्षमा केले बगर म्हज्या आत्म्याक सद्‌गती मेळची ना."

"पूण ती ह्या आदींच मेल्ली आसत जाल्यार...?" आपल्या मनांत आयिल्लो दुबाव विराटान उलोवन दाखयलो.

"तरी तुवें ती मुदी घेवन वचूंक जाय आनी ती मेळ्ळीच ना जाल्यार ती राजघराण्यांत पावती करूंक जाय."

"कोणें दिली म्हणून सांगपाचें?"

"तें तुजें तूं थाराय. तुजेर म्हजो विस्वास आसा. रूपमतीच्या बोटाक ही मुदी आसताली आनी ती म्हाका सांगताली कीं तसोच प्रसंग आयलो जाल्यार हे मुदयेचें वज्र गिळून आपूण आत्महत्त्या करतलीं. ल्हानसान गजालींक लागून ती म्हाका आत्महत्त्या करपाची धमकी दिताली. जिणेचो अणभव नाशिल्ली ती अल्लड चली अविचारान वागत ह्या भंयान हांवें एक दीस ही मुदी तिजेकडच्यान मागून घेतली.

तिणें म्हळें, 'ही मुदी तुका सदांकाळ म्हजी याद दितली.' संन्यास जिणेंतय ह्या बंदनाचे हुलप हांवें सोंसले. आतां हांव बंदनमुक्त जावंक सोदतां. ही मुदी तिका परत पावोवंक जाय... निदान त्या घराण्यांत ती परत वचूंक जाय."

गुरून आपली ट्रंक उकती केली. मुदी काडून विराटाच्या हातार दवरली.

मुदयेंतलें वज्र चकचकलें. विराटान ती मुदी आपल्या भगव्या वस्त्रांत गुठलावन गांठ मारली.

"आयज म्हजें मन ल्हव जालां. ही ल्हानशी मुदी खरी, पूण मणभर वजनाचे शिळेचें चेपण म्हज्या मनाचेर इतलीं वर्सां उरलें."

दुसऱ्या दिसा ब्राह्म म्हुर्ताचेर गुरू सदचे भाशेन उठलो. गंगास्नान केलें आनी विराटाक म्हळें, "हे ट्रंकेंत पुस्तकां आसात. जाय जाल्यार सगळींच तुका व्हर. ना जाल्यार तुका जाय तीं दवरून उरिल्लीं शारांतल्या ग्रंथालयांत व्हरून पावय."

गुरू हिमालयाची उंचाय चडूंक लागलो. केदो वेळ मेरेन विराट आपली नदर थिरावन गुरूकडेन पळयतालो. पूण गुरून एकूय वेळ नदर फाटल्यान घुंवडायली ना.

तंवूंत येवन विराटान ट्रंक उक्ती केली. पत्र्याची ट्रंक कळमेवन गेल्ली. भितर धा-वीस पुस्तकां आनी एक शाल. धर्म, अध्यात्म, आनी शास्त्रांवयले ग्रंथ.

गुरूची याद म्हणून तीं पुस्तकां दवरचीं अशें विराटाक आदीं दिसलें. पूण उपरांत त्या वजनाचो भार नाका अशें येवजून विराटान तीं पुस्तकां व्हरून ग्रंथालयांत पावयलीं.

गुरूक पोलिसांचो हुस्को आसलो. पूण विराटाक तसलो हुस्को नासलो. परत दिल्लीक वचपाचो विचार ताज्या मनांत येतालो आनी दर खेपे तो विचार तो तकलेंतल्यान काडून उडयतालो. ताणें थारायलें, गुरूचो आदेश आदीं पाळचो आनी उपरांत आंगावयलीं भगवीं वस्त्रां देंवोवन परत गोंयांत वचचें.

हिमालयाच्या पांयांकडेन उबो रावन विराटान भक्तीभावान त्या नगाधिराजाक नमस्कार केलो आनी आपले पोतयेंतले पैशे काडून मेजले. ताजें ताकाच अजाप जालें. दोनशें रुपया आनी थोडीशी मोड आसली. तितल्या पैशांनी राजस्थान मेरेनचो प्रवास करूंक अडचण नासली.

पूण राजस्थानांत पवनगिरी संस्थान खंय आसा? ताणें पर्यटन खात्याचे कचेरेचो आदार घेवनच फुडलो मार्ग धरपाचें थारायलें.

❋

पवनगिरी संस्थानांत वचचे खातीर जयपूर स्टेशनाचेर विराट देंवलो आनी ताणें पवनगिरी संस्थानांत वचपाची वाट कोणाक तरी विचारली.

भगवी कफनी, गळयांत रुद्राक्षाची माळ, कपलाक भस्म सारयिल्ल्या ह्या साधूकडेन त्या मनशान आदरान पळयलें आनी जाप दिवचे आदीं ताज्या पांयार तकली दवरली.

आंगांत शेरवानी घाल्लो आनी माथ्याक धवी तोपी घाल्लो तो एकाद्रो मारवाडी व्यापारी कसो दिसतालो. पिरायेन जाणटेलो. ताज्यो पिकिल्ल्यो मिश्यो आनी कांपरो आवाज त्या मनशान सत्तरी वलांडल्या हे विशीं दुबाव दवरिना आसलो.

"हांगाच्यान तीन खेपे बस बदलची पडटली. पवनगिरी हें एक ल्हानशें संस्थान.

थंय तुमी कोणाक मेळूंक वतात?'' त्या म्हाताऱ्यान विचारलें.

''काम अशें कांय ना.'' परक्याक सगळें कित्याक सांगू या अशें येवजून विराटान म्हळें, ''संस्थानाचें नांव आयकून आशिल्लों. एक खेपे पळोवया अशें येवजून हे वाटेन आयलां. म्हाका मातशी वाट सांगात.''

''तुमच्या सारक्या साधू मनशाक बरीन वचूंक कशें सांगूं? तुमकां अडचण नासत जाल्यार म्हज्या सांगातान येयात.''

''बरीन वचपाक करालीच अडचण ना. आमी पांयांनी भोंवपी संन्यारी'' विराटान म्हळें, ''पूण तुमी जर थंयच वचपाचे आसत, जाल्यार हांव तुमच्या सांगातान व्हड खोशयेन येन. पूण म्हजेखातीर तुमी मुजरत पवनगिरीक येवचें अशें हांव म्हणिना...''

''अडचण कसलीच ना, स्वामी.'' नम्र सुरांत त्या म्हाताऱ्यान म्हळें, ''हांव पवनगिरीचो दिवाण. संस्थानची गाडी भायर आयल्या. तुमी म्हज्या सांगातान पवनगिरीक येयात आनी तुमकां जाय तितले दीस संस्थानचे सोयरे म्हणून रावात.''

विराट विरमीत जालो. तागेली फुडली वाट सोपी जाल्ली.

एक पोरन्या मॉडेलाची ब्यूक गाडी भायर उबी आसली. नंबर प्लेटीचेर पवनगिरीचें नांव आसलें. गणवेश घाल्लो एक ड्रायव्हर आनी हातांत तुवक घेतिल्लो एक शिपाय फुडल्या सिटार बशिल्ले. फाटल्या सिटार साधू आनी दिवाण वराले.

''तुमी प्रवासाक वतना सदांच तुमच्या सांगातान पोलीस आसता?'' विराटान दिवाणाक विचारलें.

''आमचें संस्थान केदेंशें- पूण आयज म्हजेकडेन थोडे पैशे आनी हेर गरजेच्यो वस्तू आसात. ह्या वाठारांत राखण जाय पडटा.'' दिवाणान सांगलें आनी एकदम तोंड बंद केलें.

विराट समजलो आनी तो विशय ताणें परत काडलो ना.

शारांतल्यान गाडी भायर आयली आनी राजस्थानी रेंवटाचो दिश्टावो विराटाक घडलो. सगळेकडेन रेंवच रेंव. मैलांचे मैल नदर लांवयली तरी एकय रूख दिसना. सगळें उजाड रण. माथ्याक फेटे आनी आंगाक चोळे बांदिल्ले मनीस. केन्ना पांयांनी चलतना जाल्यार केन्ना उंटाक घेवन वतना दिसताले. मदींच वारो व्हांवतालो आनी वाऱ्यान रेंव उडटाली. थोडो वेळ वातावरणांत रेंव उरताली.

''हांगा अशेंच आसता. देखून गाडयेचे हारशे बंद दवरचे पडटात.'' दिवाणान म्हळें.

गोंयांत आनी हिमालयांत झाडां आनी दोंगर पळोवपाची संवंय जाल्ल्यान विराटाच्या दोळ्यांक हें उजाड वाळवंट विचित्र दिसलें.

सुमार तीन वरां उपरांत एक गांव लागलो. थंय चार दोन झाडां, थोडींशीं घरां. ड्रायव्हरान गाडी थांवयली. बोनेट उकतें केलें. गाडी तापिल्ली.

''आमी हांगा थोडो वेळ उरतले. दूद, ताक वा फराळ घेवपाचो आसल्यार हांगा घेवं येता.'' दिवाणान विराटाक सांगलें.

विराट सकयल देंवलो. कुशीच्या झाडा मुळांत चार-पांच खाटी. कडेक एक घर. तेंच च्यावें दुकान. दिवाण आनी विराट लागसार येतात तें पळोवन खाटीचेर बशिल्ले लोक उठले आनी कुशीक वचून उबे रावले.

विराटान उदक मागून घेवन तोंड धुलें आनी एक घोंट घेतलो. अळणी उदक. तरी तो कांय उलयलो ना.

दूद आनी केळीं आयलीं. तितल्यान विराटाची भूक भागली. त्या वाठारांत लोक साधूकडेन खूबच आदरान पळयतात म्हणपाचो अणभव ताका आयलो. एक बायल ल्हान भुरग्याक घेवन आयली आनी ताका विराटाच्या पांयांर घालून घेवन गेली. साधू जिणेचे विराटाचे हे पयले अणभव.

पूण विराट एका कामाखातीर आयला. ताणें कफनीत घडी करून घाल्ल्या वस्राक हात लावन बांदिल्ली वज्राची मुदी सांसपून पळयली.

गाडी परत सुरू जाली आनी विराटान दिवाणाक म्हळें, "म्हाका तुमच्या संस्थानाविशीं थोडें कित्याक सांगिनात?"

"आमचें संस्थान ल्हान. आतां भारत सरकाराचें नियंत्रण आयलां. पूण एका काळार ह्या संस्थानाक खूब मान आसलो. राजस्थानच्या वाळवंटामदीं आमचें संस्थान म्हळयार एक पिकाळ वाठार. मदीं एक दोंगर आसा. त्या दोंगराचेर राजवाडे, बंगले, दरबार बी सगळें आसा. दोंगराच्या मुळांत गांव वसला. गांवांत एके कुशीक एक व्हड तळें आनी तळया भोंवतणी शेतां. शेताचे धडेर एक बांद, जाचेर तरेकवार रूख. फुडें सगळें रेंवट. नदरेच्या आंवाठांत भरत इतलें ल्हान आमचें संस्थान. राजवाड्याचे फाटले वाटेन दाट रानाचो एक दोंगर आसा, तोय संस्थानाचोच भाग." दिवाणान थोडे भितर संस्थानाचें चित्र विराटाच्या दोळयांमुखार उबें केलें.

मुख्य विशयाक सुरूवात कशी करची हें येवजीत विराटान विचारलें, "गांवांत धर्मशाळा वा आस्रम बी कितें आसा?"

"आमच्या संस्थानाचें एक अतिथीघर आसा. तातूंत तुमची वेवस्था जातली. गांवांत दुसरी धर्मशाळा ना. हॉटेल लेगीत ना."

"महाराज सध्या खंय आसतात?' विराटान सरळ प्रस्न विचारलो.

"महाराजांची पिराय ल्हान आसा. फकत तीन वर्सांची." दिवाणान सांगलें, "सध्या महाराणी कारभार चलयता."

"कोण महाराणी? रूपमती?" अचकित विराटाच्या तोंडांतल्यान प्रस्न भायर सरलो.

"न्हय; पूण एक सांग, राजमातेक तूं खंय वळखता?"

विराटाक जाप सुचली ना. तो येवजूंक पडलो, राजमाता आनी महाराणी हांतलो फरक कितें हेंय ताका सट करून समजलें ना. ताणें म्हळें, "महाराणी रूपमतीचें नांव हांवें आयकल्लें. तुमी राजमाता म्हणटात त्यो त्योच मू?"

"हय, हय." दिवाणान म्हळें, "सध्या जे महाराज आसात, ते तांचे नातू."

विराटाक बोध जालो ना. तागेल्या गुरून ताका सांगिल्लें, राणी रूपमती विधवा जाल्या. ल्हान पिरायेचेर विधवा जाल्ली राजघराण्यांतली सून परत दुसरें लग्न करपाची शक्यताय नासता, इतलें ताका खबर आसलें. राजघराणें जेन्ना निर्वंश जाता, तेन्ना कितें करतात तें ताका सारकें खबर नासलें. पूण ते विशीं सरळ प्रस्न विचारल्यार दिवाणजीक दुबाव येत अशें येवजून विराट ओगी रावलो. पयसुल्यान झाडां दिसूंक लागलीं. क्षितिजाचेर काळे निळे दोंगर नदरेंत भरूंक लागले. गाडी पवनगिरीच्या लागीं

पावल्या इतलो अदमास विराटान केलो.

"जमलें जाल्यार म्हाका राजवाडो पळोवचेलो आसा." विराटान दिवाणाक सुचयलें.

"बरे भाशेन." दिवाणान म्हळें, "आयजच तुमी आयिल्ल्याची खबर राजमातेक दितां. घडये राजमाताच तुमच्या दर्शनाक येतल्यो. पूण एक सांगात, तुमचेविशीं तुमी कांय सांगलें ना."

"संन्यासी हीच आमची वळख. हांव कितें सिध्द पुरूष न्हय. गुरूचे आज्ञेन आध्यात्मीक साधना सुरू केल्या. सध्या देशाटनाचो कार्यक्रम हातांत घेतला. म्हज्या गुरून म्हाका सत्यानंद हें नांव दिलां. इतली वळख पुरो ना?" विराटान विचारलें.

"पुरो, पुरो." दिवाणान म्हळें, "तुमची हिंदी भास मातशी वेगळी दिसता. तुमी मूळ बंगालचे बी?"

"न्हंयचें मूळ आनी साधूचें कूळ सोदपाचो प्रयल कोणें करचो न्हय, अशें म्हणटात तें तुमी जाणातच आसतले." विराटान हांसून म्हळें.

आनी तितल्यानच दिवाण शिटकावलो.

"हय, हय. म्हजी चूक जाली." दिवाणान म्हळें.

तळयाचे देगेवयल्यान गाडी वतना विराटाले दोळे आनी मन सुखावलें. एक्रा वेगळयाच संवसारांत तो पाविल्लो. सैमाची पाचवी अप्रुपाय ताका ह्या वाठारांत पयलेच खेपे दिसताली. तळयाचेर कांय बायलो ओलीं उंबळटाल्यो... आयदनां घांसताल्यो. तळें दाव्या हाताक दवरून एक डांबरी रस्तो दोंगराचेर चडटालो. त्या रस्त्यान गाडी वयर चडली आनी एक व्हडली गेट लागली. पहारेकऱ्यान राजवाड्याची गाडी पळोवन गेट उकती केली आनी कुशीक उबो रावन दिवाणाक सलाम केलो.

अर्द दोंगर चडटकच गाडी उजव्यान मातयेच्या रस्त्यार घुंवली आनी अतिथी- घरा मुखार उबी रावली.



अतिथीघरांत कुशीक एक कूड आसली. विराटाची थंयच वेवस्था केली. जमनीचेर भगव्या वस्त्राचें कालीन पातळायलां आनी वणटीक तेंकोवन एक बैठक, जिचेर वाघाचें चामडें. कुडींत दुसरें कांय ना. विराट ते बैठकीचेर बसलो तेन्ना मुखावयले वणटीचेर रंगयिल्ल्या ॐ ह्या अक्षराचेर ताजी नदर थिरावली.

"तुमी विसव घेयात; हांव वचून येतां." अशें म्हणून दिवाण गेलो.

दनपारचो वेळ. विराटाक भूक लागिल्ली. दूद, केळीं जिरून गेल्लीं. एका जेवणाचेर दीस सारपाची ताका संवय आसली तरी प्रवासांत ताणें दुसरें कांयच खावंक नासलें.

तो उठलो. भितरले वाटेन दुसरी कूड. ते कुडींत एक खाट आनी हांतूण. कुशीक बाथरूम. दीसपट्टी ही कूड झाडटात जावंये अशें ताका दिसलें. तितली ती निवळ आशिल्ली.

अचाकित ताजी नदर कोनशाक दवरिल्ल्या माठाकडेन गेली.

ताणें पळयलें, मातयेचो माठ, ताजेर तांब्याचो चकचकीत पेलो. आजच घांसून पुसून दवरिल्ल्या सारको तो चकचकतालो. वयर मातयेचें धांकणें. तें काडून पळय जाल्यार एक धवें फुल्ल वस्त्र माठाच्या तोंडार धांकलां.

माठ उदकान भरिल्लो. भायल्या धगामदीं त्या उदकाची शीतळसाण घेवची अशें येवजून विराटान माठांत तांबयो बुडयलो आनी शीतळ उदक पिवन घेतलें. उदक रुचीक आसलें.

आतां दुसरें काम कांय नासलें. कुडीच्या जनेलांतल्यान राजवाड्याचो भाग दिसतालो आनी नदर लांबयत तो मेरेन दोंगरी रान.

थोडो वेळ सैमाची सोबा पळोवन घेतकच विराट खाटेचेर न्हिदलो. प्रवासान ताजें आंग शिणिल्लें. आदले रातीकडेन ताका सारकी न्हीदय लागूंक नासली. कुडींत विजेचो पंखो आसलो; ताजेर नदर वतकच तो ताणें सुरू केलो आनी परत येवन न्हिदलो. थंय ताजो दोळो लागलो.

विराटाक जाग आयली तेन्ना काळोख जाल्लो. ताजेकडेन एक घडयाळ आसली. पूण ती बंद पडल्यार खूब दीस जाल्ले. वरां समजुपाक मार्ग नासलो. तो उठून भायले कुडींत आयलो. आनी ताका अजाप जालें.

बैठकीचे कुशीक एक टिपॉय क्रोणें तरी हाडून दवरिल्लो आनी त्या टिपॉयचेर फळां. तांचेर तुवालो धांकिल्लो. तुवालो काडून ताणें फळां पळोवन घेतलीं आनी कुडींचें दार उकतें करून तो भायल्या व्हारांदांत आयलो.

भायर एक मनीस बशिल्लो. विराटाक पळोवन तो उबो रावलो. पयसुल्यानच नमस्कार केलो आनी विचारलें, "दिवाणाक आपोवं?"

"आतां नाका. फाल्यां पळोवया. एक सांग, वरां कितलीं जालीं?"

विराटाचो प्रस्न तोंडांतच आसतना खंय तरी पयस घांटी वाजल्यो. विराटान ठोके मेजले. धा वरां जाल्लीं.

"त्यो घांटी खंय वाजल्यो?' ताणें विचारलें.

"वरा-वराक घांटी वाजतात. ही घांट राजमहालाच्या आंगणांत आसा." त्या मनशान जाप दिली

"दिवाण खंय रावता?"

एका पयसुल्या बंगल्याकडेन बोट दाखोवन त्या मनशान म्हळें, "तो केदो वेळ बसून गेला. तुमी उठना फुडें आपणाक आपय म्हणून सांगून गेला. तुमची आज्ञा आसत जाल्यार ताका आपोवं?"

राजघराण्यांतल्या चाकरांची नम्र भास विराटाक मानवली आनी आपणाक इतल्या आदरान वागयतात जाल्यार आपली भास लेगीत भारदस्त उरूंक जाय अशें ताका दिसलें.

"आपय." ताणें म्हळें, "हांव आतां न्हिदून उठलां. दिवाणय प्रवासांतल्यान आयला. तो न्हिदिल्लो आसल्यार मात उठोवं नाका."

तकली हालोवन तो गेलो.

व्हारांदांत उबो राविल्ल्याकडच्यान विराटान पवनगिरीची सोबा पळयली. पुराय अतिथीघरांत दुसऱ्या कोणाचीच जाग नासली. रातकिड्यांचो आवाज आनी पयस पयस घरांनी पेटिल्ले काजुले कशे दिवे तितले कानांत, दोळ्यांत भरताले. मनशाचो आवाज येना आसलो. दुसरी एक गजाल नदरेंत भरताली. ती म्हळ्यार दोंगराच्या तळाक सावन

जो रस्तो राजवाड्यांत वता, त्या रस्त्याचेर दिवे पेट्टाले.

विराट भायले देखावे नियाळटासर दिवाणजी आनी ताज्या सांगातान दोग चौग जाण येवन पावले.

दिवाणजीक घेवन विराट भितरले कुडींत गेलो आनी दुसरे लोक भायरच रावले.

"तुमी खूब न्हिदले." दिवाणान म्हळें, "हांव तीन खेपे येवन गेलों. फळां आदींच धाडिल्लीं. तुमच्या जेवणाची वेवस्था करूंक जाय आसली. तुमी कसले तरेचें जेवण जेवतले तें आदीं सांगात. मागीर हेर गजाली उलोवं येतात."

"कितेंय जाता. रोटी-सब्जी, दाल-चावल... बस्स. म्हाका अमूकच वस्त जाय अशें ना. ह्या अतिथीघरांत हांव एकलोच दिसता?"

"हय. सध्या तरी दुसरो कोण ना. आनी खरें सांगतलो म्हळयार हालीं ह्या वाठारांत कोणच येना. तुमची ही कूड फकत साधू-संन्याशांखातीरच दवरल्या. हेर कुडींनी दुसरे पावणे रावतात." दिवाणान सांगलें.

"तें पळयना फुडें म्हाका समजलें. पूण दुसऱ्या कुडींनी कोण आसा?"

"कोण ना." दिवाणान म्हळें, "पूण आमचे चाकर आसात. तुमी तुमकां जाय तें मागून घेवपाचें. तुमचे कुडींत खाटेचे वयर बेल आसा. आतां तुमचे खातीर कितें मागोवं?" अशें म्हणून दिवाणान भायल्यान आयिल्ल्या एकल्याक भितर आपयलो आनी ताका विचारलें, "जेवण तयार आसा?"

"शीत आनी ताकाची कडी, वालांची भाजी तयार आसा. पापड रोखडे मेळटले. रोटी करतां..." ताणें जाप दिली

"इतलें सगळें नाका" विराटान म्हळें, "फक्त शीत आनी कडी पुरो. एक पापड हाड."

तो चाकर काय रांदपी? कोण आसत? तो भितर गेलो.

"फाल्यां सकाळीं राजमाता तुमकां मेळूंक येतल्यो." दिवाणान विराटाक सांगलें.

आंगाचेर भगव्या वस्त्रांचें कवच आसतनाय विराट कांचवेलो. कितें उलोवचें तें ताका समजलें ना. एका संस्थानची राजमाता आपणाक मेळूंक हांगा येतली ही कल्पनाच ताका कशी तरी दिसली. पूण दुसरें कांय उलोवप आपल्या भगव्या भेसाक आनी साधुत्वाच्या धर्माक सोबचें ना, असो एक विचार ताजे तकलेंत येवन गेलो. देखून तो कांय उलयलो ना.

"कितल्या वरांचेर राजमातेन आयल्यार जाता?" दिवाणानच विचारलें.

"केन्नाय. हांव ब्राह्ममुहुर्ताचेर उठून सकल्या तळयार वचून न्हावंक सोदतां. उपरांत थोडो वेळ ध्यान. सात वरां उपरांत केन्नाय राजमातेन येवचें." विराटान सांगलें. आनी थोडो वेळ येवजिल्ले भाशेन करून विचारलें, "एक सांगात दिवाणजी, राजमातेविशीं वा राजघराण्याविशीं तुमी म्हाका कांयच सांगलें ना."

"राजमाता खूबच कर्तुत्वी बायल. बनारसाक सावन सून जावन ह्या घरांत आयल्यो तेन्ना खूबशा संस्थानिकांक आमच्या राजकुंवराचो मत्सर दिसूंक लागलो. इतल्यो सुंदर त्यो आसल्यो. आजय केंस पिकले तरी राजमाता सुंदर दिसतात."

फुडलें खूबशें विराट जाणा आसलो. पूण ताका दिवाणाच्या तोंडान तें आयकुपाचें

आसलें. देखून ताणें विचारलें, "राजमातेक एकूच पूत आसलो?"

हात जोडून दिवाणान तकली सकल घाली आनी म्हळें, "जें गांव जाणा, तें साधूपसून कित्याक लिपोवं?... राजमाता ही बालविधवा. खरेंच लोकांची दिश्ट तांकां लागली. आंगावयली हळद देंवचे आदींच अनर्थ घडलो."

"आनी तांचो नातू...?" प्रस्न कसो विचारचो तें विराटाक कळळें ना.

"सगळी खबर मागीर केन्नाय सांगतां. पूण इतलें खरें कि तांणी राजघराण्यांतलोच एक भुरगो पोसको घेवन राज्य कारभार चलयलो. ताजें लग्न केलें. आपल्याच भावाली धूव सून म्हणून घरा हाडली. नक्षत्रासारकी सुंदर चली. इंग्लंडाक शिकताली. इल्ली आधुनिक वातावरणांत वाडिल्ली. ती महाराणी जावन ह्या घरांत आयली. आनी कितें सांगूं? ह्या घरांत पावनाफुडें तिगेलोय कुकूम पुसलो. सध्या राजकुंवर आसा तोय पोसको... देवाची इत्सा. मांय विधवा आनी सूनय विधवा."

विराट गंभीर जालो. मांय कशी विधवा जाल्ली तें तो जाणा आसलो. सून कशी विधवा जाली तें ताका खबर नासलें. पूण दिवाणाकडेन चड उलोवप ताका समा दिसलें ना. ताणें मनांतल्या मनांत येवजिलें, ह्या राजघराण्याचो प्रस्न म्हाका सोडोवचेलो ना. लंकेक गेल्ल्या मारुती भाशेन गुरून दिल्ली मुदी रूपमतीकडेन पावोवप हें म्हजें काम. सकाळच्या वेळार ती आयली जाल्यार दनपारच्या वेळार तो परतूंक शकतालो.

एक चाकर जेवण घेवन आयलो. ताज्या सांगातान आयिल्ल्या दुसऱ्यान पाट-ताट मांडलें. दिवाण निरोप घेवन भायर गेलो.

जेवण सादें, पूण रूचीक आसलें. तृप्त मनान विराट जेवलो आनी उपरांत भायल्या व्हारांदांत पासयो मारीत राजघराण्याच्या दुर्देवाचो विचार करूंक लागलो.



फांतोडेचेर विराट उठलो तेन्ना उदेन्तेकडल्या क्षितिजाकडेन चंद्रकोर पुराय तेजान चकचकताली आनी मळबाच्या घुमटांत नखेत्रां लिकलिकतालीं. उदेन्तेवटच्यान तांबडें लेगीत फांकारूंक नासलें.

सकाळच्यो विधी तळयार वचूनच उलगुच्यो आनी न्हावन धुवन परत येवचें अशें येवजून विराट डांबरी रस्त्यान विजेच्या दिव्यांच्या उजवाडांत दोंगर देंवलो.

जेन्ना तो तळयाच्या घांटाचेर पावलो, तेन्ना थंय मनशाची एक आकृती पळोवन ताका अजाप जालें. असल्या वेळाचेर दुसरो कोण तळयार आयलो, असो ताका प्रस्न पडलो.

मंद पावलां उखलीत तो आकृतीसरीं आयलो. तळयाचे देगेर विजेचे दिवे नासले; पूण अस्तमत्या चंद्राच्या चान्यांत आतां ती आकृती सारकी दिसली.

आपणाक कोण पळयना हे भावनेन हुसक्या मेकळी एक बायल आंगावयलीं वस्त्रां सोडोवन तांबयांनी न्हाताली.

कितें करचें तें विराटाक समजलें ना. फाटीं सरून पलतडच्या घाटार वतलो म्हळ्यार उणेंच मैलभर चलचें पडटलें आनी तिजें न्हाण सोंपसर कुशीक उबो रावतलो म्हळ्यार कोणय आपलेविशीं गैरसमज करून घेत अशें भंय ताका दिसलें.

परत अतिथीघरांत वचचें आनी आयचें न्हाण कुडींतच करचें अशें येवजून तो

परततासर ते बायलेची नदर ताजेर पडली आसूं ये.

बेगिबेगीन तांबयो सकयल दवरून तिणे ओलें वस्त्र आंगार घेतलें आनी भियेल्लेभाशेन प्रस्न केलो, "कोण थंय?"

मोन्यांनी परतलो जाल्यार ही बायल दुबावानच बोवाळ करतली आनी आपणाचेर नसतो आळ येतलो अशें येवजून विराटान जाप दिली, "हांव साधू. हांव न्हावंक आयलां. तुगेलें न्हावन जातकच तूं वच."

विराट थंयच उबो रावलो. ते बायलेन ताकतिकेन आंगार घेतिल्लें न्हेसण सारकें केलें. तांबयो आनी एक कळसुली उदकान भरून घेतली आनी विराटासरीं येवन ताज्या पांयांर तकली दवरली.

"इतले रातीच्या वेळार तू हांगा न्हावंक आयिल्ली?" विराटान तिका विचारलें.

"उजवाड जातकच लोक येतात. म्हजेकडेन दुसरें वस्त्र ना..." आपलें दळीद्र आनी लाचारी एकाच वाक्यांत तिणें सांगून उडयली.

ती उबी रावली. नदर सकल करून. तरी तिची रसरशीत कांत ते अंधूक पसयेंतय विराटाचे नदरेंत भरली. कपल उकतें... घडये निकतीच न्हाल्ली देखून आसूं ये.

"तूं रावता खंय? करता कितें?"

दोंगुल्लेचे फाटले वटेन बोट दाखोवन तिणें म्हळें, "त्या वाड्यार. हांव करतलीं कितें? कांय करिना. एक शेताचो कुडको आसा. चार गोरवां आसात."

"आनी तुजो घोव?"

"भगवानको प्यारे हुए." तितलेच थंडसाणेन जाप.

दोन खीण दोगांय कांय उलयलीं नात. ती जमनीर दवरिल्ली कळसुली उखलून फुडें पावल घालता सर विराटान म्हळें, "राव."

संकोचान आनी ओल्या आंगान आंखडेल्ली ती बायल दोन पावलां फाटीं सरून उबी रावली.

"हांव अतिथीघरांत आसां. म्हाका येवन मेळना कित्याक?" विराटान म्हळें.

"स्वामीजी, हांव विधवा. हांवें येवप सोबचें ना. पूण म्हाका आशिर्वाद दियात."

"कांय पर्वा ना. तूं दनपारच्या वेळार येवन मेळ." विराटान आदेश दिवपाच्या सुरांत तिका सांगलें.

न्हावन परत अतिथीघरांत विराट पावलो तरी उजवाड जावंक नासलो. पूण अतिथीघरांतल्या चाकरान तापयिल्ल्या दुदाचो पेलो हाडून टिपॉयचेर दवरिल्लो. उपरांत दूद न्हिवतलें अशें येवजून विराट तें पियेलो आनी गुरूचो उगडास काडून ध्यानाक बसलो.

भायले वाटेन कसलो तरी आवाज जालो आनी तागेलें ध्यान भंगलें. उकत्या दारांतल्यान नदर व्हरून ताणें अदमास घेतलो. कसलो तरी बोवाळ चलतालो.

विराट उठ्ठासर दिवाण आयलो आनी ताणें सांगलें, "राजमाता आयल्यात."

विराट एकदम उठून उबो रावलो. मागीर ताका दिसलें, आपणें उबो रावंक फावना आसलें. संन्यास धर्माक जागून तो दारांत गेलो ना. परत आपल्या आसनाचेर बसलो.

एक दासी येवन फळांनी भरिल्लें ताट हाडून टिपॉयचेर दवरून गेली. माथ्यावयलो

पदर तिणें ओडून पोटासकयल पावयिल्लो. ती कांय एक उलयली ना. मोन्यांनी आयली आनी मोन्यांनी भायर गेली.

उपरांत राजमाता आयली. तिणेंय साडयेचो पदर तोंडार घेवन तोंड धांकिल्लें. बैठकीपसून अंतर दवरून तिणें विराटाक नमस्कार घालो आनी उपरांत तशीच मोन्यांनी बसून रावली.

“तुमच्या संस्थानांत येवन म्हाका खोस जाली.” संवाद सुरू करूंक जाय आसलो इतले खातीर विराटान म्हळें.

“भाग्य आमचें कीं साधु पुरसाचे पांय आमचे भुंयेक लागले.” राजमातेन जाप दिली.

आवाज आयकून विराट भांबावलो. एकाद्रे चलयेचो आसूं येता तितलो नाजूक, मधूर आवाज. एकाद्रे गायिकेन तान मारची आनी ते सूर वातावरणांत तरंगत उरचे तशें विराटाक दिसलें.

“स्वामीजींक कांय उणें ना न्हय? आमकां सेवेची संद दिवची.” परत राजमातेन म्हळें.

“राजमाता, तुमचें नांव रूपमती न्हय?” मुदयेचो उगडास जावन खात्री करून घेवंक विराटान म्हळें.

विस्मिताच्या सुरांत तिणें म्हळें, “स्वामीजींक सगळें खबर आसा.”

आजून तोंडावयलो पदर कुशीक सरूंक नासलो. देखून तिजें रूप पळोवंक मेळनासलें. पूण मनांतल्या मनांत विराटान हिशोब केल्लो. येन्नासर हे बायलेन साठी हुपिल्ली आसतली.

“आमी संन्यासी. आमच्यो गरजो व्हडल्योश्यो नासतात.” विराटान जाप दिली, “आनी दिवाणान बरी बडदास्त दवरल्या. हांव संतुश्ट आसां.”

“आमच्या राज्यांत येवपाचो खास हेतू?”

“हांव परिव्राजक.” विराटान जाप दिली, “तुमच्या राज्याची नामना आयकल्ली. राजमातेचें नांव आयकून जाणां. हेतू कसलोच ना. दोन दिसांनी फुडली वाट धरपाची.”

“म्हजें नांव खूबच थोड्या लोकांक खबर आसा. स्वामीजींनी उच्चारलें तें म्हजें कुळारचें नांव. घरचें नांव सत्यभामा. देखून प्रस्न पडलो, स्वामिजींक नांव कोणें सांगलें?”

विराटान सरळ जाप दिली ना. हांसून म्हळें, “संन्यासी हे नात्याच्या बंधनापसून मुक्त आसतात. तुमचें नांव कानार पडलें तें तशें आनी हांव आयकून जाणां कीं जशें नांव तशें रूप.”

“पूण नशीब फुटकें! हेंय स्वामीजी जाणात आसतले. राजघराण्यांत जल्म घेतलो. राजघराण्याची सून जालीं. केन्नाच कांयच उणें जालें ना. धन, राजवाडे, दास-दासी, मान-भोवमान सगळें मेळटा, पूण सौभाग्याचें भाग्य मेळ्ळें ना. गृहस्थ जीण...” तिका हुडको फुटलो.

“ओतून गेल्ल्या दुदाखातीर चरचरून कितें मेळटलें? हांव जाणां, हळद रगतान



भरली आनी कुकूम पुसलो. उमेदीचीं वर्सां जीवघेण्या एकोडेपणान गिळून उडयलीं. इतिहासाची पुनरावृत्ती दुसरे पिळगेंतय जाली... देव परिक्षा घेता. चिंता करूं नाका. फुडार उजळ आसा."

"स्वामींच्या आशीर्वादान तशें जालें जाल्यार हातांतल्यान घडिल्लीं पातकां देवान माफ केलीं आनी मनापसून केल्ली तपश्चर्या फळाक आयली अशें हांव मानीन."

ओले दोळे पुसूंक राजमातेन पदर कुशीक काडलो आनी कुपांआड लिपिल्लो चंद्र खिणाखातीर भायर सरलो अशें विराटाक दिसलें.

राजमाता साठ वर्सांची अशें तोंडावयल्यान दिसना आसलें. वाटकुळया गोऱ्या तोंडार तेज आसलें. मनाक ओड लावपी रूप आसलें... उकतें कपल तितलें अडेचें दिसतालें.

मनांतल्या मनांत विराटान म्हळें, "आयज ही बायल इतली सुंदर, जाल्यार ऐन जुवानपणांत कितली सुंदर दिसताली आसूंक जाय?" त्या खिणाक आपल्या गुरूची विराटाक मातशी नसाय जाली.

"हांव कितें सांगतां तें आयकात." गंभीर आवाजांत विराटान म्हळें, "परते प्रस्न विचारचे न्हय. प्रस्नाक जाप आसली तरी ती खूबच दाहक थारतली."

"पूण ह्या कूळक्षयाचें कारण कितें? ह्या प्रस्नाची म्हाका जाप मेळिल्ली जाल्यार मनाचे हुलप न्हिवतले आसले." राजमातेन म्हळें.

"ती आपसूक मेळटली." अशें म्हणून विराटान वस्त्राची गांठ सोडयली, मुदी मुठींत घेतली आनी राजमातेक म्हळें, "हो प्रसाद पदरांत घे. आनी सांबाळून घरा व्हर. घरा पावचे आदीं उकतो करूं नाका."

चार फळां आनी ती मुदी अचळय तिच्या पदरांत घालून विराट उठलो.



मुदी रूपमतीचे होंटींत घाली आनी गुरूल्या रिणांतल्यान आपूण मेकळो जालों अशें विराटाक दिसलें.

आतां तो वचूंक मेकळो आसलो. ताका थंय चड दीस रावपाचेंय नासलें. राजमाता परत आयली जाल्यार तिका तोंड दिवपाचो धीर आपणाक जावचो ना अशें ताका दिसतालें. ताणें आपल्या सामानाचेर एक नदर भोंवडायली आनी मनांतल्या मनांत गोंयची दिशा धरपाचो संकल्प केलो.

ताणें मार्ग थारावन दवरिल्लो. आदीं जयपूराक वचप आनी अहमदाबादच्या मार्गान मुंबय. उपरांत मुंबयसावन गोंयांत. अहमदाबादामेरेन आंगार भगवीं वस्त्रां दवरप आनी उपरांत सादो भेस चडोवप अशेंय ताणें थारावन दवरिल्लें.

राजमाता वतकच दिवाण आयलो आनी विराटान ताका परतीच्या प्रवासाविशीं विचारलें. "इतले बेगीन तुमी परत वतले? राजमातेक सांगलां?" अजापान दिवाणान विचारलें.

"ना, पूण म्हाका वचूंक जाय." विराटान जाप दिली.

"पूण एक खेपे राजमातेचो निरोप घेवंक जाय. हांव रकाद धाडटां. आयज हांगे सगळें संस्थान तुमकां दाखोवपाची वेवस्था केल्या."

"तशें जाल्यार हांव दनपरां वचन. अहमदाबाद वचपाची गाडी केन्ना मेळटली?"



"फाल्यां सकाळीं गाडयेर पावोवपाची तजवीज करूं येता." दिवाणान म्हळें.

"बरें आसा. तशें करात." अशें म्हणून विराटान दिवाणाक विचारलें, "आयज दीसभर हांव मेकळो आसां. ह्या संस्थानांत कितें कितें पळोवपाचें आसा तें सांगात."

"मोटार तयार आसा. रानांत आमचें एक विश्रामधाम आसा. थंयची हवा आनी वातावरण खूब जाणांक मानवता. दाट झाडां आनी तरेकवार रानवटी जनावरां थंय आसात. एका काळार थंय राजघराण्याचे लोक शिकार करताले. आतां राजमातेन शिकारीचेर बंदी घाल्या."

"म्हज्या सांगातान कोण येतलो?" विराटान मोटारींत बसतना विचारलें.

"वाट दाखोवपी एक मनीस आसतलो. आनीक कोण जाय?"

"खरें म्हळयार ड्रायव्हर आसा तितलो पुरो. म्हाका दोळयांनी पळोवपाचें आसा. थोडेंशें चिंतन करपाचें आसा." विराटान जाप दिली.

गाडी दोंगुल्ली चडली आनी विशाल राजवाड्याच्या भायल्या आंगणाक भोंवारो घालून फाटले वाटेन गेली. रस्तो अरूंद आनी नागमोडी. पूण पुराय डांबरी. वाटेर एकूय मनीस नासलो.

गाडी रानांत पावतकच विराटान ड्रायव्हराकडेन संवाद सुरू केलो.

"शिकारेक बंदी केन्नाच्यान घाल्या?" ताणें ड्रायव्हराक विचारलें.

"राजकुंवराच्या अपघाती मर्णा उपरांत." ड्रायव्हरान गाडयेची गती मंद करीत जाप दिली.

"खंयचो राजकुंवर?"

"राजमातेचो पूत."

"राजमातेक भुरगें आशिल्लें?"

"पोसको पूत."

"ताजें कितें जालें?"

"कोणाक खबर ना. पूण शिकार करूंक आर्म घेवन तो आपले बायले सांगातान विश्रामधामांत येवन राविल्लो. थंयच एक दीस अटंग्या रानांत ताका मरण आयलें."

"कशें मरण आयलें?"

"सारकें कोणाक खबर ना. तीं दोगांच आसलीं. आर्मांत गुळयो भरता आसतना चुकून फार जालो आनी मस्तकांतल्यान गुळी वचून मरण आयलें अशें म्हणटात. म्हाका सारकें खबर ना. हांव तेन्ना हांगा नासलों."

"तुका हांगा आयल्यार कितलीं वर्सां जालीं?"

"तीन. ताज्याकय वर्सभर आदीं राजकुंवराक मरण आयिल्लें."

"तो अपघात काय खून?" विराटान खोंचक प्रस्न विचारलो.

"राजकुंवराचो खून कोण करतलो? आनी त्याभायर त्या वेळार जे चाकरनामे आसले, ते सगळे विश्रामधामांतच आसले. सांगाताक आसली ती धाकली राणी. तिसरो कोणच ना."

"एकाद्र्या चवताळिल्ल्या वागान ताका मारिल्लो नासत?"

"म्हाका दिसना. तशें जाल्यार लिपून उरपाचें न्हय."

"तागेले बायलेचो कोण दुबाव घेता?" विराटान सहज प्रस्न विचारलो.

प्रस्न आयकून ड्रायव्हराक इतलें अजाप जालें कीं ताणें नेटान ब्रेक दामलो. धपकेवन गाडी थांबली आनी इंजीन बंद पडलें.

"गाडयेक कितें जालें?" आकांतून विराटान विचारलें.

"कांय ना. हांवच मात्सो गडबडलों." ड्रायव्हरान जाप दिवन परत गाडी सुरू केली आनी म्हळें, "जी बायल फुलासारकी नाजूक, ती आपल्या घोवाचो खून कशी करतली? आजून ती राजवाड्यांत रावता. भायर सरना. विधवेची जीण जगता... पुराय लोक तिजेखातीर चुरचुरता."

त्या दिसा विराट सगळें रान भोंवलो. तरेकवार झाडां, फुलां आनी फळां ताणें दोळेभर पळोवन घेतलीं. विश्रामधाम खरेंच सुंदर. निवांत जागो. फाटले वाटेन एक धबधबो. सुमार स मीटर उंचायेवयल्यान घोगो पडटालो. विराट घोग्याचेर न्हालो. विश्रामधामांत थोडो वेळ विश्रांत घेतली. थंय जेवणाची तयारी आसली. जेवन न्हिदलो. ताका गाढ न्हीद लागली.

विराटाक जाग आयली तेन्ना सूर्य अस्तमतेक देवंक लागिल्लो. घोंट घेवन तो भायर आयलो तेन्ना ताणें पळयलें कीं ड्रायव्हर आनी विश्रामधामांतले चाकरनामे भायल्या लॉनाचेर बसून विडयो ओडीत खबरो करतात. विराटाक पळयनाफुडें तांणी विडयो पालयल्यो आनी सगळे उठून उबे रावले. विराटान एकल्याक खुणेनच लागीं आपोवन घेतलो आनी विचारलें, "ह्या विश्रमाधामांत रावंक कोण येता?"

"हालींच्या वर्सांनी चडशे कोण येनात. सरकारी अधिकारी केन्नाय पिकनिकेक येतात तितले."

"राजमाता येता?" विराटान विचारलें.

"ना. म्हजे यादीक राजमाता हांगा केन्नाच येवंक ना."

"आनी तिगेली सून?"

"तीय येना."

"तुज्या उगडासाक केन्नाच येवंक ना?"

"एक खेपे आयिल्ली... तेन्ना महाराज आसले. अपघात जालो त्यावेळची खबर..."

"महाराजांक अपघाती मरण आयलें त्या दिसा तांचें राणयेकडेन झगडें जाल्लें?"

"ना. म्हाका तरी खबर ना."

"त्या अपघाताविशीं तुका कितें दिसता?"

"खूब वायट गजाल घडली."

नोकरांकडच्यान कांय समजूंक पावचें ना, इतलें वळखून विराट भायर सरलो.

तो परत अतिथीघरांत पावलो तेन्ना दिवाणासयत खूबशे लोक ताजे भेटेक आयिल्ले. तांचेमदीं दादले आसले आनी बायलोय. सकाळीं तळयाचेर जी बायल मेळिल्ली, तिका आपणें आपयिल्ली म्हणपाची याद विराटाक जाली. तिजें नांव ताका खबर नासलें. आपूण जावन वासपूस करपय समा दिसलें ना.

विराटान पयलीं दिवाणाकडेन उलोवन घेतलें. दिवाण राजमातेलो खाशेलो रकाद घेवन आयिल्लो. ताणें सप्तकभर तरी पवनगिरी संस्थानांत रावचें असो तो रकाद

आसलो. इतलेंच न्हय, तर त्याच दिसा रातीच्या जेवणाक राजमातेन ताका राजवाड्याचेर आपयिल्लो.

"एका निमित्त्यान स्वामीजींचे पांय राजमहालाक लागचे अशी राजमातेची इत्सा आसा." दिवाणान म्हणिल्लें.

आमंत्रण मान्य करताकच दिवाण गेलो आनी मागीर दर्शन घेवंक आयिल्ल्या लोकांची रीघ. धा-पंदरा मिनटांभितर सगळ्यांक प्रसाद-आशिर्वाद दिवन जालो. सगळ्या बायलांनीं- मागीर त्यो जाणट्यो आसूं वा भुरग्यो - पदर तोंडावयल्यान घेवन तोंड धांकिल्लें.

सगळे लोक गेले तरी एक बायल तशीच तोंडार पदर ओडून दाराकडेन उबी रावली. विराटाक दिसलें, तीच सकाळीं तळ्याचेर मेळिल्ली ती बायल आसूं ये.

अतिथीघराच्या एका चाकराकडेन ती कितें तरी उलयताली. विराटान त्या चाकराक आपोवन घेतलो आनी विचारलें, "ती कितें सांगता?"

"स्वामीजीकडेन उलोवंक सोदता."

"आपय तिका."

ती बायल येवन बसली. जमनीक तकली तेकोवन तिणें नमस्कार केलो आनी म्हळें, "आज सकाळीं स्वामीजींनी म्हाका मेळूंक सांगिल्लें, देखून आयलीं."

विराटान तिजेकडेन पळयलें. तिणें तोंडावयलो पदर धरिल्लो तो कुशीक काडिल्लो तरी तो तिका वळखुपाचो न्हय.

ताणें म्हळें, "हांव विरक्त संन्यासी. तुका पूत वा भावासमान. तेन्ना पदर तोंडार धरूंक जाय अशें ना."

बायलेन पदर कुशीक काडलो आनी नदर जमनीर थिरायली.

लावण्याचें एक तरुण शिल्प विराटामुखार बशिल्लें!

❈

नांव फुलवंती. फुलासारकीच नाजूक. एकाद्रें फूल पुराय फुलतां फुलतांच गळून पडचें तशी तिजी अवस्था.

"तुज्या मुखार पुराय जीण आसा. तूं हें विधवेचें जीवन कित्याक जगता?" विराटान तिका विचारलें.

कुशीक काडिल्लो पदर परत तोंडार ओडून तिणें आंग काडलें. थोडो वेळ येवजिल्ले भाशेन केलें आनी मंद आवाजांत म्हळें, "पयलींच्या जल्माचें पातक भोगतां. दुसरें कितें म्हणूं?"

"विधवेचें लग्न शास्त्रान मान्य केलें जाल्यार...?"

"ना. तो व्यभिचार, हांव करची ना."

"तुजें कुळार..."

"अजमेर."

"थंय कित्याक वचना?"

तिणें जाप दिली ना.

"गोरवां आनी शेत आसा अशें तुवें म्हळें. तें काम तूंव करता?"

ते बायलेन परत जमनीक तकली लायली आनी दोनय हातांनी आपले पोले फोडून घेवन म्हळें, "हांव फट उलयलीं. म्हाका क्षमा करात."

"मागीर खरें कितें?"

"हांव राणी महानंदाची दासी."

"महानंदा राणी कोण?"

"राजमातेची सून... विधवा सून."

"ही गजाल लिपोवपासारकी?"

"हांवें सोपूत घेतिल्लो. आज मोडला."

"कसलो सोपूत?"

"हांव राजवाड्यांत वतां आनी थंय काम करतां हें कोणाक सांगपाक राजमातेन म्हाका बंदी घाल्या."

"कसलें काम करता? खरें सांग." विराटान निबरान म्हळें.

फुलवंती एकदम रडूंक लागली.

विराटाक नसतो दुबाव आयलो. हे तरुण सुंदर विधवेक राजघराण्यांतल्या दादल्यांनी भोगाची वस्त करूंक ना मूं?

"सांग तूं." विराटान तिका धीर दिलो, "हांव ते गजालीचो भायर उच्चार लेगीत करचो ना."

"हांव महानंदा राणयेक अफू पावयतां."

"अफू?"

"हय."

"राजमातेक तें खबर आसा?"

"हय. तिणेंच तें काम म्हजेर सोंपयलां."

"महानंदा राणी अफू खाता? कित्याक?"

रडत रडत फुलवंतीन सगळी खबर सांगली.

तरुणपणांत विधवा जाल्ले महानंदा राणयेक आपल्या दुख्खाचो विसर पडचो हे खातीर भजनां शिकोवंक एक शिक्षक दवरिल्लो. त्या शिक्षकाकडेन सुनेचे अनितीक संबंद जुळ्ळे, हें कळनाफुडें ताका राजमातेन काडून उडयलो आनी समान दुख्खी म्हणून फुलवंतीची तिचे सेवेखातीर नेमणूक केली. पानांतल्यान अफू खावोवन तिका दीसभर घुंवळेंत दवरपाचें काम राजमातेन फुलवंतीकडेन दिलें. आतां सुनेक अफूचें चट लागलां. अफू खाता आनी आपल्या महालांत फुलवंती सांगातान भ्रमीश्ट जीण ती जगता.

"पूण एक सांग फुलवंती," पयलेच खेपे तिचें नांव घेवन विराटान विचारलें, "तुजो घोव कितें करतालो? ताका मरण कशें आयलें?"

"राजकुंवराचो तो सेवक आसलो. ताज्या सांगातान शिकारेक वतालो. राजकुंवराक अपघाती मरण आयलें त्याच दिसा रानांत म्हज्या धनयाचें प्रेत मेळ्ळें. तांकांय गुळी लागून मरण आयिल्लें."

"ताजो खून कोणे केलो?"

फुलवंतीचे ओंठ थरथरले. दोळे भरून आयले आनी तिणें तुटक उतरांनी म्हळें,

"हांवच गुन्यांवकारी."

"तुवें कितें केलें? तुजो कसलो गुन्यांव?"

तिणें जाप दिली ना. खोदून खोदून विचारतकच कळ्ळें कीं त्या दिसा राजकुंवर शिकारेक गेल्लो तेन्ना फुलवंतीक घेवन गेल्लो. खूब सोरो पियेलो आनी ताणें फुलवंतीच्या आंगार हात घालो. रागाभरशीं तिगेल्या घोवान राजकुंवराचेर फार मारलो आनी उपरांत राजकुंवराच्या एका सांगात्यान तिगेल्या घोवाक मारून उडयलो.

"हे सगळें तुज्या दोळ्यासामकार घडलें?"

"हय."

"त्यावेळार राणी महानंदा थंय आसली?"

"ना."

"मागीर ती आसली अशें लोक कशे म्हणटात?"

"ना. हांवच पदरांत तोंड लिपोवन..."

एक प्रस्न समजून घेतना दुसरे प्रस्न उप्रासत वताले. राजघराण्यांतल्या घुसपा-गोंदळाचें एक नवें दर्शन विराटाक घडटालें. ताणें फळांचें एक ताट फुलवंतीचे होंटीत रकोवन तिका वचूंक सांगलें.

"एक मागणें आसा." वतां वतां तिणें म्हळें, "हांवें कितें सांगलां ताजी खबर राजमातेक कळूंक फावना. स्वामी आयज आसात, फाल्यां वतले. म्हाका पुराय जीण हांगाच सारूंक जाय."

ही सगळी खबर बरोवन जातकच विराट आपले डायरेंत बरयताः फुलवंती इतली सुंदर बायल हांवें जिवितांत पळोवंक ना. राजकुंवराचो निखालच गुन्यांव करूंक नज... घडये फुलवंतीचे मान्यतायेनच राजकुंवराचेकडेन लिप-चोरयां संबंद दवरतालो आसूं यें...

सांजवेळ जाली. एक चाकर दिवे पेटोवन गेलो. वतना ताणें म्हळें, "राजमहालांतली गाडी स्वाम्याक व्हरूंक आयल्या."

राजमहल म्हळ्यार एक किल्लोच. भायल्या दारापसून महल मैलभर भितर. कडेकोट बंदोबस्त. दारांत विराटाले पांय धुवन राजमातेन ताजें स्वागत केलें आनी दिवाणान सगळो राजमहल भोंवडावन दाखयलो. फाटले वटेन एक वासरी. तिचे पलतडीन राणयांचे महल आसात इतलें तोंडान सांगलें.

मुख्य दिवाणखान्यांत विराटाक बसूंक वेगळी वेवस्था केल्ली. आपल्या आसनाचेर तो बसतकच राजमातेन ताका नमस्कार केलो आनी दिवाणाक खूण केली. दिवाणखान्याचें दार बंद जालें. दिवाणय भायर गेलो.

"स्वामीजी, सगळी रात हांव न्हिदूंक ना." राजमातेन म्हळें, "ती मुदी म्हजे होंटींत पडत सावन म्हज्या मनाची स्थिती पिशांतरावरी जाल्या."

"तो सगळो इतिहास आतां परत परत याद करून कसलोच फायदो ना. पवनगिरी संस्थानाची दुर्दशा जावपाचें कारण कितें हें तुमी जाणातच. जेन्ना राजमुद्रिका (मुदी) घराभायर वता, तेन्ना नैतीक अधःपात जाता. आतां ती परत आयल्या, ती सांबाळून राजघराण्याची कोसळूंक लागिल्ली इमारत सांवरून घेयात." विराटान म्हळें.

राजमातेन पयलेच खेपे विराटामुखार तोंडावयलो पदर फाटीं काडलो आनी हात

जोडून ती ध्यानस्थ बसली. तिजे दोळे दुकांनी भरिल्ले आनी दुकां पोल्यांवयल्यान गळयलीं.

तिका पळोवन विराटाक अजाप जालें. ती जाणटी आसली तरी तिजी कांत रसरशीत आसली. ते रडकुरे अवस्थेंतय तिचें सौंदर्य नदरेंत भरतालें.

"आनीक कितें प्रस्न आसा?" विराटान विचारलें, "आमी संन्यासी एका जाग्यार चड दीस रावनात. हांव फाल्यां वचूंक सोदतां."

"स्वामींनी राजघराण्याची शेणिल्ली पत परत हाडून म्हजे होंटींत घाली. खूब प्रस्न विचारपाचे आसात. पूण तुमीच म्हाका तोंड बंद दवरपाचो आदेश दिला. म्हजी एकूच प्रार्थना आसा... म्हजे सुनेक दीक्षा दिवची."

राजमातेचीं उतरां आयकून विराटाक धक्कोच बसलो.

महानंदा राणयेक ताणें आजून पळोवंक ना; पूण तिज्या रुपाची तोखणाय आयकल्या. कंवळे पिरायेची ती एक चली. राजमाता तिका संन्यासाची दीक्षा कित्याक दिवंक सोदता, असो प्रस्न ताका पडलो.

"दीक्षा ही स्वेच्छेन घेवचेली आसता. सक्तीन संन्यास दिवप हें महापातक. महाराणी आपखोशयेन दीक्षा घेवंक सोदता?" विराटान विचारलें.

"हांवें आजून विचारूंक ना. पूण तिच्या उध्दाराचो दुसरो मार्ग म्हाका दिसना."

"घडलां कितें तिजें?" विराटालो प्रस्न.

"दोश तिजो न्हय. दोश तिजे पिरायेचो. मनीसधर्माक सभावीक अशा भावनांचो आनी विकारांचो. म्हजें पावल चुकलें आनी जीवघेणें मरण हांव इतलीं वर्सां जगलीं. तिज्या वांट्याक जी एकोडी जीण आयल्या ती तिचे चुकेन न्हय. पूण कांय परंपरा आसात, नीत-अनीतीचीं बंधनां आसात, प्रजेमुखार धर्मशास्त्राक मान्य अशे आदर्श दवरचेले आसात. देखून राजघराण्यांतले बायलेक कठोर बंधनां पाळचीं पडटात. तिका तें झेपना, देखून..."

"देखून तुमी तिका संन्यास दिवंक सोदतात? आनी संन्यास घेवनय मन चंचल उरलें जाल्यार...?" विराटान विचारलें.

"हांव कितें करूं?" अशी हामेट दिवन राजमाता व्हडाव्हडान रडूंक लागली.

विराट आसनावयलो उठलो. राजमातेच्या मस्तकार हात दवरून ताणें तिका धीर दीत म्हळें, "हांव राणयेकडेन उलोवन पळयतां."

❋

त्या दिसा जेवणाच्या वेळार राजमाता विराटामुखारच बसली. पूण तिगेली सून महानंदा खंयच दिश्टी पडली ना. पानावयलो उठून विराटान हात धुले आनी भायल्या दिवाणखान्यांत येवन बसतकच राजमातेक विचारलें, "सून खंय दिसली ना?"

राजमाता कांय उलयली ना. उठून भितर गेली. थोड्या वेळान एका ल्हान भुरग्याक हाडून विराटाच्या पांयार घालो आनी म्हळें, "हो राजवंशाचो दिवो. ताका आशिर्वाद दियात."

घेतिल्लें सवंग सोबोवन व्हरपाचें आशिल्लें देखून विराटान भुरग्याच्या मस्तकाचेर हात दवरलो आनी उपरांत ताका उखलून आपले मांडयेर घेतलो. तो ल्हान चलो रडूंक

लागलो.

"हो तुजो नातू राजबिंडो आसा." विराटान म्हळें.

"राजकुळांतलोच तो!" राजमातेन जाप दिली आनी रडटल्या भुरग्याक उखलून एके दासी कडल्यान भितर धाडलो.

"सुनेक दोळो लागला. फाल्यां सकाळीं अतिथीघरांत हांवच तिका घेवन येतां."

"ह्या वेळार न्हिदल्या?"

"स्वाम्याक कितें लिपयतलीं? तिजी मत थीर ना. सध्या नोकर-चाकरांकडेन संवकळ वाडयता. तिका वंश-कुळाचें भान ना... तिचोय गुन्यांव ना..."

"एक सांग, अफू बी घेता?" विराटान राजमातेक विचारलें.

राजमातेन तकली सकयल घाली आनी म्हळें, "घोवाच्या मर्णा उपरांत विधवेच्या धर्माचें पालन करूंक ती कबूल ना. साज शृंगार करता आनी चंचल वृतीन वागता. प्रस्न घराण्याचे प्रतिष्ठेचो. तिच्यो भावना आळावंदाक हाडूंक दुसरें वखद सुचलें ना... देखून अफूचो आदार. शरीर शिथील जाता, वासना मरता."

"पूण आतां एक चलो पोसको घेतलो जाल्यार तिचें मन भुरग्याक खेळोवपांत रमूंक जाय आसलें."

"तें रमना. भुरग्याचो स्विकार करूंक ती तयार ना. ती आजून आपलो कुसवो उजोवपाची भास उलयता. दीक्षा घेतली जाल्यार मत थीर जातली अशें म्हाका दिसता."

"बरें आसा. तिका अतिथीघरांत धाडूं नाकात. फाल्यांच दीक्षा दिवया. तुमी तिजें मन तयार करात. हांवय तिजेकडेन उलयतां."

"म्हूर्त पळोवन संन्यास दीक्षा दिल्ली बरी न्हय?" राजमातेन विचारलें.

"शुभकार्याक म्हुर्ताची गरज नासता." विराटान म्हळें, "म्हजेकडेन तितली उसरपतय ना. प्रस्न फकत महानंदेचे मान्यतायेचो उरतलो. ती तुमी मेळयात."

विराटान राजमातेक दिक्षेचे विधी समजावन सांगले. एक होम घालचेलो. राणी महानंदेन दीसभर उपाशीं रावचेलें. सकाळीं उठून न्हावन धुवन देवाचें ध्यान चिंतन करपाचें. विराट तिज्या कानांत मंत्र सांगतलो आनी उपरांत संन्यस्त जीण तिणें जगची पडटली. संन्यास घेवचे आदीं आपलो अंत्यविधी आपणेंच करचेलो आसता आनी केशवपनय करप गरजेचें आसता. आंगार अळंकार, दागिनो उरूंक जायना."

"पूण तयारी करूंक थोडो वेळ लागतलो. त्या भायर चोवीस वरांचो उपास गरजेचो आशिल्ल्यान फाल्यांच्या जाग्यार दिक्षेचो विधी परां करचो." राजमातेन सुचयलें.

विराट कबूल जालो.

दुसऱ्या दिसा सकाळसावन अतिथीघरांत लोकांची गर्दी. तांचे मदींच राजमाताय येवन गेली.

"संन्यास दिक्षेची खबर महानंदा राणयेक सांगल्या?" विराटान तिका विचारलें.

"हय."

"ती कबूल जाली?"

"तिका सारकें समजलां अशें दिसना." राजमातेन जाप दिली, "हांवें तिका इतलेंच

सांगलां कि दीक्षा घेतकच सगळ्यो अडचणी सोंपतल्यो."

विराटाचें समाधान जालें ना. तरी ताणे म्हळें, "सगळी तयारी तुमी करातच. पूण दीक्षा दिवचे आदीं तिजी मान्यताय घेवचीच पडटली."

धारिल्ल्या दिसा फांतोडेर विराट राजवाड्यार पावलो तेन्ना राजमातेन पयली वार्ता ताका दिली, "महानंदा केशवपनाक कबूल जायना. तिजो स्वाम्यांनी समज घालचो."

राजमातेन स्वामीजीक एका दालनांत आसनाचेर व्हरून बसयलो आनी उपरांत आपूणच सुनेक घेवन थंय आयली.

"स्वामीजींक नमस्कार कर." राजमातेन सुनेक सांगलें.

नम्रतेन तकली जमनीक तेंकोवन सुनेन नमस्कार केलो. साडयेचो पदर तोंडावयल्यान ओडून घेतिल्ल्यान तिजें रूप दिसना आसलें. पूण भरजरी साडयेंत गुठलायिल्ली एक ल्हानशी बावली कशी ती विराटाक दिसली.

राजमातेक भायर वचूंक विराटान खुणायलें. तिणें भायर वचून कुडीचें दार भायल्यानच बंद केलें.

"महानंदा!" विराटान उलो मारलो.

एकाद्र्या ल्हान भुरग्यान आपालिपाच्या खेळांत वागचें तसो तिणें तोंडावयलो पदर फाटीं घेतलो आनी ल्हान भुरग्यासारकीच हांसली.

तिचें रूप पळोवन विराट विस्मीत जालो. तिका विधवा कोण म्हणत? माथ्यार न्हावन केंस मानेर मेकळे सोडिल्ले. भांगेंत पिंजर भरिल्ली. कपलाक तिळो, हाताक-गळ्याक अळंकार. लावण्याचो एक जितो पुतळो. वेळ प्रसंग विसरून विराट तिका पळयत रावलो. कोणाकय भूल घालपी अशें तिजें रूप आनी खंयच्याय दादल्याक आव्हानरूप दिसूं येत असो तिजो हांसो.

महानंदेची अवस्थाय तशीच जाल्ली! तिची नदर विराटाचेर थिराविल्ली आनी हांसतना उकतें केल्लें तोंड हांसो विरून गेलो तरी उकतेंच उरिल्लें.

"तुवें उपास केला?" विराटान विचारलें.

"हय."

एकच उतर ती उलयली. विणेचे झंकार कुडींतलें वातावरण कंपीत करून गेलें. आवाजय रूपावरीच म्होंवो.

"मन शुद्ध केलां न्हय?"

"म्हळ्यार कितें?" अजाण भोळे युवतीचो प्रस्न.

"म्हळ्यार ह्या वेळार तुज्या मनांत कसलेच पातकी विचार येनात मूं?"

महानंदेन जाप दिली ना. पूण धिटायेन आपली नदर विराटाचे नदरेक दिली. अजापाची खोलाय तिचे नदरेंत आसली. आपूण तिका प्रस्न विचारून तिची तपासणी करतां आसलों तरी ही रूपसुंदरी नदरेनच आपल्याक भेदता, अशें विराटाक दिसलें आनी ताणें परत तोच प्रस्न विचारलो.

नदर तशीच थिरावन महानंदेन आसनमांडी घाल्लो आपलो एक पांय फाटले वटच्यान दोडून घेतलो आनी निर्विकार सुरांत म्हळें, "येतात."

विराटाक धक्कोच बसलो.

हिका प्रस्न सारको समजूंक ना काय ही बायल आपली सत्त्व परीक्षा घेता हें ताका समजलें ना.

तरीकय विराटान परत विचारलें, "तुज्या मनांत पातकी विचार आसा अशें तुका सांगचेलें आसा?"

"हय."

"कसलो विचार?"

"तो कसो सांगूं? पूण इतलें खरें कीं म्हजो देवाचेर विस्वासच ना. देवान म्हाका दिलां कितें?"

ती उठून दाराकडेन गेली. दार बंद आसा म्हणपाचें पळोवन परत येवन विराटामुखार बसली. हे खेपे ती इल्ली आत्मविस्वासान आनी मेकळेपणान वागताली. विराट निश्चल बसून तिका पळयतालो.

तिणें साडयेचो पदर खांद्यार घेतलो आनी दोनय हात मेकळे केले. हाताचीं रंगयिल्लीं नाखटां विराटाले नदरेंत भरलीं.

परत महानंदा हांसली. हे खेपे तिगेलो हांसो विराटाक अडेचो दिसलो. आपूण राजवाड्यांतले राणयेमुखार नासून वेश्येच्या घरांत पावलां अशी भावना जावपासारकी तिजी वागणूक आसली.

"म्हज्यो उमेदी भागच्यो आसात." सरळ तिणें सांगलें, "ज्या घोवाच्या मर्णाक लागून हांव विधवा जालें, त्या घोवाचे आनी म्हजे संबंद एकाद्र्या सपनांतले अशें म्हणूं येता."

"पूण तूं अफू घेवन ह्या देहाचेर जुलूम कित्याक करता?" विराटान विचारले.

"आत्महत्त्या करचेपरस अफू घेवन आपलें दुख्ख विसरप सोपें. हांवें कसलें पातक केलां स्वामीजी? म्हाका लग्न करचेलें आसा. म्हाका राणयेचें पद नाका! हीं मनीसपणा भायलीं बंधनां तोडूंक बंड करपाचें बळगें म्हज्या दुबळया हातांत ना देखून अफू घेतां. बायलेचें दुख्ख दादल्यांक समजुचें ना, स्वामी."

"पूण नशिबाचे कांय भोग आसतात... ज्या दिसा तूं ह्या घरची सून जावन आयली, तेन्ना तुवें जायतीं नवीं बंधनां आपखोशयेन पत्करलीं. आतां तूं फकत एक बायल उरूंक ना. ह्या महायज्ञांत तुका तुज्या जुवानपणाचो, उमेदींचो बळी दिवचो पडटलो. त्या खातीर मनाची तयारी करूंक ही दीक्षा."

"स्वामी, एका दादल्याचे नदरेंतल्यान तुमी बायलेकडच्यान अपेक्षा करतात. ही अडेची जीण. तोंडार रुपडें चडोवन मन मारपाची रीत देवाक मान्य जातली? आज म्हजी वाट चुकली जाल्यार फकत म्हाका कलंक लागतलो. घडये ह्या राजघराण्याक लागत. पूण दीक्षा घेवन वाट चुकली जाल्यार लोकांचो धर्मावयलो विस्वासच उडून वचचो ना?"

तिगेल्या प्रस्नांक विराटाकडेन जाप नासली. विराट मोन्यांनी आयकत रावलो. तिज्या मनांत चाली-रितीं विशीं, राजबंधनांविशीं आशिल्लो तिरस्कार ती उतरांनी उलोवंक लागली आनी एकदम रडूंक लागली.

विराट उठून उबो रावलो. अशे परिस्थितींत तिका संन्यास दीक्षा कितें दितलो, अशें

तो येवजितालो.

महानंदा रडटां रडटांच उबी रावली. एकदम तिणें विराटाचो हात घट धरलो आनी म्हळें, "म्हज्या मनाक शांती दिवपाची शक्ती फकत अशा दादल्यांत आसा, जो म्हजो कुसवो उजयत."

"तें पातक!" विराटाचो आवाज कांपरो जालो.

"पातकी संवसारांत तेंच पुण्य. मातृत्व हें कलंकीत नासता. दुसऱ्याचें भुरगें म्हजें जावंक शकना. खरें म्हळयार पातक कितें आनी पुण्य कितें हेंच हांव नकळ. सैमाचे नेम मोडप हें पुण्य? जिणेच्यो उमेदी मारप हें पुण्य?"

महानंदेच्या कमराक एक ल्हानशी पोली आसली. ती तिणें सोडयली आनी अफूची एक पुडी तोंडांत रकयली.

आतां विराटालें काम सोंपिल्लें. दीक्षा दिवप शक्य ना हें तो वळखून बशिल्लो.

राणयेच्या संन्यास दीक्षा समारंभाक भायर लोक जमिल्लो. विराटान भायल्यान बंद केल्लें दार वाजयलें. कोणें तरी तें उकतें केलें. तकली सकयल घालून विराट भायर सरलो आनी एकदम वचून मोटारींत बसलो.

राजमाता धांवत फाटल्यान गेली आनी तिणें विचारलें, "कितें जालें?"

"तुगेले सुनेक दीक्षा दिवप म्हाका शक्य जावचें ना. हांव वतां." विराटान जाप दिली.

राणयेचें तोंड पडलें आनी दोळे दुकांनी भरून आयले. कितें जालें हें जमिल्ल्या लोकांक कळ्ळें ना. इतलो लोक जमिल्लो आसतनाय राजवाड्यांत एके तरेची भयांकृत शांतताय पातळिल्ली.

राजमाता परत कुडींत आयली. दार उकतें करून तिणें पळयलें. कुडींत पातळायिल्ल्या कालिनाचेर महानंदा लोळटा आनी तोंडान कितें तरी बडबडटा. फाटल्या पांयांनी राजमाता भायर आयली. कुडीचें दार बंद केलें आनी दिवाणाक सांगलें, "दिक्षेचो कार्यक्रम रद्द जाला."



घडिल्ल्या प्रसंगाक लागून विराट खूबच अस्वस्थ जाल्लो. तातूंतय महानंदेची कंवळी पिराय आनी तिजें खंयच्याय दादल्याक भूल घालूंक पावत अशें रूप, दुसऱ्याल्या मनाचे थाव घेवपी दोळे पळोवन तो विचळ जाल्लो.

"खरें म्हळयार महानंदेक पळयली आनी म्हज्यांतलो विराट जागो जालो." विराटान आपले डायरेंत बरयलांः "फुलवंती आनी महानंदा ह्यो दोन तरुण विधवा! ह्या संस्थानाक तांची हाय नडना मू? मोगरेची कळी मोनीच उरची तशी तांची व्यथा. काळजांत खोशयेचो परमळ भरिल्लो आसा, पूण पाकळ्यो उसोवन फुलपाची मेकळीक तांकां ना. कसली ही बंदिस्त जीण! कसले हे निश्ठूर संस्कार! म्हज्या मनांत येता, रूढी- बंधनांचीं जाळां तोडून ह्या दोनय सौंदर्यवतींक मुक्त करच्यो. तांचें सौंदर्य इतलें भूल घालपी आसा कि तांच्या म्हालवजाचेर क्लिओपात्राभाशेन नवो इतिहास घडोवं येता. पूण हें सौंदर्य आयज तोंडावयल्या पदरापोंदा लिपलां. राजमातेच्या बेडयांनी बंदिस्त उरलां. ह्यो बेडयो तोडपाची शक्त, तो पदर वयर करपाचें धाडस तांकां

जायना. देखून आपले भितर चडफडत ह्यो दोन मोन्यो कळयो आपल्यो उगेदी लासून उडयतात. ना... महानंदेन केशवपन करूंकच फावना. तिगेल्या लांब ररामी केंसांचो सळसळ हांवें पळयला. देवान दिल्ली ही देणगी. ती काडून घेवपाचो अधिकार मनशाक आसूंक फावना.

विराट अतिथीघरांत परतलो तेन्ना दनपार जाल्ली. जेवणावयली ताजी वानसा उडून गेल्ली. खाटेचेर न्हिदिल्लेकडेन ताका पवनगिरी संस्थानाच्या फुडारापरस महानंदेचे विचार चड अस्वस्थ करताले. आदीं ताणें फुलवंतीक पळयिल्ली आनी तिजेर तो भाळिल्लो. सर्गींची अप्सरा तिचेपरस सुंदर नासतली असो विचार ताच्या मनांत येवन गेल्लो. पूण जेन्ना महानंदेक पळयली, तेन्ना तो सामकोच पिसो जालो. तो राजवाड्यांत नाशिल्लो जाल्यार तिका घेवन पळून लेगीत वचत आसलो.

न्हिदिल्ले कडेन ताचो दोळो लागलो. भायले वाटेन अतिथीघराच्या चाकरान दार वाजयलें.

उद्वेगान विराटान दार उकतें करून विचारलें, "कितें?"

"स्वामीजीचें जेवण..."

"ना, म्हाका जेवण नाका." अशी तुटक जाप दिवन विराटान परत दार बंद केलें.

मनाचे तळमळे थांबनात आसले. काळजांतले इंगळे पेटून उठिल्ले आनी आंगावयलीं भगवीं वस्त्रां ताका तोपूंक लागिल्लीं.

खीणभर ताज्या मनांत विचार आयलो, हीं भगवी वस्त्रां हांगाच सोडचीं ...

पूण ह्या भगव्या वस्त्रांच्या आदारानच ताका राजवाड्यांत प्रवेश मेळिल्लो. तीं कशीं सोडटलो? आनी तीं सोडलीं जाल्यार महानंदेक सोडच, फुलवंतीक मेळप लेगीत शक्य जावचें ना.

कशें घडटा तें पळोवया अशें म्हणून विराटान फुडले परिस्थितीक तोंड दिवंक मनाची तयारी केली.

हें सवंग फुडें व्हरचें आनी जमलें जाल्यार पवनगिरी सोडटना महानंदेक घेवनच वचचें असो एक धाडसी विचार लेगीत ताज्या मनांत आयलो.

त्या विचारासरशीं मनाचे हुलप थांबले. तो कुडींतलो भायर सरून रानाचे दिशेन भोंवंक गेलो.

दोन चाकर ताच्या फाटल्यान फाटल्यान वताले. ते आपणाचेर पाळत दवरतात काय आपणाक कितेंय गरज लागत म्हणून तांची राजमातेन नेमणूक केल्या?

निर्जन वाठारांत पावतकच विराटान नदर फाटल्यान घुंवडायली आनी दोगांय चाकरांक खुणेनच लागीं आपोवन घेतले.

"तुमी म्हज्या फाटल्यान कित्याक येतात? म्हाका एकलोच चिंतन करीत थोडें भोंवपाचें आसा. तुमी अतिथीघरांत वचून रावात."

चाकरांनी तकली हालयली आनी ते परतले. विराट थंयच एका झाडा मुळांत बसून सैमाची सोबा नियाळूंक लागलो.

अचकित मोटारीचो आवाज ताज्या कानार पडलो. ताणें नदर घुंवडावन पळयली. पयस मोटार थांबिल्ली. मोटारींतल्यान राजमाता देंवली. ल्हवू ल्हवू पावलां उखलीत ती

विराटाचे दिशेन आयली. मोटार थांबिल्ली थंयच उरली.

राजमाता लागसार पावतकच विराट उठून उबो रावलो.

पयसुल्यानच विराटाक नमस्कार करून राजमातेन म्हळें, "हांव क्षमा मागूंक आयल्यां."

"कसली क्षमा राजमाता?" विराटान विचारलें,

"म्हजे सुनेन जी आगळीक केल्या त्या खातीर क्षमा मागतां." राजमातेन जाप दिली.

"तुमची सून शाणी आसा. तिचेर संन्यास दिक्षेची सक्ती करप अन्यायाचें जातलें हें म्हाका पटलें."

"पूण हांव तिका दीक्षा दिवंक सोदतां ताजे फाटलें कारण स्वामीजी जाणातच. तिच्या हातान पातक घडटा. म्हाका तिका उजू मार्गाचेर हाडपाची आसा."

"पूण दीक्षा ही सक्तीन दिवप शक्य जावचें ना आनी ताकीत तरी कसली? सध्या ती राजवाड्याच्या भायर पावल दवरिना." विराटान म्हळें.

"तें खरें, पूण कितले दीस हें गुपीत लिपून उरतलें? राजवाड्यांत दासदासी आसतात. सगळ्यांचीं तोंडां कोण बंद करतलो? हांव विधवेचीं दुख्खां जाणां. जी राजमुद्रिका स्वामींनी म्हाका परत हाडून दिली, ती राजवाड्याभायर वचपाक म्हजें पातकच कारण जाल्लें."

"त्या पातकाचें तुमी प्रायश्चित घेतलें?" विराटान विचारलें.

"हय. काळजांत होम पेटोवन, वासना, भावना, उमेदी आनी सपनां लासून उडयलीं. ह्या संस्थानाचो भरीभार माथ्यार घेवन हांवें परत त्या पातकाची सांवळी ह्या राज्याचेर पडची न्हय हे खातीर उपास तपास खूब केले."

"तितल्यान भागचें ना, राजमाता!" विराटान म्हळें, "खासा तुमी वैधव्याचे जाळ सोंसले, पूण संन्यास घेतलो ना. सुनेक मात संन्यास घेवपाची सक्ती करप हें न्यायाक धरून ना अशें तिका दिसूं येता."

"जाल्यार हांवें कितें करचें?"

"हे पळयात, ह्या राजघराण्याचो वारस पोसको घेतलो तरी तो आपलो मान अशें कंवळे पिरायेचेर सुनेक सांगलें म्हणून ती तें कशें मानीत? राजघराण्याकडलें नातें रूजचे आदींच ती विधवा जाल्या. तिका राणयेच्या पदापरस आवय जावपाची उमळशीक चड भूल घालता. मागीर ती संन्यास घेवंक कशी कबूल जातली?"

राजमातेन खीणभर येवजिलें आनी एका निश्चयान म्हळें, "स्वामीजींची तशी इत्सा आसत जाल्यार ही पातकी राजमाता संन्यास घेवंक कबूल आसा. तुमी म्हाका दीक्षा दिवशात?"

"हय. संन्यास घेवचेखातीर केशवपनाची गरजच ना. संन्यास घेवन तुमच्यांनी एक आदर्श घालून दिवं येता. घडये फाल्यां तुमची सून तुमचो त्याग पळोवन आपूणय संन्यास घेवंक कबूल जायत आनी तशें जालें जाल्यार ह्या संस्थानाचे प्रस्न सुटटले आनी तुमचो हुस्कोय सोंपतलो."

दुसऱ्या दिसा राजमातेन संन्यासाची दीक्षा घेतली. हवन कुंडाचे कुशीक ती

विराटासरीं बसली. दरबारी आनी हेर लोक हो सुवाळो पळोवंक आयिल्ले. जाळयेच्या पडद्याफाटल्यान कांय बायलोय बशिल्ल्यो.

विराटान मंत्रांचो उच्चार केलो. तांचो भावार्थ असो आसलो कीं ज्या घरांत देवाचे सेवेखातीर उदक, तण, भूंय आदी वस्तू सदांच आसतात, तें घर निर्धन जावनय धन्य उरता.

...मंत्रांचो उच्चार थांबलो आनी विराटान राजमातेक विचारले, "फाटलीं चोवीस वरां उपास केला?"

"फाटले दोन दीस हांव उपाशींच आसां."

"तुमचें मन शांत आनी शुध्द आसा?"

"हय."

"ह्या वेळार कसलोच सुवार्थी वा पातकी विचार तुमच्या मनांत ना मू?"

"ना. फकत एकच विचार मनांत आसा, पवनगिरी संस्थानच्या कल्याणाचो, प्रजेचे समृध्दीचो."

विराटान राजमातेच्या मस्तकार हात दवरून आशिर्वाद दिलो, "कुबेर तुका आपलें आसन दिवं. वरुणाचें छत्र तुका मेळूं. वायुदेवाचीं चंवरां आनी धर्माच्यो माळो तुका मेळूं. इंद्राचो मुकूट तुज्या मस्तकार चडूं, यमाचो दंड तुज्या हातांत पावूं..."

दिक्षेचो सुटसुटीत सुवाळो सोंपलो आनी राजवाड्यांत जमिल्ल्या लोकांक राजमातेन समरादना वाडली.



राजवाड्यांत जमिल्ल्या लोकांमुखार विरक्त साधूची भूमिका घेवपी विराट मनांतल्या मनांत आपणाचेर कसतालो. हें नाटक जें आपणें चलयलां, तें आतां थांबोवंक जाय. पूण फुडलें कितें? पवनगिरीचो प्रस्न ताज्या मुखार आसलो. तशें पळोवंक गेल्यार पवनगिरीक तो गुरूच्या आदेशावयल्यान आयिल्लो आनी गुरूचें काम ताणें पूर्ण केल्लें. पूण आतां ताजें मन दोन तरुण विधवांकडेन ओड घेतालें.

ताका दिसतालें, आपल्या देहाचें दुबळेपण सदांच आपल्या निर्धाराच्या आड आयलां. ताजे जिणेंत आयिल्ली सुमित्रा ही पयली बायल. एका नव्या अणभवाचें चट तिणें ताका लायलें. ना जाल्यार आपली जीण चार चौगांसारकी सरळ आसतली आसली. भावाची आपल्याकडच्यान अपेक्षा आसा. आपली भावज आवयच्या कळवळयान आपली वाट पळयता. वकील जावन गोंयांत गेल्लों जाल्यार पैसो आनी घडये नांव लौकीक आपूण जोडीत आसलों. थंयचीच एकाद्री कुळवंत, शीलवंत चली पळोवन संवसार सुरू करीत आसलो... पूण आपूण खंय वतां?

घरचे यादीन ताजें मन उदास जालें. फाटले दोन दीस ताका भगवीं वस्त्रां कांट्यासारकीं तोंपतालीं. मनांतली वासना चाळवल्ल्यान आसुंये ताजें चित्त देह-सुखा भोंवतणीं घुंवतालें. सुमित्रा... पूरबी...!

देव आपली परिक्षा घेता अशें विराटाक दिसलें. दिल्लींतच उरिल्लो जाल्यार एक वेगळीच जीण वांट्याक येवपाची. आपूण गुन्यांवकार न्हय. आपणें कसलो गुन्यांव केला? आपल्याक भिरांत कोणाची? मोग करप म्हळयार पातक न्हय आनी गुन्यांव तर

निखालस न्हय. कोणाखातीर आपणें ही ख्यारत भोगपाची?

अतिथीघरांतले कुडींत खाटेचेर रातभर तो तळमळ्ळो. खिणांत फुलवंती... खिणांत महानंदा तागेले वासनेक चाळयताल्यो... आनी खिणांत घरची याद ताका तोंडावयलें रुपडें पिंनून उडोवपाची प्रेरणा दिताली.

रातीच्या वेळार एक दासी भायले वटेन आयली आनी अतिथीघरांतल्या चाकरान दाराचेर मारलें.

विराटान दार उकतें केलें.

चाकर ते दासीकडेन बोट दाखोवन गेलो. तो गेला म्हणपाची खात्री करून दासीन आपल्या न्हेसणाचे किरंवटीक गुठलायिल्ली एक कागदाची चीट काडली आनी ती विराटाच्या हातांत दिली. जमनीक माथें लावन ताका पांयां पडली आनी कांय एक उलयना आसतना आयिल्ली तशी परतली.

विराटान घडयाळ पळयली. रातीचीं साडे धा वरां जाल्लीं. उकत्या जनेलांतल्यान मळबांतली चंद्राची कोर दिसताली. खीणभर शून्यांत नदर थिरावन जनेलाकडेन उबो रावल्या उपरांत विराट परत भितर येवन खाटेर बसलो आनी ताणें कागदाची घडी उसयली.

दोनच उतरां ते चिटयेंत बरयिल्लीं- 'दर्शनाभिलाषी- महानंदा.'

केदो वेळ मेरेन विराट ती चीट पळयत रावलो. तीं दोनच उतरां तागेल्या काळजांतल्या दर्यातल्या हुसक्याचीं आनी उमेदीचीं, दुबावाचीं आनी अपेक्षेचीं ल्हारां उचांबळ करून गेलीं.

ती येतली... काय आपणाक हें आमंत्रण तें ताका समजलें ना.

दोळ्याक दोळो लागलो ना. वाऱ्यान झाडाची खांदी हाल्ली तरी विराट उठून धांवत कुडीच्या दारांत येतालो. सगळी रात ताका कोण तरी दारार मारता, कोणालीं तरी पावलां वाजतात, खंय तरी कांकणां किणकिणटात असले भास जायत रावले.

पूण ते रातीकडेन कायच घडलें ना. सदांचे संवयेप्रमाणे विराट ब्राह्म म्हुर्ताचेर उठलो. एकूच दीस तो तळयाचेर न्हावंक गेल्लो. बाकीच्या दिसांनी अतिथी घरांतच न्हाल्लो. पूण आयज तो परत एक खेपे तळयाचे दिशेन चलूंक लागलो.

डांबरी मार्गान दोंगर देंवतना तो आपल्या मनाक प्रस्न विचारतालो. आपूण आंगभर न्हावन शुचिर्भूत जावंक तळयाकडेन वतां, काय फुलवंतीक मेळूंक?

विजेच्या दिव्यांचो रस्तो सोंपलो आनी विराट कडेक आयलो. तळयाचे देगेवयल्यान फुडें सरत सरत न्हावपाखातीर बांदून काडिल्ल्या घाटाच्या एका सोंपणाचेर तो वचून बसलो.

वातावरण थंड आसलें. हवेंतय शीं आसलें. मंद शीतळ वारो व्हांवतालो आनी त्या वाऱ्यान तळयांतलें उदक धोलतालें. अस्तमत्या चंद्राचें फिकट चान्नें त्या उदकाचेर परावर्तीत जातना ल्हान नुस्तें उदकाच्या वयर येवन खेळटा असो भास जातालो.

विराटान फाटीवयली शाल गच्च आंवळून घेतली. वाऱ्याच्या झोतासरशीं शिंयाचे बाण तागेली चामडी भेदून हाडामेरेन पावताले.

अणभवान विराट जाणा, तळयाचें उदक जरी थंड आसलें तरी एक बुचकळी

मारिनाफुडें कुडकुडो थांबतलो आनी बोंचरें शीं सुखदिणें जावंक पावतलें.

पूण विराटाली नदर दुसरेच वाटेकडेन थिराविल्ली. आजून फुलवंती येवंक ना... ती केन्ना येता ताजी ती वाट पळयतालो.

मदींच ताका दुबाव आयलो. फुलवंतीन म्हडिल्ली खबर राजमातेक सांगिल्ली नासत मूं? तेच खातीर राजमातेन फुलवंतीक त ार वचून न्हावपाचेर बंदी घालूंक ना मू?

खूब वेळ जालो, फुलवंती आयली ना.

विराट शाल वयर दवरून उदकांत देवंक वता इतले म्हणसर पयस एक अंधुक आकृती ताका दिश्टी पडली. ह्या वेळार दुसरो कोण आसचो ना; फुलवंतीच ती, अशें ताणें येवजिलें आनी सकयल दवरिल्ली शाल परत गुठलावन तो उबो रावलो.

आकृती लागीं पावली. ती सामकी म्हन्यांत पावसर विराट तिका पळयत रावलो. ती मात आपल्याच विचारांत आशिल्ली. तिणें विराटाक पळयिल्ल्याचो संकोच तिचे चालींत दिसलो ना.

'फुलवंती!' विराटान ल्हवू आवाजांत उलो मारलो.

ती थांबली. आवाजाचे दिशेन पळोवंक लागली. काळोख आशिल्ल्यान आकृती सांवळी कशी दिसताली. रूप वळखूंक येना आसलें तरी फुलवंतीन थंयच जमनीक तकली लावन विराटाक नमस्कार केलो.

हे खेपे विराटान इल्लें धाडस केलें. दोन पावलां फुडें उखलून तो फुलवंतीसरीं गेलो आनी ताणें आपल्या निबर हातांनी तिगेल्या दोनय भुजांक धरून तिका उबी केली.

एका अनवळखी कंपान फुलवंती कडकडूंक लागली. सगळेंच अनपेक्षीत आसलें. एके बाल विधवेक परकी दादल्याचो स्पर्श जाल्लो आनी तोय बी अशा निर्जन वाठारांत, काळखांत. त्याय परस ज्या साधूक तिणें मान दिल्लो, त्या साधून हो स्पर्श केल्लो देखून आसूं ये, ती कडकडटाली. पूण विराटाक दिसलें, आपलेंय आंग कंपीत जालां आनी आपल्या तोंडांतल्यान उतर फुटूंक त्रास जाता. ताणें हात सोडलो तशी फुलवंती फाटीं सरली.

"फुलवंती!" विराटान परत तिचें नांव उच्चारून म्हळें, "तुवें एक काम करूंक जाय. राणी महानंदाक एक रकाद दिवंक जाय"

"कसलो रकाद स्वामी?" फुलवंतीन सुटकेचो सुस्कार सोडीत विचारलें.

"आमंत्रणा बगर साधू राजवाड्यांत येवंक शकचो ना. पूण आयज दीसभर हांव अतिथीघरांतच उरतलों. तिणें येवन मेळचें... हां... पूण राजमातेची परवानगी घेवनच येवचें."

फुलवंतीन तकली हालयली आनी ती परत वचूंक लागली.

"हें कितें फुलवंती?" विराटान तिका विचारलें, "तूं न्हावंक आयिल्ली आनी न्हाले बगर परत वता?"

"स्वामी, न्हावचेले आसात देखून परत वतां." तिणें जाप दिली.

"तूं सद्दां राजवाड्यांत वता?"

"हय."

"एक विचारलें जाल्यार गैरसमज करून घेवं नाका. पूण ह्या पवनगिरी संस्थानाचो

उद्धार जातलो जाल्यार तें म्हाका समजून घेवप गरजेचें, देखून विचारतां. तुजे जिणेंत दुसरो कोण दादलो आसा?"

अनपेक्षीत प्रस्न आयकून फुलवंतीन आंग काडलें. खूब वेळ जाप दिलीच ना. विराटाली नदर तिजेर रोखिल्ली उरली.

"सांग, फुलवंती, कांय लिपोवं नाका. हांव तुजो निवाडो करिना आनी तुवें खरें सांगलें म्हणून तें दुसऱ्या कोणाक कळचें ना."

फुलवंतीन मान सकयल घाली. त्या अंधूक उजवाडांतय विराटान पळयलें कि तिगेलो आतांमेरेन खांघार उरिल्लो पदर गळसणला. आपूण अविचार करून बसन हे भिरांतेन विराटान दोळे धांपून घेतले.

"म्हजी जीण हांवें राजमातेचे सेवेक ओंपल्या." फुलवंतीन जाप दिली, "पातक, पुण्य हाजो विचारच हांव करिना. राजमाता सांगता तशें करतां."

"आनी महानंदाचे जिणेंत कोण दुसरो दादलो आसा?" विराटान विचारलें.

"म्हज्या तोंडांतल्यान उतर भायर सरलें जाल्यार राजमाता म्हजी जीब तोडीत. म्हाका वे विशीं प्रस्न विचारूं नाकात." आडखळत फुलवंतीन जाप दिली.

"तशें कांय जावचें ना. हांव तुका अभय दितां." विराटान म्हळें आनी विकारवश जावन तो फुडें सरलो.

फुलवंतीचे फाटीचेर ताणे आपलो दावो हात दवरलो.

हे खेपे फुलवंती कडकडली ना. आंगाचेर पडिल्लो जल्लो फाफुडचो ते तेरन तिणें विराटालो हात फाफुडलो आनी दोन पावलां फाटीं सरून म्हळें, "तुमकां राणी मेळटली... तिकाच विचारात."

"तरी पूण तुका कितें खबर आसा?"

"म्हाकाय तसो दुबाव येता. हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळोवंक ना. पूण हांव जाणां... राजकुंवराक पोसको घेतलो त्या आदीं राणयेचो गर्भपात जाल्लो." कशें तरी वाक्य पूर्ण केलें आनी नदर वयर करिना आसतना फुलवंती आपल्या घराचे दिशेन गेली.

तिचे फाटमोरे आकृतीकडेन, फांतोडेच्या काळखांत ती सांवळी विरून वचसर, विराट तटास नदरेन पळयत रावलो. उपरांत एकदम विरक्ती आयिल्ले भाशेन उदकांत देंवलो. ल्हान भुरगीं काळखांत भंय चेपचे खातीर व्हडाव्हडान बडबडटात तसो विराट आपल्या विकारांचेर जैत मेळोवपाच्या यलांत व्हड आवाजांत मंत्र उच्चारूंक लागलो.

न्हावन तो वयर सरलो आनी अतिथीघराची वाट चलूंक लागलो तो मेरेन उदेन्तेकडल्या क्षितिजाचेर गुलाबी कांत फांकिल्ली. आयज ताका खूबच कळाव जाल्लो. आपलें मन थाऱ्यार ना देखूनच ब्राह्म म्हुर्ताचेर देवाचें स्मरण करपाचें सोडून आपूण विकाराचे अधीन जालों अशें ताका दिसलें.

परत अतिथीघरांत पावतासर ताजें मन शांत जाल्लें.

दिवाण दारांत उबो आसलो. इतले सकाळचो तो केन्नाच येना. कितें घडलें काय, अशें येवजीत विराटान ताज्या तोंडाकडेन पळयलें.

"राजमातेची विनंती आसा." दिवाणान सांगलें, "स्वाम्यांनी आयज परत वचचें न्हय आनी वचपाचेंच जालें जाल्यार वचचे आदीं आपणाक थोडो वेळ दिवचो."

"आजून कितें उलोवपाचें आसा?" विराटान दिवाणाक विचारलें.

"म्हाका खबर ना. पूण संन्यास दीक्षा घेत सावन आपलें मन ल्हव जालां अशें तांणी दोन खेपे म्हळें."

"आतां ह्या वेळार राजमाता मेकळ्यो आसतल्यो?" विराटान विचारलें.

"हय. पूण म्हाका दिसता, त्यो आपले सुनेची आनी स्वामीची परत एक खेपे भेट घडोवन हाडूंक सोदतात. महानंदा राणी इतले बेगीन तयार जाल्ली नासतली. तिका उठूंक मात्सो कळाव लागता."

"बरें आसा, हांव सांजचो राजवाड्यार येतां."

"हांव तशें राजमातेक कळयतां." अशें म्हणून दिवाण वचूंक गेलो.

❈

दनपारच्या वेळार राजवाड्यांत चडंशे लोक नासले. विराटाली मोटार मुख्य दारांत थांबली आनी खासा राजमाता ताका येवकार दिवंक भायर आयली.

विराटाची नदर भितल्ले वाटेन उबी आशिल्ले महानंदेकडेन गेली. ताका अजाप जालें. महानंदेचेर ताजी नदर थिरावली. पुण दुसऱ्याच खिणाक विवेक जागो जालो आनी ताणें नदर दुसरेकडेन व्हेली.

राजवाड्यांत साधूक बसोवपाची कूड थारून गेल्ली आसली. राजमाता फाटल्यान रावली. विराट आपूण जावनच कुडींत भितर सरलो.

राजमाते फाटोफाट महानंदाय कुडींत भितर सरली. दोन-चार दासदासी भायले वाटेन रावल्यो. राजमातेन तांकां थंयसून पयस वचूंक सांगलें आनी कुडीचें दार धांपून घेतलें. राजवाड्याचे ते कुडींतले वणटींचेर वाग आनी हरणांचीं मुंडकीं खुटयांक लायिल्लीं. ह्याआदीं विराटाची नदर त्या मुंडक्यांचेर वचूंक नासली. मेल्ल्या जनावरांचीं मुंडकीं आसूनय तीं टवटवीत आसलीं आनी तांचे दोळे पळयल्यार तीं जितीं आसात अशेंच दिसतालें. वागाचें उग्रपण आनी हरणालो भंय तांचे दोळेच उक्तायताले.

विराट त्या मुंडक्यांकडेन पळयत रावलो. मुखार पातळायिल्ल्या जाजमाचेर बशिल्ल्यो दोनय बायलो देवामुखार हात जोडून बसचें तशो बसून थीर नदरेन विराटाक पळयताल्यो.

"हीं जनावरांचीं मुंडकीं..." विराटान वाक्य पूर्ण केलें ना.

"राजघराण्यांतल्या राजपुत्रांनी केल्ल्या शिकारीची ती याद. हांव जाणां, स्वामीजींक हो देखाव रुचचो ना. दुसऱ्या जिवाची हत्या करपाचो अधिकार मनशाक पावना. पूण हीं मुंडकीं खूब आदलीं. हांव ह्या घरांत सून जावन आयलीं त्या आदींसावन तीं थंय आसात."

"आतां तीं काडून उडयलीं म्हणून काय तीं परत रानांत वचचीं नात." विराट आपलेकडेनच उलयिल्लेभशेन उद्‌गारलो आनी उपरांत राजमातेकडेन नदर व्हरून ताणें म्हळें, "म्हाका हांगा आपोवपाचो हेतू कितें?"

"बोधाचे चार शब्द स्वामींनी सांगचे. म्हाका आनी म्हजे सुनेक. आयज ती स्वाम्यांच्या स्वागताखातीर आपूण जावन आयल्या."

"अफू घेवंक ना मूं?" विराटान खोंचक प्रस्न विचारलो.

महानंदेची नदर लजेन सकयल जाली. तिचे दोनय पोले तांबडे गुंज जाले. ते अवस्थेंत विराटाक ती खूबच सोबीत दिसली. बावली कशी!

तिका म्हन्यांत घेवची असो एक विचार लेगीत ताज्या मनांत येवन गेलो. पूण आपल्या वांट्याक नाटकांतलें एक सवंग आयलां, ताका आपणें न्याय दिवंक जाय हे भावनेन ताणें विकारांचेर अंकुश दवरलो.

विराटान दोळे धांपले आनी कसली तरी प्रार्थना म्हळी. संस्कृत श्लोकाचो स्पष्ट उश्चार हे कुडींतल्या वातावरणांत संगिताचे तरंग पातळावन गेलो.

श्लोक म्हणून जातकच विराटान म्हळें, "हांव एक सामान्य जीव. ह्या मर्त्य लोकांत शास्वत कांयच ना. उपदेश करपाची योग्यता म्हज्यांत ना. पूण संन्याशाकडच्यान लोकांनी अपेक्षा केली जाल्यार तांचें चुकता म्हणूंक जायना. राजस्थानच्या एका वाळवंटांतल्या पवनगिरीच्या सुजलाम् सुफलाम् अशा वाठारांत देवान म्हाका कित्याक हाडला तेंय हांव नकळ. म्हजो जप-तप, ध्यानचिंतन ही एक वैयक्तिक साधना अशें हांव मानतां. हांव इतलेंच जाणां कीं आसक्ती हें दुख्खाचें मूळ. पूण संन्याशाक लेगीत जी सुटना, ती गृहस्थ जीवनाचें सूख आनी म्हौंव चाखिल्ल्यांक सुटली ना जाल्यार अजाप ना. तरीकय आमी एक विसरूंक फावना, आमी ह्या संवसारांत उकते आनी रिकाम्या हातांनी आयले. वतनाय तशेंच वतले. वता आसतना आमच्या मनांत पातकां भरिल्लीं आसतलीं. ही पातकांची पोटली जाता तितली ल्हव दवरली जाल्यार स्वर्गलोकाची यात्रा सुलभ जाता अशें हांव मानतां. देखून म्हजी देवाकडेन प्रार्थना कीं ह्या राजघराण्यांतल्या दादल्यांनी आसूं वा बायलांनी पूर्वजांनी आसूं वा आयचे पिळगेन, जीं पातकां केल्लीं आसत तीं धुवन उडय. तांकां क्षमा कर आनी ह्या संस्थानाक आदलें वैभव परत मेळोवन दी."

इतलें उलोवन विराट थांबलो. कान दिवन, नदर थिरावन मांय-सून तागेलें उलोवप आयकतालीं.

"स्वामीजी, तुमी आमच्या राज्यांत आयले आनी आमच्या दोळ्यांत अंजन घालें. म्हजो अधिकार चलतालो जाल्यार हांव तुमकां हांगाच आस्रम बांदून रावंक सांगतलीं आसलीं. पूण तुमचे इत्सेआड म्हाका कांयच करपाचें ना. आतां म्हजी एकच प्रार्थना आसा, पवनगिरी सोडचे आदीं म्हजे हे अभागी सुनेक मार्गदर्शन करात. तिज्यो चुको पोटांत घालून तिका सदांच सुखी आनी आनंदी रावपाचो उपाय सांगात."

विराटान महानंदेकडेन पळयलें. आज ती वेगळी आनी सादी दिसली. तरी त्या सादेपणांत तिगेलें सौंदर्य वाडिल्लें. अबुद्द, भोळे भाव तिज्या मुखामळाचेर उदेल्ले. आयचो हांसो निष्पाप आसलो. आयज तिच्या दोळ्यांतले भाव लेगीत वेगळे अशें ताका दिसलें.

"तुका कितें सांगपाचें आसा?" विराटान महानंदाक विचारलें.

सुनेन मांयच्या तोंडाकडेन पळयलें.

मांय कांय उलयली ना. निखटी हांसली आनी उबी रावली.

"कितें जालें?" विराटान विचारलें.

"कांय ना. ती एकांतांत उलोवंक सोदता, हांव वतां."

राजमातेन विराटाक पयसुल्यानच नमस्कार केलो आनी नदरेनच सुनेक किते तरी खुणावन ती कुडीच्या भायर गेली.

कुडींत किण्ण पातळ्ळें. कशें उलोवचें आनी कितें उलोवचें हें विराटाक समजना जालें. जे बायलेचीं सपनां पळयत रातभर तो तळमळिल्लो आनी जिका मेळूंक फुलवंतीचो आदार घेवंक सोदतालो, ती सौंदर्यसम्राज्ञी महानंदा शालीन वस्त्र न्हेसून आतां ह्या एकांतांत ताज्यामुखार बशिल्ली आसा. विराटाली वाचाच धरली. वासना करपली. विकृती गळ्ळी. ताणें तिजेवयली नदर मुखावयल्या वागाच्या मुंडक्याचेर थिरायली.

महानंदेनच संवाद सुरू केलो. म्हळें, "तुमी येतले अशें म्हाका दिसूंक नासलें. आयले तें एकदम बरें जालें."

"हांव येवचो नाशिल्लों अशें कित्याक दिसलें?"

"त्या दिसाचे घडणुके उपरांत... त्या दिसा हांवें स्वामीजींचो अपमान केलो. मर्यादा सोडून हांव उलयलीं. म्हजी तकली सारकी नासली..."

"आयज चित्त थीर आसा मूं?" विराटान विचारलें.

"खूबशें थीर आसा, पूण तुमचे भेटे उप्रांत खूबशे प्रस्न मनांत आयल्यात. तांचें समाधान जालें जाल्यार घडये चित्त शांत जावं येता."

"आयज तुवें अफू घेतली ना?" विराटान विचारलें.

"ना. आनी उपासय केला. हांव पातकी, हें स्वामीजी जाणातच. प्रायश्चित घेवपाची म्हजी तयारी आसा." महानंदेन म्हळें.

"कसलें पातक म्हणटा तूं?"

"आतां वेगळें कितें सांगपाचें उरलां? म्हाका वायट संवयो लागल्यो, वेसनां लागलीं. विषय सुखाचें चट लागलें. ताका प्रायश्चित कांय ना?"

"आसतलें. पूण तुका तें कित्याक घेवंक जाय? तुका पश्चात्ताप जालो जाल्यार तेंच व्हडांतलें व्हड प्रायश्चित."

"स्वामी म्हजेर रागार जाल्यात?"

"ना. म्हाका तुजी काकुळटच दिसता. तुवें विचारिल्ल्या प्रस्नांत तथ्य आसा अशें म्हजें मन सांगता. पूण म्हज्या ह्या वस्त्रांची आनी आस्रमाचीं बंधनां म्हाका चड उलोवंक दिनात. इतलें सांगतां, सगळी रात हांवें तुजोच विचार केलो."

विराटाची जाप आयकून महानंदा लजेली. तिणें आपलो पदर सारको केलो आनी तोंडावयले भाव लिपोवचे खातीर हातांच्या पोशांनी तोंड धांपलें.

"म्हजो रकाद स्वामीजींक पाविल्लो?'

"हय, पूण त्या उपरांत राजमातेनच आपोवणें धाडलें. तुजीं राजमातेकडेन कितें उलोवणीं जालीं?"

"म्हजी वागणूक बदलिल्ली पळोवन राजमाता खुशालभरीत आसा. हांवें तिका म्हळें, म्हजेकडच्यान स्वामीजींचो अपमान जाला, म्हज्या दोळ्यांतल्या दुकांनी तांचे चरण धुवन हांव तांची माफी मागूंक सोदतां... हांव कितें करूं?" महानंदेन म्हळें.

"हांव तुका कांयच सांगना. ती म्हजी योग्यता ना. सगळ्या मनशांक एकच नेम

लागू जायना. म्हजें तुका इतलेंच सांगणे कीं जें कितें करता तें येवजून कर. भंयान वा लजेन मन मारूं नाका. पूण समाजाचीं बंधनां आसतात हें विसरूं नाका."

"ह्या राजघराण्यांत सोन्याचे पेले आनी विलासाच्यो सावार तरा मेकळेपणान घोळत आयल्यात. हांगा कोणाचो कोणाचेर निर्बंध नासता. राजाक पातकां करपाचो लेगीत अधिकार आसता, अशी मान्यताय हांगा चलत आयल्या. पूण म्हजी एक इत्सा आसा. हांव हीं सगळीं पातकी जीण सोडूंक तयार आसां, म्हाका एक खेपे आवय जावचेलें आसा."

तिणें सरळ अशें म्हणिनाफुडें विराट संकोचान खांकुडलो आनी ताणें म्हळें, "तूं जाणा, हांव संन्यासी."

"म्हणूनच विचारतां." धिटायेन महानंदान म्हळें, "जर एका संन्याशाक दुसऱ्याक दीक्षा दिवपाचो अधिकार पावता, जाल्यार मातृत्वाचे उमळशिकेन आकुळपिकूळ जाल्ले एके बायलेक..."

महानंदान जीब चाबली आनी एकदम पदर माथ्यार घेवन तो तोंडार ओडलो.

"उलय तूं, सगळें उलय. तुका जें म्हणचें आसा तें म्हण, हांव आयकतां. म्हाका वायट दिसना."

"ह्या राजवाड्यांतल्या वणटींक कान आसात आनी हांगाच्या वातावरणांत आमच्या पूर्वजांचे स्वास आसात. म्हजी एक प्रार्थना आसा, फाटले वटेच्यान रान आसा. जिवितांत एकच खेपे घोवावांगडा हांव त्या रानांत गेल्ली. त्या उपरान्त चार वणटींचो बंदिवास म्हज्या वांट्याक आयला. थोड्या वेळाखातीर ह्या पांदऱ्यांतली हांव भायर वचूंक सोदतां. त्या रानांत..."

"हांव राजमातेक तशें सांगूं?" विराटान विचारलें.

"हांव सांगूंक तयार आसां... पूण म्हजी एक प्रार्थना आसा. स्वामीनी म्हज्या सांगाताक येवचें.'

विराट इतलो गोंदळ्ळो कीं ताका जाप फुटली ना. पूण ताज्या तोंडावयले बदलिल्ले भाव हयकार दिवन बसल्यात म्हणपाचें महानंदा वळखली.



राजमातेन विरोध केलो ना. उरफाटी रोखडीच मोटार तयार केली. विराटाक तिणें म्हळें, "तुमकां थोडे त्रास जातले. पूण म्हजे सुनेंत जो बदल घडून येता तो बऱ्याचो अशें म्हाका दिसता. तुमचे उपकार सदांच म्हज्या माथ्यार उरतले."

"तातूंत कसले त्रास?" विराटान म्हळें, "म्हाकाय सैमाची सोबा पळोवंक आवडटा."

गाडयेंत विराट आनी महानंदा फाटल्या सिटार बसलीं. फुडल्या सिटाचेर ड्रायव्हरा कुशीक एक चाकर आसलो. ताज्या हातांत एक आर्म."

"हें आर्म कित्याक घेतलां?" विराटान त्या चाकराक विचारलें.

"रानांत रानवटी जनावरां आसात. तांचे पसून राखण करची पडल्यार हें आर्म उपकारतलें." तकली फाटल्यान घुंवडायनासतना चाकरान जाप दिली.

विराटान महानंदेकडेन पळयलें. मुखावयल्या सिटाचेर दुसरे लोक आसात हे खातीर

आसूं ये, तिणें आपलें तोंड पदराआड लिपयिल्लें. ती एकय उतर उलय नासली. विराटाक तिजेकडेन उलोवचें अशें दिसतालें. पूण चाकर वर्गामुखार उलोवप समा जावचें ना, अशें येवजून तोय ओगी रावलो.

मदींच ताणें गोटारीच्या सिटाचेर आसनमांडी घाली. त्याच वेळार घाटाची चडटी चडटना आयिल्ल्या वळणाक लागून तो लकलो आनी महानंदेच्या आंगार पडलो. महानंदेन हात फुडें केलो ना. ताकाच तोल सांवरचो पडलो. तशें करतना तिज्या देहाच्या स्पर्शाचें सुख ताणें अणभवलें.

वाटेवयलो देखाव खूबच सुंदर आसलो. दाट रानां. दनपारचो वेळ आसतनाय वताचीं किर्णां जमनीमेरेन पावनासलीं. मोटारीच्या घरघरांतय सवण्यांचें संगीत कानार पडटालें.

महानंदेन ड्रायव्हराक कितें तरी सांगलें. ड्रायव्हरान जाप दिली ना. सुमार पंदरा मिनटां गाडी मोन्यांनी चलयतकच ताणें अचकित थांबयली.

"कितें जालें?" विराटान विचारलें.

ड्रायव्हर आनी चाकर सकयल देंवले, तेन्ना महानंदेन म्हळें, "कांय जावंक ना. हांवेंच थांबोवंक सांगल्या."

ड्रायव्हर आनी चाकर पयस वचून बशिल्ले विराटान फाटल्या हारशांतल्यान पळयले. ते विडयो पेटयतात हें पळोवन विराटान महानंदाक म्हळें, "सांग, तुका कितें सांगपाचें आसा?"

"ह्या वेळार म्हज्या मनांत वेगळोच विचार येता." महानंदान म्हळें, "पवनगिरीची राणी एकली राजवाड्याभायर केन्ना वचना, दुसऱ्या दादल्या सांगातान वचप हें पातक अशें आमी मानतात. संन्याशाच्या सांगातान गेली म्हणून लोक उलोवपाचो रावना आनी असल्या प्रसंगाचेर राणयेपरस संन्याशीच चड बदनाम जाता. तुमचे बदनामेक हांव कारण जायना मूं?"

"म्हजी चिंता तूं करूं नाका. म्हजे बदनामींत तुजें सूख आसपाविल्लें आसत जाल्यार हांव ती सोंशीन. नाय जाल्यार हांव हांगा रावचो ना. परत वतलों. तूं तुजेच बदनामीचो विचार कर. तुका पुराय जीण हांगाच सारची आसा." विराटान म्हळें.

"जाणां. आयजमेरेन हांवें खूब पातकां केलीं. आयज हांव करतां तेंय पातक काय कितें म्हणपाचें म्हाका खबर ना. पूण हांव उक्तेपणान तुमच्या सांगातान आयलीं. म्हजें मन खऱ्यांनीच आयज मेकळें जालां."

"तर तूं मेकळेपणान उलय." विराटान म्हळें.

"म्हजी एक इत्सा आज पूर्ण जाली. हांव संन्यास घेतां. पूण म्हाका एका प्रश्नाची जाप जाय. विधवा बायलेन आवय जावप शास्त्राक मान्य ना?"

"शास्त्राचें हांव नकळ. राजघराण्याचें बंधन नासतें जाल्यार तिज्यान दुसरें लग्न करूं येतालें. विधवेगेर जाल्लें भुरगें अनौरस आसता. त्या भुरग्याच्या फुडाराचो विचार करूंक जाय."

"स्वामीजी, तुमी संन्यासी. देव म्हजीं कसलीं फकाणां करता पळेयात. आज पयलेच खेपे हांव राजवाड्याच्या भायर आयलें. राणयेचीं वस्त्रां राजवाड्यांत दवरून

आयलें. म्हज्या सांगातान एक राजबिंडो तरनाटो आसा, पूण कट्टे कट्टे! तो विरक्त संन्याशी! म्हजी एक प्रार्थना आसा..."

"थांबली कित्याक? उलय." विराटान म्हळें.

महानंदेन तोंड लिपयलें आनी ती रडूंक लागली.

विराटान तिजे फाटीर हात दवरलो आनी म्हळें, "म्हजो संन्यास धर्म बुडून तुजें मन शांत जावपाचें आसत जाल्यार त्या त्यागाक हांव तयार आसां."

महानंदा विराटाचे कुशींत रिगली.

थोड्या वेळाभितर युगां उलगलीं अशें दोगांकय दिसलें.

ती आदीं भानार आयली. एकदम उठून बसली आनी न्हेसण सारकें करून मोटारींतल्यान सकयल देंवली.

ड्रायव्हराक तिणें आपयलो आनी म्हळें, "विश्रामधामाचे पलतडीन आशिल्ल्या धबधब्याकडेन व्हर."

ड्रायव्हर मोटारींत बसलो तेन्ना विराटाच्या काळजांत भावनेचीं आनी वासनेचीं ल्हारां उसळटालीं. आपल्या काळजांत एक व्हडलो ज्वालामुखी धुमसता, ताजो अचकित स्फोट जायत अशी भिरांत दिसून ताणें संस्कृत श्लोकांचें मेकळ्या आवाजांत पठण सुरू केलें.

त्या मानान महानंदा शांत बसून रावली.

गाडी विश्रामधामाकडेन पावली आनी महानंदेन ड्रायव्हराक थांबूंक सांगलें. म्हळें, "तुमी हांगाच रावात. हांव स्वामीजींक धबधबो दाखोवन परत येतां. स्वामीजी हांगाच जेवतले आनी थोडी विश्रांती घेवन सांजवेळा परत वतले."

आदीं ती देंवली. हरणाच्या पाडकाच्या कानांत वारें वतकच तें जे चंचलतायेन वागता, तशी ती विराटाक दिसली. ती देंवली आनी फुडें चलूंक लागली. विराट तिज्या फाटल्यान चलतालो.

मोटारीचो मार्ग सोंपलो आनी पायवाट सुरू जाली. विराटान पयसुल्यान पळयलें, दोंगराचे मदींच एक दरी आसा, ते दरीचे एके कुशीक दुदाचो फेणोर उसळावपी धबधबो आसा. सगळो वाठार पाचवोचार.

चलतां चलतां विराटाचो पांय निसरलो. महानंदेन संकोच करी नासतना ताजो हात धरलो आनी म्हळें, "जिणेचे वाटेर पामर मनशाक संन्याशाच्या हाताची गरज लागता आसत; पूण ह्या धबधब्याचे वाटेर संन्याशान एके बायलेचो हात धरलो जाल्यार तें पातक न्हय."

विराट उलयलो ना.

धबधब्याचे कुशीक एक व्हडली शिळा आसली. ते शिळेचेर दोगांय बसलीं. मुखार दाट रान.

त्या वातावरणांत विराट संन्यासधर्माचीं बंधनां विसरिल्लो आनी कॉलेजांतलें जोडें जे वृत्तीन पिकनिकेक वता, ते वृत्तीन तो महानंदेकडेन उलयतालो.

"अशी पयस कित्याक बसल्या? लागीं यो." अशें म्हणून विराटान तिका आपल्या म्हऱ्यांत ओडली.

तिणें विरोध केलो ना. तकली सकयल घालून एकच विचारलें, "एक सांगात, मेल्ले

मनीस वयल्यान आमकां पळयतात?"

"म्हाका खबर ना. आसत वा नासत. कोण पळयत म्हणपाचो तुका भंय दिसता?"

"म्हजो घोव."

"ना. ताजो हुस्को तूं करूं नाका."

"पूण ताणें पळयिल्लें म्हाका जाय. आपल्या मर्णाउपरांत म्हजी जीण सोपूंक ना हें ता... कळूंक जाय." दांत ओंठ किड्डून महानंदान म्हळें.

"इत... ... ... न्हय." विराटान तिका समजायली, "तातूंतय मरून गेल्ल्या घोवाचेर असो राग उक्तावंक जायना. ताणें तुजें कितें केलां? ताजें मरण ताज्या हातांत थोडेंच आसलें."

"तेंय खरें न्हय." महानंदान म्हळें, "ताजें मरण म्हज्या हातान आसलें.'

"म्हळ्यार कितें?"

"हांवेंच ताजो खून केलो."

"कित्याक?"

महानंदेन आपल्या मनांतलें गुपीत सांगलें, "म्हज्या घोवाक बायलांचें चट. खंयचेय सुंदर बायलेचेर ताजी नदर गेली जाल्यार तो तिका वश करतालो. नाजाल्यार राजाचो अधिकार वापरून तो तिका उखलून ह्या विश्रामधामांत घेवन येतालो.

"तूं फुलवंतीची खबर सांगता?" विराटान विचारलें.

"फुलवंतीची खबर तुमी जाणात?" अजापून महानंदेन विचारलें.

"हय, आयकल्या."

"असल्यो कितल्योशोच फुलवंती ताणें फुलांच्यो मोन्यो कळयो विसकटावन उडोवच्यो तशो भोगल्यात. त्योय बी म्हज्या दोळ्यांसामकार! हीं पातकां घेवन तो खंय वतलो आसलो? पूण ताजी ती खोड आसली."

"तुजेसारकी सुंदर बायल मेळिल्ली आसतना ताका दुसरे बायलेचो विचार तरी कसो येतालो...?"

"म्हजें सोडात... ताका बायल म्हळयार पत्रावळीसारकी आसली. एक खेपे जेवतकच तो ती पिसडून भायर उडयतालो आनी आपलीं पातकां लिपोवंक तिका छळटालो."

"पूण फुलवंतीच्या घोवान ताजो खून केला अशें आयकल्लें." विराटान म्हळें.

"तो लाचार मनीस. खून कितें करतलो? म्हजो घोव आपले बायलेच्या देहाकडेन खेळटा हें तो म्हऱ्यांत बसून पळयतालो. म्हज्यानच सोसूंक नज जालें आनी हांवें घोवाचेर आर्म जोखलें. ताका दिसलें, हांव फकाणां करतां. पूण हांवें घोडो ओडलो, म्हज्या कपलाचो कुंकूम पुसलो... एका पातकी मनशाक सोंपयलो... हें पुण्यकार्य न्हय स्वामी?"

विराटाल्या उतराची तिका अपेक्षा नासली. तिणें ताजे छातयेंत तोंड लिपयलें आनी मुळमुळीत रडूंक लागली.



झाडा मुळांत बशिल्ल्या भुकेल्ल्या वाटसुराची नदर झाडाचेर पिकिल्ल्या आंब्याचेर

वचची आनी दुसऱ्याच खिणाक वाऱ्याच्या झोतासरशीं तें फळ झडून वाटसुराचे होंटींत पडचें तशें विराटालें घडिल्लें.

विवेकाचेर विकारान जैत जोडलें.. त्या निर्जन वाठारांत महानंदेच्या स्पर्शान विराट आपलो धर्म विसरलो...

"या आमी, आतां वेळ जालो." खूब वेळ खोशयेच्या तळयांत पेंवल्या उपरांत महानंदाक भोंवतणच्या संवसाराची जाणविकाय जाली.

पूण विराटाक एक तनर लागिल्ली. ताजे दोळे उकते आसले, पूण चित्त शून्यांत गेल्लें.

"हें पातक स्वामी?" महानंदान विचारलें.

"हांव नकळ."

"मरून गेल्ले जीव सर्गांतल्यान खरेंच पळयनात?"

"परत तोच प्रस्न कित्याक विचारता?"

"तो एक भंय मनांत आसा.'

"पूण मरून गेल्लो जीव तुजें वायट कितें करतलो? ह्या संवसारांत तरी तागेली सत्ता चलना." विराटान म्हळें.

"तरीकय सत्य कितें तें हांव समजून घेवंक सोदतां."

"हिरण्मयेन् पात्रेन सत्यस्यापिहितम मुखम्... सत्याचेर भांगराचें धांकणें आसता. जो मनीस तें धांकणें कुशीक काडूंक पावता, ताकाच सत्याचो दिश्टावो घडटा."

"म्हाका हें तत्त्वज्ञान समजना." तोंडाचेर भोळे भाव हाडून महानंदान म्हळें, "पूण त्या दिसा तुमकां पळयलें आनी म्हाका दिसलें, आमचें फाटल्या जल्माचें कितेंय नातें आसतलें. तशें आसूंक नज?"

"धर्मशास्त्र तशें मानता. न्हंय जशी निमाणें दर्याक वचून मेळटा, तशेच तानेल्ले जीव जल्माचे फेरे घेवन एकमेकांक मेळूंक येतात."

"आनी हें मीलन अशेंच खिणयाळें उरपाचें?" महानंदेचो प्रस्न.

"हें पळय, तूं पदभ्रश्ट जाल्या. हांवय पातकी. आमचें मीलन कश्टांचें जातलें...हांव कफल्लक फकीर. म्हाका म्हजें घर ना. पोटाखातीर हांव भीक मागतां. तूं राणी, तुका एके विलासी जिणेची संवंय जाल्या. ह्या जल्मांत तरी आमच्यो वाटो वेगळयो."

"म्हाका क्षमा करात स्वामी, म्हाका मुक्ती मेळची ना हें हांव जाणां. पूण तुमकांय हांवें पातक करूंक लायलें. हीं सगळीं पातकां घेवन हांवें दीस कशे काडपाचे?" एकदम गंभीर जावन महानंदेन विचारलें.

"तूं पर्वा करूं नाका! तुजीं सगळी पातकां हांव म्हज्या आंगार घेतां आनी तुका पापमुक्त करतां."

"अशें जावं येता?"

"हें पळय, जेन्ना दोन मनीस मनान आनी देहान एकरूप जातात, तेन्ना दोगांमदीं अंतर उरना."

"पूण म्हजीं पातकां अनंत. घोवाचो हांवें खून केलो. म्हाका सात जल्मा मेरेन क्षमा मेळत अशें दिसना."

"कबुली आनी पश्चात्ताप हीं दोन प्रायश्चित्तांच..." अशें म्हणून विराटान नदर आरावली पर्वत रांगेच्या निळया तेंगशांचेर थिरायली.

महानंदा उठली.

"आमी विश्रामधामांत परतुंया. तिणें म्हळें."

न्हिदसुरे अवस्थेंत विराट उठलो. तिज्या फाटल्यान पावलां उखलीत चलूंक लागलो. मदींच महानंदा थांबली. तिणें विचारलें, "संन्यास घेतल्यार म्हाका मुक्ती मेळत?" विराटाक तिजें भोळेपण पळोवन हांसूंक आयलें.

ताणे म्हळें, "म्हाका खबर ना. आनी म्हजो संन्यासावयलो विस्वासच उडला."

विश्रामधामाच्या दारांत सगळे चाकर तांचीच वाट पळयताले. भितर कुडींत वचून विराटान महानंदाक म्हळें, "तूं एक काम कर. जेवणा उपरांत हांव हांगाच थोडो विसव घेतां. तू राजवाड्यांत वच आनी म्हाका परत मोटार धाड."

"अशें कित्याक?" महानंदान विचारलें.

"हें पळय, हे विशीं अदीक प्रस्न विचारूं नाका."

तिणें जाप दिली ना. जेवले बगरच ती राजवाड्यांत गेली.

विराट शांत चित्तान जेवन न्हिदलो. ताका गाढ न्हीद लागली.

ताका जाग आयली तेन्ना दीस अस्ताक गेल्लो आनी भायर काळोख दाटूंक लागिल्लो.

ताणें जनेलांतल्यान पळयलें, महानंदाक पावोवंक गेल्ली गाडी परत आयल्या. ताका आतां फुडली येवजण आंखपाची आसा. आयच्या प्रसंगा उपरांत परत राजवाड्यांत वचूंक ताजें मन कबूल नासलें. अतिथीघरांत ताजी एक पोती आसा. ते पोतयेंत थोडे पैशे आसात. पोती घेवन सरळ जयपुराक वचचें अशें तो येवजूंक लागलो.

तोंड धुवन भायर आयलो आनी ताची नदर दिवाणाचेर पडली.

"कितें जालें? तूं केन्ना आयलो?" विराटान ताका विचारलें.

"राजमातेनच म्हाका धाडला. महानंदाराणी तुमचेकडेन झगडली?'

"ना. कित्याक विचारता?"

"ती जेवना आसतना स्वामींक हांगाच सोडून परत आयली म्हणून राजमातेक दुबाव आयलो."

"ना. तशें कांय घडूंक ना... खरें म्हळयार आमचें चडशें संभाषणय जावंक ना. इतलें खरें कीं ह्या वातावरणांत पावतकच ती व्याकूळ जाली."

"जावपाचीच.' दिवाणान म्हळें, "तेच खातीर राजमातेक दुबाव आयलो. हांगा पावतकच तिका आपल्या घोवाचो उगडास येवप सभाविक आसा."

"आसूं येता." विराटान म्हळें. तो वचून मोटारींत बसलो. दिवाण आपली मर्यादा वळखून फुडल्या सिटाचेर बसलो.

गाडी दोंगर देंवंक लागली.

"फाल्यां सकाळीं म्हाका जयपुराक वचूंक जाय. मोटारीची वेवस्था जातली न्हय?" वाटेंत विराटान दिवाणाक विचारलें.

"अडचण कसलीच ना. पूण तुमी वतले हें राजमातेक सांगलां?"

"आतां ती म्हाका आडावची ना. म्हजे नदरेन ह्या संस्थानाचो प्रस्न सुटला. महानंदा आतां सुदारतली. पूण तिका बंदिवासांत दवरूंक फावना."

"स्वामीनी तशें राजमातेकच सांगिल्लें बरें."

"पळोवया." अशें म्हणून विराट ओगी बसलो.

आपल्या मनांतल्या मनांत तो कसत रावलो. दरकडेन आपूण उज्याची कीट पेटयतां आनी अचळय पयस वतां. अशें कितले दीस चलपाचें? असो प्रस्न विराटाक पडलो.

गाडी राजवाड्याच्या दारांत थांबली तेन्ना तो भानार आयलो आनी ताणें दिवाणाक विचारलें, "राजवाड्यांत कित्याक? म्हाका अतिथीघरांत पावय."

"राजमातेची आज्ञा, देखून गाडी हांगा हाडल्या."

गाडी उबी रावनाफुडें भितरल्यान राजमाता धांवत भायर आयली.

सोपणाक विराटालो पाय लेंकना फुडें तिणें आपलें मस्तक त्या पायांचेर दवरलें.

भितरल्या दालनांत येतकच राजमातेन म्हळें, "तुमचे दिव्य शक्तीचो साक्षात्कार म्हाका घडलो. महानंदेचो हुस्को सोंपलो. आयज तिणें आपूण जावन राजकुंवराक म्हऱ्यांत घेतलो आनी ताजी अपुबाय केली."

"देवाचे उपकार मान. पुर्वजांचे पुण्यायेक फळ आयलें अशें समज." विराटान म्हळें, "हांव निमित्य. ते अदृश्य शक्तीनच म्हाका हांगां हाडलो अशें हांव मानतां. आतां तरी म्हजें काम सोंपलें मू? आतां म्हाका म्हजे वाटेन वचूं दा."

"जशी स्वामींची इत्सा." अशें म्हणून राजमातेन परत विराटाक नमस्कार केलो.

अतिथीघरांत वचपाखातीर विराट उठ्ठासर राजमातेन म्हळें, "एक विपरीत घडणूक घडल्या."

"कितें जालें?" विराटान विचारलें.

"फुलवंतीन जीव दिलो!"

विराट कांय उलयलो ना. संथ पावलां उखलीत तो वचून मोटारींत बसलो. मोटार अतिथीघराचे दिशेन वचूंक लागली.



दुसऱ्या दिसा सकाळची गाडी धरतलो जाल्यार फांतोडेरच भायर सरचें पडटलें हें विराट जाणा आसलो. आपणें वचपाचें थारायलां आनी राजमातेन मान्यताय दिल्या हें विराटान दिवाणाक सांगून दवरिल्लें.

पूण विराटाली मनःस्थिती द्विधा जाल्ली. महानंदा राणयेच्या रुपाचेर तो जसो भाळिल्लो, तशीच तीय आपल्याचेर भाळ्ळ्या ही जाणविकाय ताका एका वेगळ्या फुडाराचीं सपनां रंगोवंक लायताली. फाटीं-फुडें पवनगिरी संस्थानाचो कारभार महानंदा राणयेच्या हातांत येतलो आनी हें विलासी वैभव, आपणें मनांत हाडलें जाल्यार आपल्या पांयाचेर लोळूं येता, हो विचार ताका एके वटेनच्यान सुखयतालो. दुसरे वटेनच्यान आंगावयलीं भगवीं वस्त्रां ताका तें पातक म्हणपाची टोंचणी दितालीं.

विराट येवजीत बशिल्लो, इतले म्हणसर दार वाजलें.

विराटाक मातसो रागच आयलो. सपनभंगाचो विरस ताका जाल्लो. ताणें उठून दार

उकतें केले. दारांत दिवाण उबो.

दिवाणान विराटाक नमस्कार केलो. नमस्कार करतना दोनय हातांनी धरिल्ली एक वस्त सकयल दवरली. उपरांत म्हळें, "महानंदा राणयेन ही भेटवस्त धाडल्या."

विराटान दिवाणाक ती वस्त टीपॉयचेर दवरूंक सांगली आनी विचारलें, "फाल्यां सकाळीं हांव वतलों. मोटार तयार आसतली न्हय?"

"हय. मोटारीची वेवस्था केल्ली आसा." दिवाणान म्हळें, "पूण एक निरोप आसा. महानंदा राणी आयज रातीकडेन भेटेक येवपाची आसा."

"राजमाता येतली?" विराटान विचारलें.

"तशें सांगूंक ना. पूण स्वामींची आज्ञा आसली जाल्यार हांव राजमातेक कळयतां."

"ना, कळोवपासारकें खास काम कांय ना. पूण महानंदान जो रकाद धाडला, तो राजमातेक खबर ना?"

"राजमातेचे हुजीरच ही भेटवस्त म्हज्या हातांत दिली आनी निरोप सांगलो."

"तशें जाल्यार तिका जाय तेन्ना येवं दी. हांव हांगाच आसां." विराटान म्हळें.

दिवाण वतकच विराटान भेटवस्तीचें पार्सल उकतें केलें आनी तो विस्मीत नदरेन पळयत रावलो.

पार्सलांत सुवर्णमुद्रा, चलनी नोटींचें एक बंडल, रस्मी वस्त्रां आनी ड्रायफ्रूट आसलें. केदो वेळमेरेन विराट त्या वस्तूंकडेन पळयत रावलो. एके राणयेन संन्याशाक धाडिल्लो हो नजराणो! काय एके प्रेयसीन आपल्या प्रियकराक धाडिल्ली ती भेट? खरें कितें तें ताका समजना जालें.

महानंदा मेळूंक येता... ती येतली... एकांतांत मेळटली. आतां तांचे मदीं संकोचाचो पड्डो उरूंक ना. ती कशी वागत, कितें मागत?

एके वटच्यान विराटाक भंय दिसतालो आनी दुसरे वटेनच्यान तागेलें मन तिजे वाटेकडेन दोळे लावन बशिल्लें.

महानंदा आयली, दार वाजयलें आनी जापेची वाट पळयना आसतना तिणें दार धुकलून उकतें केलें. भितर नदर व्हरून आसनाचेर बशिल्ल्या विराटाक पळोवन हांशिल्ले भाशेन केलें. परत दाराची खिळी घाली आनी मागीर एकदम एकाद्र्या ल्हान भुरग्यावरी धांवत वचून विराटाले पांय धरले.

तिजी अपेक्षा कितें आशिल्ली देवाक खबर! पूण जे तरेन ती वागताली, ती तरा पळयल्यार तो श्रध्देचो वा भक्तीचो उमाळो दिसनासलो. विराटान संयम दाखयलो. तिज्या माथ्यार हात दवरून म्हळें, "सपनां हीं विसरपाखातीर आसतात. सपन म्हळ्यार माया. जीवन हें सत्य आसता. जिणेचो फुडो करचे खातीर आतां तुका गंभीरपणान पावलां उखलचीं पडटलीं. आनी त्याखातीर मन घट करचें पडटलें."

"म्हजे जिणेंत तुमी एक व्हडलें वादळ हाडलां. जिणेचो सूर जुळटां जुळटां तुमी परत वतले ही कल्पना म्हाका सोंसना. तुमकां हांव वचूंक दिवची ना! क्षीणभर तुमी हांगाच रावंक जाय. खंयच्या नात्यान, खंयच्या रुपान तो तुमचे मर्जेचो प्रस्न."

"तूं म्हजो विचार करूं नाका, महानंदा." विराटान म्हळें, "हरशी तुजेखातीर हांव भगवीं वस्त्रां सोडूंक तयार आसां. संन्यासधर्म सोडून गृहस्थजीण जगपाची म्हजी तयारी

आसा... तुजेखातीर. खरें म्हळ्यार हांव कितलों दुबळो हें आतां तुकाय खबर आसा आनी म्हाकाय खबर आसा. तरी पूण तुजोच विचार केलो जाल्यार म्हाका दिसता, हांवें हांगासून वचपांत तुजें कल्याण आसा. आयज तूं साधूम्हन्यांत आयल्या. राजमातेक वा दुसऱ्या कोणाक तें अनुचीत दिसना. पूण प्रेम लिपून उरना. तें नदरेक लिपोवंक येना. तें जेन्ना लोकांक समजतलें, तेन्ना ह्या गांवांत तोंड दाखोवपाचो आधार म्हाका उरचो ना. म्हजें सोड, पूण तुजें कितें? प्रजेच्या मनांत आपली राणी ही एक व्यभिचारिणी अशें एक खेपे गेलें जाल्यार कितें घडूं येता हाजो विचार कर."

"कितें घडत ताका तोंड दिवपाची म्हजी तयारी आसा. इतलेंच न्हय तर हें राणीपद सोडून पळून वचंक हांव कबूल आसां. म्हाका फक्त तुमचो आदेश जाय." महानंदेन म्हळें.

"तें तितलें सोपें न्हय. रामायणांतले सीतेची जी दुर्दशा जाली ती रामासारक्या महापुरसाचें प्रेम आसूनय सीतेक चुकली ना... हांव तर पातकी पामर. तूं सांग, तुका म्हज्यान कसलो आदार दिवंक येता? प्रेम काय आसक्ती तें हांव नकळें... तुजेविशीं मनांत उपाट भरल्या. ताजो परिणाम कितें तें हांव जेन्ना येवजितां, तेन्ना म्हाका दिसता, हांवें परत वचचें."

"तुमी वतलेच जाल्यार वचात... पूण आनीक एक म्हयनो रावन वचात." महानंदेन म्हळें.

"त्यापरस हांवच तुका मुंबय सारकिल्या परकी जाग्यार आपोवन व्हरन. तूं राणी कशी हांगा राव आनी राजकाजाच्या कामाचें निमित्त्य करून वा भलायकेचें निमित्त्य करून मुंबय यो." विराटान सुचयलें.

"तें राजघराण्यांतले एके सुनेक, तातूंतय विधवा सुनेक, शक्य जावचें ना. एकलीच खंय रावतली? आनी मुंबय वचून तुमकां मेळ्ळी जाल्यार लोकांचे दुबाव वाडटले, तेन्ना तो पर्याय सांगूं नाकात."

"तशें जाल्यार दुसरो पर्याय आसा." विराटान म्हळें, "हांव साधूच्या भेसांतच परत येतां. दीस थारावन येतां. पूण आतां म्हाका वचूं दी."

एकदम महानंदा उठून उबी रावली. दोनय हातांच्यो मुठी तिणें आंवुळ्ळयो. आपली तिडक तिका आटापना जाली. ती एकदम थरथरूंक लागली. तिणें म्हळें, "तशें जाल्यार आदीं म्हजो खून करात आनी मागीरच वचात."

ह्या अचकित पावित्र्यान विराट गोंदळ्ळो. ताणें तिका घट्ट वेंगेंत धरली. तरी तिचो थरथर थांबलो ना.

"तुज्या मनासारकें जातलें, महानंदा." ताणें तिका आश्वासन दिलें.

ती शांत जाली. ताजे वेंगेंतली कुशीक सरली आनी आपल्या न्हेसणांत लिपोवन दवरिल्ली एक सुरी भायर काडून तिणें मोखून जमनीर मारली.

विराट आदीं गोंदळिल्लो. आतां थोडो भियेलो. ही बायल सुरी घेवन भोंवता. तिडकल्या वेळार ही दुसऱ्याक वा खासा आपणाक तोपूनय घेवं येता.

विराटान सुरी हातांत घेतली आनी विचारलें, "ही कित्याक हाडली?"

"आत्मरक्षणाचें हें शस्त्र." एकाद्रें क्रूर हांशें तोंडार हाडचें तशें तोंड करून महानंदेन

जाप दिली.

तिगेलो तो अवतार पळोवन पयलेच खेपे विराटाक महानंदा कुरूप दिसली. ही सादी बायल न्हय, ही अप्सरेच्या भेसांतली डाकीण आसूं ये असो ताका दुबाव आयलो.

"आयजवेर कोणाचेर ही सुरी तुवें वापरून तुजी राखण केली?" विराटान विचारलें.

"हीच सुरी अशें न्हय... शस्त्र कसलेंय उपकरता. म्हज्या घोवाक हांवें आर्मीची गुळी घालून मारलो आनी फुलवंतीक..."

एकदम महानंदेन जीब चाबली आनी विशय बदलपाचो यत्न केलो.

"सांग, फुलवंतीक कोणे मारली? कित्याक मारली?" विराटान विचारलें.

"तुमकां हांवें कांयच लिपोवंक ना. हेंय सांगतां. फुलवंती तुमच्या मोगांत पडिल्ली. म्हणून हांवेंच तिका विख्ख घालून मारली." सादेपणान महानंदा उलोवन गेली.

कंवळे पिरायेची, नाजूक आंगलोटाची, राजघराण्यांत विलासी वातावरणांत वाडिल्ली एक चली. लग्न जाली म्हणून सून म्हणपाची. घोव मेलो देखून विधवा म्हणपाची. शारांतल्या कॉलेजांतले चलयेचे पिरायेची ही अर्दशिक्षीत बायल. हिका दुसऱ्याचो जीव घेतना चर्र लेगीत जायना. हिज्या सहवासांत दीस काडप कशे?

विराटान नाटकाची एक येवजण मनांतल्या मनांत आंखली. तिका समजायली. ...शुकाची भूमिका बेस बरी करून तिका शांत केली. जेन्ना ती शांत जाली अशें दिसलें तेन्ना ताणें तिका म्हळें, "हांव फाल्यां सकाळीं वतां आनी फुडल्या सप्तकांतच परत येतां. तोमेरेन धीर धर."

"हांव तुमची वाट पळयतलीं. तुमी आयलेनात जाल्यार मात हांव मागीर म्हजे सुवादीन उरचीं ना."

"तो प्रसंग येवचोच ना." विराटान तिका आश्वासन दिलें.

"महानंदा आनी विराटाची गुप्त भेट बरोच वेळ चल्ली. निरोप घेतना विराटान म्हळें, "ह्यो म्होरो म्हाका कित्याक? हांव संन्यासी."

"म्हजी याद म्हणून दवरून घेयात. अडिल्ल्या वेळार ते पयशे उपकरतले."

विराटान हांसून ते भेटवस्तूचो स्वीकार केलो आनी तिका पावोवचेखातीर भायर मोटारीमेरेन तो गेलो.



दुसऱ्या दिसा विराटान पवनगिरी संस्थान सोडलें.

ताका स्टेशनामेरेन पावोवपाची तयारी राजमातेन केल्ली. पूण ताका निरोप दिवंक राजमाता वा दिवाण लेगीत आयलो ना.

विराट आपले डायरेंत बरयता:

"पवनगिरीची भेट हो एक नवो अणभव. तोंडावयल्या सोबीत रुपड्यापोंदचें विकृत रूप हावें पळयलें. मनीस राजा जालो वा संन्यासी जालो तरी ताजें मन हें विचार-विकारांनी भरिल्लेंच उरता. बुद्दीच्या चेपणासकल जितलो वेळ मनीस आपले विकार चिड्डून दवरता, तितलो वेळ तो आपणाक सभ्य वा पुण्यवंत मानता. पूण एक खीण

 

असो येता, जेन्ना बुद्धीचें चेपण ढील पडटा आनी तेन्ना विकार पुराय देहाचो तावो घेवन बसतात. बुद्द लेगीत भ्रश्ट जाता. सिध्दी मेळयिल्ल्या म्हज्या गुरूचे जिणेंत लेगीत तशें घडलें. खासा म्हजी जीण शुध्द ना. विलासी संस्कारांत वाडिल्ले राजमातेचे जिणेचें खरेलें चित्र कोणें पळयलां? महानंदेक पातकी म्हणप समा जावचें ना. ती एक बायल. तरुण आनी सुंदर. सामान्य मनशाक आसता ती पोटापाणयाची विवंचना तिका ना. तिजी भूक ही देहाची भूक. ते अतृप्ततेंतल्यानच ती अशी जाल्या.''

अहमदाबादाक विराटान साबरमती न्हंयेंत भगवीं वस्त्रां सोडलीं आनी नवो भेस धारण करून मुंबयची वाट धरली.

गोंयांत येतकच एका नव्या वातावरणांत विराट पावलो.

घरचें मायेचें वातावरण. तरी पूण ल्हानशे जिणेंत ताणें जें भोगिल्लें, जे अणभव घेतिल्ले, ते ताज्या मनांत भरिल्ले उरले. ते विसरपाचो तो यत्न करतालो तितले ते चड वळवळटाले. न्हंयचे देगेर, दर्याचे वेळेर, दोंगुल्लेचे तेंगशेर तो एकलोच बसतालो आनी पोरन्या कोडू गोड यादींचो रवंथ करतालो.

आपल्या देराचीं लक्षणां बरीं दिसनात म्हणपाचें व्हडले भावजेन रोखडेंच वळखून घेतलें. तिणें आपल्या घोवाक तेविशीं सांगलें.

"तूं ओगीच तर्क करूं नाका." विराटाल्या भावान बायलेक म्हळें, "अभ्यासाचो आनी भायले जिणेचो शीण आजून उरला. थोडे दीस ताका विसव घेवं दी. उपरांत तागेल्या मनाप्रमाणे जाय जाल्यार ताणें वकिलीचो वेवसाय चलोवचो, ना जाल्यार कसलीय नोकरी धरची."

"पूण तो गोंयांत रावत अशें तुका दिसता?" तिणें विचारलें.

"गोंयांत रावचेलें नासत जाल्यार ताका भायर वचूं दी."

"तेंच म्हणटां. आतां ताज्या लग्नाचो विचार आमी करूंक जाय."

"तुवें चली पळोवन दवरल्या?" घोवान बायलेक विचारलें.

"ना; पूण विराटासारक्या चल्याक चलयो सांगून येतल्यो."

"कितें करता तें ताका विचारून कर. विराट म्हजो भाव. तो म्हाका मान दिता. पूण तो इतलो हट्टी कीं आपल्या मनांत येता तेंच करतलो."

भावजेन त्याच दिसा विराटाकडेन लग्नाचो विशय काडलो.

"सध्या तरी म्हाका लग्न करचेलें ना." विराटान जाप दिली, "म्हज्या फुडाराचो हांवें आजून विचारच करूंक ना."

"सोयरिको आयल्यो जाल्यार तांकां कितें सांगूं?" भावजेन विचारलें.

"सरळ ना म्हणून सांग. तुका दुसरेंय सांगतां, म्हज्या मनांत गोंयांत स्थायीक जावपाचें ना.'

भावजेचो विरस जालो. त्या दिसाच्यान तिणें लग्नाचो विशय परत काडलो ना.

दुसरे वाटेन विराटाची विरक्ती वाडत वताली. प्रपंचीक जिणेची ताका एकेतरेन वीट आयिल्लो.

जो मेरेन विराट घरापसून पयस आशिल्लो, तो मेरेन ताका घरा परतुपाची उमळशीक उरताली. सगळ्या संवसाराच्यो वाटो जरी बंद जाल्यो, तरी आपलें घर ही

मायेची सुरक्षीत अशी वास्तू अशें ताका दिसतालें. पूण घरा येतकच मात ताका शेणिल्ले भाशेन जावंक लागलें.

घराकडेन भावाक आनी भावजेक विराटाले वागणुकेचो हुस्को जावंक लागिल्लो. खंय वचना, कोणाक मेळना. वांशांकडेन नदर थिरावन ओगी बसून रावता; नाजाल्यार दोंगुल्लेचे तेंगशेर वचून एकलोच बसता...

भाव विराटाकडेन चड उलयना आसलो. उलोवपाचें काम भावजच करताली.

एक दीस तिणें ताका म्हळें, "तुजें घडलां कितें तें तरी सांग. तुजेखातीर तुजो भाव कश्टी जाता. म्हाकाय सूख लागना. तुका कितेंय सांगपाचें आसल्यार तूं सरळ कित्याक सांगीना?"

तटास नदरेन भावजेच्या तोंडाकडेन पळयत रावल्या उपरांत विराटान म्हळें, "तुमकां ओगीच तशें दिसता. हांगा म्हजें मन रमना हे खरें; पूण म्हजें कांयच जावंक ना."

"तुका जाय जाल्यार तूं प्रॅक्टीस कर. नोकरी मेळटा जाल्यार ती पळय. तितलेंच मन दुसरेकडेन वतलें."

"म्हाका आनीक एक वर्सभर मुंबय रावपाचें आसा." विराटान सांगलें.

भावजेन ताका खूब समजायलो. मुंबय एकलोच रावन ताणें जिवाची वाट लावन घेवची न्हय अशें सुचयलें. मागीर ल्हवूच विचारलें, "तुजें कोणाचेर मन बी बसलां तर?"

"ना... ना. तशें आसल्यार हांव तुका सांगतलों आसलों."

"तशें जाल्यार तूं मुंबय वचून यो. तुज्या मनासारकें जावं दी." भावजेन म्हळें.

चार दीस मेरेन तिणें ताजेकडेन लग्नाचो वा नोकरेचो विशय काडलो ना आनी विराटय कांय उलयलो ना.

एक दीस विराट भावासरीं आयलो आनी म्हळें, "हांव परत मुंबय वतां."

भावजेन दोळ्यांत दुकां हाडून विराटाक समजावपाचो यल केलो. पूण विराटाचो निर्धार बदल्लो ना. भावान नोटींचें बंडल हाडून ताज्या मुखार दवरलें. तांतले एक हजार रुपया विराटान घेतले आनी उरिल्ल्यो नोटी थंयच दवरल्यो.

तो परत मुंबय गेलो.

मुंबय ताणें एक नोकरी धरली. सुमार इकरा म्हयने नोकरी केली. थोडेशे पैशे जमयले.

मदींच एक दीस तो परत यात्रेक भायर सरलो.

प्रवासांत भगव्या वस्त्रांचो कितलो उपेग जाता हें तो अणभवान शिकिल्लो. भगवीं वस्त्रां धारण करून दक्षीण भारतांतल्या एका राज्यांत आसतना रातीच्या वेळार तो एका देवळांत पावलो.

थंय खंय तरी ताका राती पुरतो आसरो जाय आसलो. देवळांत उत्सव चलतालो आनी शेंकड्यांनी लोक थंय जमिल्ले. एका साधूचें प्रवचन चलतालें.

कुशीक वचून विराट प्रवचन आयकत बसलो. प्रवचन सोंपलें तेन्ना स्वामीची नदर विराटाकडेन गेली. हो तेजःपुंज साधू कोणय तरी सिध्द पुरुष आसतलो अशें स्वामीक दिसलें आनी तांणी ताका आपल्या म्हऱ्यांत आपोवन वासपूस केली.

"तीर्थयात्रेक भायर सरलां." विराटान सांगलें, "राती पुरतो निवारो सोदूंक हांगां आयिल्लों."

स्वामीन म्हन्यांत बशिल्ल्या लोकावयल्यान नदर भोंवडायली. तातुंतलो एकलो फुडें आयलो आनी म्हळें, "साधूची वेवस्था आमगेर जावं येता"

विराट त्या मनशाबरोबर तागेल्या घरा गेलो.

घर म्हळ्यार एक व्हडलो वाडो. मनशांनी भरिल्लो. एके कुडींत विराटाची रावपाची वेवस्था जाली. घरच्या घरकारान घरांतल्या मनशांक आपोवन साधूक नमस्कार करूंक सांगलें. दुसरे कुडींत कोण तरी चली सिनेमाचें गीत गायताली. मावशें बेसूरच. कोण तरी घरकाराचेर धेंगसलो: "तुका नसत्यो कटकटी लागतात. आतां साधूक हाडून घरांत दवरला... एक साधू म्हळ्यार कितलीं बंधनां तें तुका खबर आसा?"

घरकारान जाप दिली ना.

"शूऽऽ शू!" अशे आवाज विराटाच्या कानार पडले. जण एकलो दुसऱ्याक ओगी राव अशें खुणायतालो.

विराट आपले कुडींत बसून रावलो. थोड्या वेळान घरचीं मनशां एक एक करून विराटाक पांया पडून वचूंक लागलीं. विराट आंकडो मेजतालो आनी घरचो घरकार तांचीं नांवां आनी आपलें तांचेकडलें नातें सांगतालो. विराटान मनांतल्या मनांत हिशोब केलो. एक चली, दोन आंकवार मेवण्यो, एक मेवणो, ताजी आवय आनी तिगेली आवय. घरांत एक रांदतली आनी शेजाराचें एक ल्हान भुरगें.

"जेवणाची वेवस्था करूंक जाय न्हय?" घरचे घरकान्नीन आपल्या घोवाक विचारलें.

विराटान वणटीवयले घडयाळींत वरां पळयलीं. रातीचीं धा वरां जाल्लीं. दीसभर तो उपाशीं आसलो. प्रवासाच्या शिणान थकून गेल्लो. आंग धुल्लान भरिल्लें आनी गिमांतले चिकट हुमेन तें चिकचिकीत जाल्लें. वयर पंखो घुंवतालो तरी उजो खूब जातालो.

"तुमचीं जेवणां उलगलीं आसतलीं." विराटान घरकाराकडेन पळयत म्हळें.

"ना. आमी सगळीं देवळांत उत्सवाक गेल्लीं. पूण तुमकां जेवणाक कितें चलता आनी कितें चलना...?"

गंभीर तोंड करून विराटान म्हळें, "आहार सात्वीक आसचो. कांदो, लसूण वर्ज्य. कसलेंय शिवराक जेवण चलता... पूण अडचण करून घेवपाची गरज ना. रात जाल्या. म्हाका दूद भात मेळ्ळ्यार पुरो. ना जाल्यार निखटें दूदय उपकारता."

"जेवणाची अडचण ना. सगळें आसा." बायलेन म्हळें.

"न्हावपाची वेवस्था?" विराटान विचारलें.

"फाटले वाटेन बांय आसा." तिणें जाप दिली.

खूब वर्सांनी विराट बांयचेर कळशांनी उदक काडून न्हालो. ताणें आपलीं आंगावयलीं वस्त्रां उमळून घेतलीं आनी तीं पिळून तो परत आयलो. आपूण न्हाता आसतना घरच्यांच्यो नदरो आडोशाक रावन आपणाक पळयतात म्हणपाची जाणविकाय ताका आसली. देखून विराट आंगार उदक रकयतना तोंडपाठ जाल्ले संस्कृत श्लोक उच्चारीत रावलो.

न्हातकच ताका खूब बरें दिसलें. तागेली भूकय चाळवली.

जेवण सादें, पूण रूचीक आसलें. पूण पानार बसतकच आपली भूकच मेल्या अशें विराटाक दिसलें. एक उंडी तोंडांत घाली. ती गिळटासर ताका उस्तुरें गेलें.

तो पानावयलो उठलो.

घरचो घरकार थंयच आसलो. ताणें आकांतून विचारलें, "कितें जालें?"

"जिवाक बरें दिसना." विराटान जाप दिली आनी तो थंयच जमनीर पातळायिल्ले शेंदरेचेर न्हिदलो.

घरकारान पळयलें, तो कडकडटा. म्हऱ्यांत वचून आंगाक हात लावन पळय जाल्यार ताका जोर भाजता.

❋

परकेकडेन जोर येवन हांतुणार न्हिदपाचो प्रसंग आयजवेर विराटाले जिणेंत केन्नाच येवंक नासलो. आपणाक खंयच्याय वेळार कितेंय जावं येता, हो विचार आयजमेरेन ताज्या मनाक स्पर्शूंक नासलो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं जोर देंवलो, पूण एकाच दिसान विराट सामको अशक्त जाल्लो. आपले पांय जमनीचेर धरनात आनी उबो रावपाचें आपणांत त्राण ना, हें पळोवन विराट भियेलो. मातशी शक्त आयली जाल्यार परत घरा वचपाचो विचार तो करतालो.

सकाळचो डॉक्टर तपासून गेलो. चार-पांच दीस तरी विसव घेवचो पडटलो अशें ताणें सांगलें. ताणें वखदां दिलीं.

डॉक्टराफाटल्यान घरांत भितरले वाटेन घरच्यांचे संवाद. जीं सोयरीं आयिल्लीं, तीं घरच्या घरकाराक दूशण दितालीं. खासा ताजी बायल लेगीत ताका उलयताली. विराट सगळें आयकतालो. ताका घरकाराची काकुळट दिसताली. आंगांत त्राण आशिल्लें जाल्यार तो तसोच उठून वतलो आशिल्लो. पूण आतां तो हांतुणाचेर पडला.

"रातीच्या वखदाचे वीस रुपया जाले आनी आतां हीं नवीं वखदां. हे पयशे कोण दितलो?" घरकान्नीन विचारलें.

"पळय, संन्यासी तो. ताजेकडेन पयशे मागपाचे नासतात. आमच्यांनी जाता तितलो खर्च आमी करूंया... ना जाल्यार लोकांकडेन मागून घेवंया."

"ताजेखातीर तुमी भीक मागतले? चलयेखातीर येदीशी वस्त करूं या म्हळ्यार तुमचेकडेन पयशे नासतात आनी एका साधु-संन्याशाखातीर गांवांत भीक मागून पयशे जमोवपाक तुमी तयार!" बायलेन सगळ्यांहुजीर घोवाक पियाद दिलें.

"हांव कितें करूं तें तरी सांग?" घोवान विचारलें.

"आयज तुमी ऑफिसांत वचूं नाकात. साधू जालो तरी दादलो मनीस तो. ताजें कोण काडटलो? घरांत चलो भुरगो ना." बायलेन म्हळें.

विराट आयकतालो. घडये आपणें आयकुचें म्हणूनच हो संवाद चल्ला अशें ताका दिसलें. पूण ताजेकडेन कसलोच उपाय नासलो. जाता तें जावंदी म्हणून तो मोन्यांनी न्हिदून रावलो.

अचकित ताका महानंदेन दिल्ल्या सुवर्णमुद्रांचो उगडास जालो. कांय नाणीं ताणें घरा व्हरून भावाकडेन दिल्लीं. पूण थोडीं ताणें बरोबर हाडिल्लीं.

घरचो घरकार वखदां घेवन आयलो तेन्ना विराटान म्हळें, "तुमकां आयज ऑफीस चुकोवचें पडलें आनी म्हजेखातीर वेगळे कश्ट काडचे पडले. खरें सांगतां, ही सेवा घेतना म्हज्या काळजाक चिमटे येतात. हांगा खंयय धर्मशाळा बी ना? सरकारी हॉस्पिटल...?"

"ना. तशी कांय वेवस्था ना. गांवांत एक मठ आसा. ल्हानसोच मठ. त्या मठांत सध्या मठाचे स्वामी उतरल्यात. थंय जागो ना. ह्या गांवांत हॉस्पिटल ना आनी डॉक्टर लेगीत हालींच आयला."

विराटान ताका म्हळें, "तुजे घरकान्नीक मावशी आपय; म्हाका कितें सांगूंक जाय."

"तिजें उलोवणें मनार घेवचें न्हय." घरकारान विराटाक सांगलें.

घरांत जाल्लो संवाद विराटाल्या कानार पडलो आसतलो हाजो ताका अदमास आसलो.

"तशें कांय न्हय. तुमी तिका आपयात. सांगपाचें तें हांव सांगतां." विराटान म्हळें.

भायल्या दारांतच घरकान्न उबी आशिल्ली. ती हो संवाद आयकताली. आपूण जावन फुडें आयली आनी तिणें म्हळें, "इतल्यान तुमकां गूण पडल्यार पुरो इतलेंच आमचें मागणें. आमकां त्रास पडटात हो विचार लेगीत तुमी मनांत हाडचो न्हय."

ते अवस्थेंतय तिगेली ती नाटकी भास आयकून विराटाक हांसूंक आयलें.

ताणें म्हळें, "देव तुमची आनी म्हजीय परिक्षा घेता. म्हाका दिसता, हांव दोन दिसांनी बरो जातलों. मावशी शक्त येतकच हांव एकय दीस हांगा रावचो ना. पूण म्हज्या खर्चाची वेवस्था हांवच करतां. म्हजेकडेन कांय भांगराचीं नाणीं आसात." अशें म्हणून विराटान आपलेकडलीं चार पोवनां घरकान्नीच्या हातार दवरलीं.

भांगर पळोवन तिजे दोळे दिपले आसूं ये वा दुसऱ्या खंयच्याय कारणाक लागून आसूं ये, घरांतलें वातावरण एकदम बदल्लें.

उत्सवाखातीर आयिल्लीं सोयरीं परतलीं. घरांत उरलीं तीन मनशांः घरकार, घरकान्न आनी तांगेली चली. त्या भायर एक बायल मनीस आसताली. घडये ती रांदतली आसूं ये. ती येवन वचून आसताली. घरांत रावना आसली.

चली शारांतल्या कॉलेजांत शिकता. थंयच हॉस्टेलांत रावता. उत्सवाखातीर घरा आयिल्ली. तीय परत गेली आनी तिसऱ्या दिसाच्यान बायलेन घोवाकय कामार वचपाची मेकळीक दिली.

घरांत विराट आनी ती. दोगांय दीसभर घरांत उरतालीं. ही सेवेची दुर्मीळ संद मानून मन लावन ती विराटाची सेवा करताली. विराट मनांत समजलो कीं, ही सेवा आपली न्हय तर त्या सुवर्ण मुद्रांची! पूण ताका एक अजाप दिसलें, खंयय गेलों जाल्यार आपूण बायलांमदीं कसो पावतां? आपल्या नशिबांतच तें बरोवन दवरलां काय कितें?

तिचें नांव सुशिला. घोव विश्वंभर. चलयेचें नांव श्वेता. तीग जाणांचें हें कुटूंब. घोव खंय तरी नोकरी करता. घरची थोडी जमीन आसा. गांवांत इभ्रत, प्रतिष्ठा आसा.

गांव ल्हानसोच. उत्सवाच्या दिसांनी धा गांवचे लोक देवळांत येतात. कसल्या तरी एका संप्रदायाचें देऊळ. गांवांत त्या संप्रदायाचे लोक खूब. उत्सवाच्या दिसांनी

संप्रदायाचे स्वामी गांवांत येतात. थंय एक ल्हानसो मठ आसा. लोकांची स्वाम्यांवयली भक्ती उपाट. स्वामी एक विद्वान, विरक्त संन्यासी उत्सवाच्या दिसांनी देवळांत प्रवचनां सांगता आनी उत्सव सोंपतकूच आपल्या मूळ मठांत परत वता.

विश्वंभर आनी सुशिला हांचे पिरायेंत उणेंच वीस वर्सांचें अंतर. विश्वंभराली पयली बायल ल्हानपणांतच भायर पडली तेन्ना श्वेता स म्हयन्यांचें आसलें. श्वेता ही पयले बायलेली चली. ही खबर पयलेच भेटेंत सुशिलान विराटाक सांगून उडयली.

हांतुणार न्हिदिल्लेकडेन विराट मनांतल्या मनांत हांसलो. दिल्ली जाली; पवनगिरी जाली; आतां ह्या ल्हानशा खेड्यांत त्याच नाटकाचो नवो अंक सुरू जातलो काय कितें? ताका सुशिलेच्या मनाचो थाव मेळना. साधुसंन्याशाविशीं तिजें मत कितें हें असवडीं कानार पडिल्ल्या तिगेल्या उलोवपावयल्यान ताका कळिल्लें. पूण ती जेन्ना विराटामुखार येताली, तेन्ना सामकी नम्र जावनच वागताली. भांगराचीं पोवन्नां मेळत सावन तर ती ताची सेवाय करताली.

वायटकाराची सेवा करतली नर्स ताज्या सगळ्या आंगाक स्पर्श करता आसली तरी त्या स्पर्शांत विकार आसता अशें म्हणूंक जायना. विराटाक सुशिलेच्या स्पर्शांत तशें कांय दिसलें ना. पूण खाटेचेर ताज्या पांयांकडेन बसून जेन्ना ती ताजे पांय चेपताली, तेन्ना मात ती कितें तरी सुचयता असो विराटाक दुबाव येतालो. अशाच वेळार तांचेमदीं संवाद जाताले.

"तुमच्या लग्नाक वर्सां कितलीं जालीं? आनी तुवें तुज्या कुळाराविशीं कांय सांगलें ना." विराटान म्हळें.

"सांगपासारकें कांयच ना आनी लिपोवपासारकें तर निखालच ना." सुशिलान जाप दिली, "म्हजे आईक तुमी पयल्या दिसा पळयल्याच. आमी तीन भयणी आनी आमकां एक भाव. हांव व्हडली... म्हजी पिराय आतां चाळीस. पळयल्यार तुमकां खरें दिसचें ना..."

खरें, ती चाळीशींतली बायल दिसनासली. पूण तिणें जे भाशेन आपली पिराय सांगून भाष्य केलें, तें पळोवन विराटाल्या दुबावाक पुश्टी मेळ्ळी. ताणें म्हळें, "आमी संन्याशांनी बायलांचे पिरायेची विवंचना करप समा न्हय. पूण तूं फकत भुरगीच न्हय, तर सुंदरय दिसता."

तिज्या तोंडार फुलिल्लो हांसो पळयनाफुडें विराटाक महानंदेचो उगडास जालो. महानंदा नाजूक, लावण्याचें सुंदर शिल्प. हे बायलेंत सौदर्य ना आनी कसलेंच नाजूकपणय ना. तरीय पूण त्या वेळार ती ताका आवडली.

"तुवें दुसरेपणांतलो घोव कसो पसंत केलो?" विराटान विचारलें.

"म्हजें चलतालें तो मेरेन हांवें खूबशे न्हवरे नापसंत केले." तितल्याच निगरगट्टपणान सुशिलान जाप दिली; "पूण म्हजें लग्न लांबणेर पडलें. फाटल्यो दोन भयणी आवयच्या गळयाक तेकिल्ल्यो. भाव आजून कॉलेजींत शिकतालो. आमचो बापूय ल्हानपणांतच भायर पडिल्लो. कोणाचो आदार नासतना आवयन आमकां वाडयिल्लीं. एका बरें मागल्यान म्हजें लग्न जुळयलें आनी आवयन दोळ्यांत दुकां हाडून आनी पदर म्हजेमुखार पातळावन मागलें, 'ना म्हणूं नाका...' आनी हांव कबूल




जालीं."

"कितलीं वर्सां जालीं तुमच्या लग्नाक?"

"पांच. घरांत वंशकुळाचो दिवो पेटचो म्हणून हाणीं दुसरें लग्न केलें... पूण म्हजेंच दाम खोटें."

श्रावणांत अचकित वत आसतनाच दडक येवची तशीं तिज्या दोळयांत दुकां आयलीं. आनी तिणें पदरान दोळे पुसले.

असल्या वेळार कितें करचें तें विराटाक खबर आसलें. पूण ताणें थंडसाणेन म्हळें, "तूं सुखी जातली!'

ती कांय उलयली ना. उठून उबी रावली.

"एक सांग," विराटान विचारलें, "श्वेता तुगेले सवतीची चली...?"

"हय; पूण हांव तिका म्हजे पोटचे चलयेसारकी वागणूक दितां. तीच म्हजेकडेन तुसडेपणान वागता. सवती आवय ही बदनामच आसता; पूण देवाचो सोपूत घेवन हांव सांगतां, हांव तिका कांयच उणें पडूंक दिना."

"तेविशीं विचारिना हांव," विराटान म्हळें, "तिजें कॉलेज कितलें पयस?"

"चड पयस न्हय. तशें लागींच. पूण तिणें हॉस्टेलांत रावतां म्हळें आनी बापायन तिका थंय दवरली. हांवेंय विचार केलो, सवती आवय त्रास दिता अशें कोणें म्हणचें न्हय."

"पूण उलयतल्याचें तोंड कोण बंद करतलो?" विराटान विचारलें, "फाल्यां तेच लोक चलयेक घरांतली भायर काडली अशें म्हणूंक उणे नात.'

"फाल्यां कित्याक? आयजच तशें उलयतात. पूण हांव कितें करूं? तुमीच सांगात." अशें म्हणून विराटाले जापेची वाट पळयत सुशिला थंयच उबी रावली.

विश्वंभर आयलो आनी विशय थांबलो.



चार दिसां उपरांत विराटाक गूण पडलो. ह्या चार दिसांमदीं तो एका नव्या बंधनांत घुसपल्लो. दोन दीस सुशिलान मन लावन ताजी सेवा केल्ली आनी हे सेवेच्या निमित्त्यान ती विराटाच्या खूबच लागीं पाविल्ली. तिसऱ्या दिसा विराट गांव सोडून वचपाची तयारी करतालो. सुशिला ताज्या मुखार एक प्रस्ताव घेवन आयली.

"आमच्या गांवांत एक मठ आसा." तिणें म्हळें, "त्या मठाचे स्वामी आतां जाणटे जाल्यात आनी तांणी शिष्य सोदपाचें काम सुरू केलां."

"हें तूं म्हाका कित्याक सांगता? म्हजी जीण फकिराची. हांव आयज हांगा, फाल्यां थंय. हांव म्हाका कित्यांतच घुसपावन घेवंक सोदिना." विराटान म्हळें.

दोन दिसांच्या संबंदांतल्यान विराटाचेर आपलोय अधिकार पावता अशी सुशिलाची भावना जाल्ली आनी थोड्याशा अधिकारानच ती उलयताली. तिणें म्हळें, "तुमी शिष्य जावंक सगळे नदरेन अनुरूप आसात. म्हज्या घोवान तुमचो विशय स्वाम्यांकडेन काडला आनी स्वाम्यांनी तुमकां आयज भेटेक आपयल्यात."

"तुमचे आस्थेखातीर हांव तुमचो उपकारी आसां. पूण उपकार करून म्हाका ह्या बंधनांत घालूं नाकात. म्हाका मठ, आश्रमाचें आकर्षण ना. एका जाग्यार रावपाचेंय

ना. चारित्र्यान हांव शुध्दय न्हय. आत्मशुध्दीखातीर हांवें हो संन्यास घेतला अशें म्हळयार जाता."

"तुमी जर संन्याशाच्या भेसांत नासते, तर हांव म्हजें सर्वस्व तुमकां ओंपून बसतलें आसलें. पूण तुमी पडले संन्यासी! देखून एकच विनंती कीं तुमचे सेवेची म्हाका संद दिवची. हांव संवसारी बायल..."

"तेच खातीर म्हणटां, तुवें येवजून पावल उखलूंक जाय. तुज्या मनांतली म्हजे विशींची भावना म्हज्या मनांतले तुजे विशींचे भावनेपरस वेगळी हें हांव वळखतां. पूण तुज्या संवसाराची वाट लावपाक हांव कारण जालों, अशें घडलें जाल्यार फाल्यां साधू संप्रदायच बदनाम जातलो. तेन्ना तूं म्हजी वाट आडावं नाका."

जेन्ना विराट कबूल जायना म्हणपाचें सुशिलान पळयलें, तेन्ना तिणें दोळयांत दुकां हाडलीं आनी म्हळें, "तुमचें काळीज असलें फातराचें आसत म्हणपाचें म्हाका खबर नासलें. पूण म्हजी पुरती खबर आयकून घेतली जाल्यार घडये तुमच्याय काळजाक पाझर फुटले बगर रावचो ना. हांव जाणां, एके संवसारी बायलेच्या तोंडांत ही भास सोबना. घोवाचे बायलेन पातकी विचार मनाक आफडूंक लेगीत दिवंक फावनात. पूण हांव कितें करूं? तुमीच सांगात." अशें म्हणून सुशिला रडूंक लागली.

तिका समजावंक विराटाक बरेच त्रास पडले. जेन्ना ताणें तिजेसरीं वचून तिज्या माथ्यार हात दवरलो, तेन्ना आपलें तोंड ताजे छातयेंत घालून ती अदीकच व्हडान रडूंक लागली.

विराटान तिका थातारली. घुसमटमार सोंपिल्ल्यान आसूं ये वा दुसऱ्या कसल्याय कारणाक लागून आसूं ये, ल्हवू ल्हवू ती शांत जाली.

भायले वाटेन दार वाजलें तेन्ना ती आपूण जावन कुशीक सरली. साडयेच्या पदरान आपलीं दुकां पुसून ती खिणाभितर स्वस्थ जाली. एकाद्र्या नाटकांतले नटयेसारके तिज्या तोंडावयले भाव बदल्ले. तिणें आपल्या हातांनीच विराटाक खाटेचेर बसूंक खुणावन दार उकतें केलें.

दारांत विश्वंभर उबो. घोवाक पळयना फुडें सुशिलान म्हळें, "हांवें साधूक सांगून पळयलें. पूण ते म्हजें आयकनात. तुमी तरी समजायात."

विश्वंभर भितर आयलो आनी विराटाक ताणें म्हळें, "आयज सांजचे स्वामी परत वतात. त्या आदीं तुमकां भेटेक आपयल्यात. तुमकां व्हरुंकच म्हणून हांव हांगा आयिल्लों."

जांच्या घरांत दोन दीस राबितो केल्लो आनी जांची सेवा घेतिल्ली, त्या मनशांक दुखोवचें न्हय अशें येवजून विराटान स्वाम्याचे भेटेक वचपाचें थारायलें.

"भेटेक हांव येतां, पूण तांचो शिष्य जावपाचो आग्रो तुमी धरूं नाकात. तें म्हाका जमपाचें ना. आनी तुमकां सांगतां, म्हज्या आंगार जरी भगवीं वस्त्रां आसलीं, तरी हांव चारित्र्यान साधू न्हय, वा संन्याशीय न्हय. तुमच्या मठाची परंपरा आसा. घडये संप्रदायाचें बंधनय आसत."

विश्वंभरान परती जाप दिली ना. विराटाक घेवन तो मठांत गेलो.

मठ म्हणचे परस ते वास्तूक आश्रम म्हणप समा जातलें. दोंगराचे कुशीक गांवचे

शिमेभायर जंय रान सुरू जाता, थंय नळ्यांचें एक चार खणी घर. उकतें आंगण शेणान सारयिल्लें. स्वामी थंय आसात देखून थंय रोषणाय केल्ली. मदीं एक तुळशीचें वृंदावन आनी वृंदावना भोंवतणी रांगोळी. भायले वाटेन झाडा मुळांत वाजंत्री बसल्यात. आंगणांत थोडे दादले-बायलो स्वाम्याच्या दर्शनाखातीर रावल्यात.

भगव्या वस्त्रांक सगळेकडेन मान आसता. विराट थंय पावलो आनी लोकांनी ताका वाट दिली. विश्वंभरा सांगातान ताणें मठांत पावल दवरलें. चार अनवळखी भक्तांनी पांयांचेर तकली दवरून ताजे आशिर्वाद मागले. ती कला तो आतां शिकला. हात वयर करून ताणें आशिर्वाद दिले.

कोणें तरी भितरले वाटेन विराट आयिल्ल्याची खबर स्वाम्यांक दिली.

पयल्या दिसा रातीकडेन देवळाच्या चौकांत स्वाम्याचें प्रवचन सोंपतां सोंपतां विराट आयिल्लो. प्रवासाचो शीण आनी भूक हांकां लागून त्या दिसा ताणें स्वाम्यांक सारके पळोवंक नासले. आतां देवाऱ्यामुखार पाटाचेर मांडी घालून बशिल्ले स्वामी पळयनाफुडें विराटालें मन आदरान भरून आयलें आनी ताणें जमनीक तकली तेंकोवन स्वाम्यांक नमस्कार केलो.

कोणें तरी दुसरो पाट हाडून दवरलो. पूण तो कुशीक सारून शेणाचे जमनीचेरच विराट मांडी घालून बसलो. सगळे भायर गेले. कुडीचें दार बंद जालें.

दोळे धांपून स्वामी कितें तरी येवजूंक लागले. विराट त्या तेजिश्ट मुखामळाकडेन आदरान पळयत रावलो. गोरी कांत, धवेंफुल्ल खाड, काळजाचो थाव घेवपी दोळे, जे उकते आसतना नदरेक नदर दिवपाचें धाडस विराटाक जालें ना. सुमार साडे स फुटांची लांबाय. पिराय उणेंच सत्तर ऐंशांची आसूंक जाय. पूण पद्मासन घालून ते एकाद्रे सरळ बडयेवरी आंग दवरून बशिल्ले.

ल्हवू ल्हवू स्वाम्यांनी दोळे उकते केले आनी विराटाकडेन पळयलें.

"कितें म्हणणें आसा?" दोन मिनटां मोन्यांनी विराटाक नियाळून घेतल्या उपरांत स्वाम्यांनी प्रस्न केलो.

"म्हाका निरोप आनी आशिर्वाद आसचे. जिणेची वाट सोदपाच्या प्रयत्नांत आशिल्लों हांव एक पथिक. शिक्षणान वकील. पूण प्रकृतीन विरक्त. प्रलोभनांक लागून प्रमाद घडल्यात. चारित्र्य सुदारपाचे यत्न चालू आसात. जिणेक दिशा मेळसर भोंवत रावंक सोदतां."विराटान जाप दिली.

"केन्नातरी एका जाग्यार रावन अंतर्मुख जावन पळय. जिणेची वाट ही धा पांयांनी माडयिल्ली पायवाट नासता. जण एकल्याची वाट वेगळी आसता." संथ उतरांनी स्वाम्यांनी विराटाक सांगलें.

त्या उतरांमदीं एक शितळसाण आसली, एक वात्सल्य आसलें. अणभवाचें सार आसलें. घडये ते नदरेन विराटाले आज मेरेनचे जिणेचो एक्स-रे घेतिल्लो आसूं ये, अशें ताका दिसलें. तो चड कांय उलयलो ना. स्वामीय उलयले नात. तांणी परत दोळे धांपून घेतले आनी आपल्यांतच शेणून गेले. विराट नदर थिरावन त्या तेजिश्ट व्यक्तिमत्वाकडेन पळयत बसलो.

दुसरे खेपे दोळे उकते केले तेन्ना स्वाम्यांनी म्हळें, "आयज हांव मूळ मठांत वतां.

हीं वास्तू बंदच आसता. थोडे दीस हांगा राव. गांवच्या भक्तांक कीर्तन-प्रवचनाचो लाभ दी. कितले दीस रावचें ही तुजी मर्जी. फुडली वाट गावली जाल्यार अवश्य वच. हांगाच रावचें अशें दिसलें जाल्यार आनंदान राव."

भेट सोंपली. स्वामी उठले. कुडीचें दार उकतें जालें. विराटान तांच्या चरणाक स्पर्श करून आशिर्वाद घेतले आनी कांय एक उलयना आसतना तो विश्वंभराल्या घराचे दिशेन पावलां उखलूंक लागलो.

भायर आशिल्लो विश्वंभर विराटाफाटल्यान धांवत आयलो. पूण विराटान वाटेर ताजेवटच्यान नदर लेगीत फिरायली ना.

त्या दिसा स्वामी परत गेले. सगळो गांव निरोप दिवंक गेल्लो. पूण विराट गेलो ना. आपले कुडींत तो बसून रावलो.

पयलेच खेपे एक वेगळो अणभव ताका आयिल्लो. स्वाम्यांचीं उतरां ताज्या कानांत घुमतालीं. खऱ्यांनीच आपलें चुकिल्लें. जिणेची वाट सोदचेखातीर आपूण भोंवतालों आनी भोंवतना धा लोकांनी माडयिल्ली वाट चलत रावलों. म्हाका वाट कशी गावतली? म्हजी गत कस्तुरी सोदतल्या हरणासारकी जाल्या. भायले वाटेचेर पावला कणकणीं प्रलोभनां. भितरले वाटेन हांव केन्ना गेलोंच ना.

त्या दिसा विराटान थारायलें, एक नवो अणभव घेवंक जाय. त्या मठांत थोडे दीस राबितो करून मन थीर करूंक जाय. जो मेरेन मन खदळ उरतलें तो मेरेन मनाच्या हारशांत म्हाका म्हजें पडबिंब दिसचें ना. आनी तें पडबिंब देखले बगर म्हज्या म्हाका वळखूंक पावचों ना.



दक्षीण भारतांतल्या त्या गांवांत विराटामुखार मुखेल अडचण आसली ती भाशेची. दोन चार कुटुंबां अशीं आसलीं, जांकां कोंकणी भास येताली. पूण हेर सगळे लोक थळावी द्रवीड भास उलयताले. आपली वळख लिपोवन दवरचे खातीर विराट विश्वंभराल्या घरच्या लोकांकडेन हिंदीच उलयतालो आनी ती तांकांय थोडी भोव समजताली. थंयच्यान विराट जेन्ना मठांत रावंक गेलो, तेन्ना भाशेची अडचण पडली.

कांय संवयो ताका लावन घेवच्यो पडल्यो. सकाळीं उठून न्हावपाची संवय ताका आसली. ध्यानचिंतनय तो करतालो. पूण मुर्तीची पुजा ताणे केन्नाच करूंक नासली. मठांत एक साधू रावंक आयला जाल्यार ताणें मठांतल्या देवाचे मुर्तीची पूजा करची अशी कारभारी लोकांची अपेक्षा. तुळशीचीं पानां, फुलां, फळां, दूद घेवन लोक सकाळचे मठांत येताले आनी तांचो अपेक्षाभंग करचो न्हय हे खातीर मठांतले मुर्तीच्यो दीसपट्ट्यो तीन पूजा करपाचें बंधन विराटाक पत्करचें पडलें.

"प्रवचनाची तुमी अपेक्षा करतात, पूण म्हाका तुमची भास येना." गांवचे धा जाण मेळूंक आयिल्ल्या वेळार विराटान तांकां सांगलें.

"भाशेची अडचण आसा खरी; पूण दर्शन, नामस्मरण हे कार्यक्रम जावं येतात; आनी हिंदींत प्रवचन जालें तरी लोक समजून घेवपाचो यत्न करतले." ग्रामस्थांच्या शिश्टमंडळान ताका सांगलें.

विराट कबूल जालो.

मठांत रावंक येत सावन ताजी दिनचर्याच बदल्ली. सगळी सकाळ मठांतलें धर्मीक काम सांबाळूंक खर्चताली. दनपारच्या वेळार गांवच्या आनी गांवाभायल्या भक्तांची दर्शनाखातीर रीघ. कांयजाण निखटेच दर्शनाक येताले, जाल्यार कांय जाण आपलीं दुख्खां रडून तांचें निवारण करचें अशी मागणी करताले.

विराटाक तो नवो अणभव आसलो. ऋषीकेशांतली परिस्थिती वेगळी आसली. शिक्षण घेवपी विद्यार्थी गुरूच्या आश्रमांत वचून रावता ते भावनेन विराट थंय राविल्लो आनी गुरुकडच्यान खूबशें ताणें शिकूनय घेतिल्लें. त्या उपरांत गुरूच्या आदेशान तो पवनगिरीक गेल्लो. एका वेगळ्या वातावरणांत नवे अणभव ताणें घेतिल्ले. पूण दक्षीण भारतांतल्या ह्या खेड्यांतली परिस्थिती वेगळी.

एका संप्रदायाचो तो मठ आनी मठांत बसतल्या स्वाम्यांकडच्यान समाज जरी चमत्काराची अपेक्षा करिना आसलो, तरी मठांत रावतल्या संन्याशाचें आचरण शुध्द आसचें, ताणें संन्यस्त जीण जगची आनी जमलें जाल्यार समाज प्रबोधन करचें इतली अपेक्षा लोक करताले.

विराट आपले डायरेंत बरयताः "एके तरेन हांव एका मठाधिपतीची जीण जगतालों. तशी म्हजी बडदास्त उरताली. पूण हे सुखी जिणेंत म्हजो घुसमटमार जातालो. माचयेवयलें नाटक हांव खेळटां आनी त्या नाटकांत हांव संन्याशाचें सवंग करतां... हांव म्हज्या म्हाकाच फटयतां... हें म्हाका सोबना... ह्या विचारासरशीं मनांत विरक्ती येताली, विकार गळून पडटाले आनी स्वाम्यांचें स्मरण जावन तांकां हांवें फटोवंक फावना अशे विचार मनांत दाटून येताले."

विराट मठांत येत सावन सुशिला मठांत येवंक नासली. बायलांनी एकोड्यो संन्याशाचे भेटेक वचचें न्हय, अशी ह्या गांवची रीत. विश्वंभर येतालो. पूण हेर भक्तांभाशेन तोय अंतर दवरून रावतालो.

एक दीस विश्वंभरान आपले बायलेचो रकाद विराटाक पावयलो. तिका विराटाकडेन कितें तरी उलोवपाचें आसा. ताणें एक दीस तिगेल्या घरा येवन वचचें, असो तो रकाद आसलो.

विश्वंभरान रकाद दिलो तेन्ना कुडींत दुसरो कोण नासलो. ते संदेचो लाव घेवन विराटान विश्वंभराक विचारलें, "कसल्या प्रस्नाचेर ती उलोवंक सोदता?"

"म्हाका खबर ना."

"तुवें विचारलें ना?"

"ना."

"एक सांग, ही तुजी दुसरी बायल न्हय?"

"हय."

"तुजी चली पयले बायले पसून जाल्ली. तिका सवती आवयचो त्रास जाता?"

"ना. उरफाटें दोगांय एकमेकांक जीव दितात. हांवेंच चलयेक हॉस्टेलांत दवरल्या."

"तुमच्या लग्नाक पांच वर्सां जालीं. जण एके बायलेक आवय जावपाचो एक ध्यास उरता. तिज्या त्या दुख्खाची तुका कल्पना आसतलीच."

"आसा. म्हाकाय दिसता, घरांत एक चलो जल्माक आयलो जाल्यार सर्गांतल्या

पितरांचो उध्दार जातलो... तेच खातीर दुसरें लग्न करपाक हांव कबूल जाल्लों. पूण कांय गजाली मनशाच्या हातांत नासतात. ताका कोण किर्तें करतलो?"

"हे पळय," विराटान म्हळें, "शरीरशास्त्राचे आनी जननशास्त्राचे नेम वेगळे आसतात. तुवें डॉक्टरी तपासणी करून घेतली?"

"डॉक्टर जाले, उपास तपास जाले; पूण फळ ना."

"शास्त्र आतां खूब फुडें पावलां." विराटान म्हळें, "खंयच्याय स्पेशालिस्टाकडच्यान तुमची तपासणी करून घेयात. मुंबय-मद्रास सारक्या शारांनी तसली तपासणी जावं येता."

"तितलीच करपाची उरल्या." विश्वंभरान जाप दिली.

"तीय करून घे."

ताणें तकली हालयली आनी विचारलें, "तुमी आमगेर केन्ना येतात?"

"तुमगेर येवंक अडचण करालीच ना. पूण सुशिलेचें दुख्ख हांव जाणां. तूं म्हणटा जाल्यार आयजच येवन वतां."

सांजच्या वेळार विराट तिगेल्या घराकडेन गेलो तेन्ना दारांत खूबशे भावीक लोक जमिल्ले. आतां ह्या फुडें आपणाक अरावडीं भोंवंक मेळचें ना, इतलें तो मनांतल्या मनांत वळखलो. घरांत भितर सरतना ताणें थारायलें कीं मिनीट दोन मिनटांनी उब्यांनीच थंयसून परतलों जाल्यार गूठ धांपिल्ली उरतली.

घरांत सुशिला एकलीच आसली. घडये विराट येतलो देखून तिणें घोवाक भायर धाडिल्लो आसूं ये.

"भायर लोक जमला." विराटान तिका सांगलें, "आतां चोवीसय वरां म्हजेर लोकांची नदर उरतली. तेन्ना हांवें हांगा येवप समा न्हय. तूंच फाल्यां मठांत यो. थंयच सगळें उलोवया."

इतलें सांगून विराट थंयचो भायर सरलो. चार भक्तगण ताज्या फाटल्यान चलूंक लागले. मठागेरेन तांणी ताका पावयलो.

पूण सुशिलेची भेट घेवन येत सावन विराटाच्या मनांत पळून वचपाचो विचार थिरावंक लागलो. ती बायल आपणाक भ्रश्ट केले बगर सोडची ना, ह्या दुबावान तो अस्वस्थ जालो. पवनगिरीसावन तो सटकल्लो. आतां एका नव्या जाळांत घुसपल्लो. फुडली वाट तो सोदतालो.

मध्यान रातीं उठून गांव सोडपाचो विचार ताणें मनांत हाडलो; पूण त्या दिसा रातीकडेन ताका गाढ न्हीद लागली. जाग आयली तेन्ना फांतोड जाल्ली. मठांतले सेवेकरी उठिल्ले. अशे परिस्थितींत सुशिलेक तोंड दिवचेंच पडटलें हें वळखून ताणें मनाची तशी तयारी केली.

दनपारच्या तीन वरांचेर सुमार सुशिला विराटाचे भेटेक आयली. एका सेवेकऱ्यान भितरले कुडींत वचून ताका रकाद दिलो. त्या वेळार विराट आड पडिल्लो. तो उठून बसलो.

सुशिला भितर आयली आनी कुडीचें दार बंद करून तिणें सरळ विराटाक प्रस्न केलो, "तुमी आमकां वैजकी तपासणी करून घेवंक मुंबय वचूंक सांगलां?"

"हय. शरीरशास्त्राच्या नेमाप्रमाणे उपाय जावंक जाय. सगळयोच गजाली देवाचेर सोडून उपकारचें ना."

"तें हांव जाणां. पूण मुंबय तपासणी केली म्हणून वेगळें कितें मेळटलें? बांयतच कांय नासत जाल्यार कळसुलेंत कशें येतलें?" सुशिलान सूचक भाशेंत म्हळें.

"तरीकय प्रयल करप हें आपल्या हातांत आसता." विराटान म्हळें.

"सत्य हांव जाणां म्हणून स्पश्ट उलयतां." सुशिलान एकदम आवाज बदलून म्हळें, "आमी जी तपासणी केल्या तांतलो निष्कर्श असो कीं म्हज्या घोवापसून म्हाका भुरगें जावपाची शक्यताय ना."

विराटाक तिगेल्या त्या म्हणण्याचें अजाप दिसलें. संन्याश्याच्या भेसांत बशिल्लो तो तरनाटो. ताच्या मुखार जाणटेपणाचे शिमेंत पावल दवरिल्ली एक बायल. रूप, देह पळयलो जाल्यार तिजेविशीं आकर्षण दिसपासारकें कांय ना. पूण ही बायल आपल्या घोवाचेर गंभीर आरोप करपाचें धाडस दाखयता. विराटाक तिगेली भास रुचली ना. ताणें आपली प्रतिक्रिया लिपयना आसतना म्हळें, "विश्वंभरागेर एक चली आसा न्हय?"

"ती कोणापसून जाली तें हांव नकळं." सुशिलेन जाप दिली.

"तसो दुबाव घेवप समा न्हय. पूण कशेंय आसना, चलो आनी चली हातूंत भेद करपाचें कारण ना. श्वेताक तूं तुजी चली मानून माया दी. सगळें सारकें जातलें."

"श्वेताक म्हजी माया मेळत रावतली. पूण म्हजो कुसवो असोच आंकवार उरतलो? आवय जावपाचें सपन पूर्ण जावचें ना? तुमच्या शरीरशास्त्रांत ते खातीर कांयच उपाय ना?"

"तो व्यभिचार जातलो."

"तशें आसत जाल्यार तो करपाचीय म्हजी तयारी आसा."

"मागीर तुका जाय तें कर. म्हजें कितें? हांव संन्यासी. एका पवित्र पिठाचे वास्तूंत हांव रावतां. खरें म्हळयार हांगा बसून ह्यो गजाली करप म्हळयारच पातक. तरीकय तूं सांग, म्हजेकडच्यान तुजी कसली अपेक्षा आसा?"

सुशिलान जाप दिली ना. मान सकयल घाली. तिच्या तोंडावयले बदलते भाव विराट नियाळटालो. ती कितें सुचयता हें कळपाइतली बुद्द आनी अणभव ताका आसलो.

थोड्या वेळान सुशिलाच उलयली. तिणें म्हळें, "म्हजी एक मागणी आसा. म्हजें तुमचेर मन बसलां. म्हाका तुमचो सांगात जाय. म्हजे मनोरथ पूर्ण करपाची तांक तुमच्यांत आसा. आमी हो गांव सोडूं या. शारांत वचून रावंया. तुमी म्हणशात जाल्यार..."

तिगेली सुचोवणी आयकून विराट विस्मीत जालो. ताजे जिणेंत सदांच अशेंच घडत आयिल्लें. दिल्लींत तशें घडिल्लें... पवनगिरींतय तसलो अणभव ताणें घेतिल्लो आनी आतां ताजेपरस पिरायेन जाणटी अशी ही घोवाची बायल ताका वेगळेंच कितें तरी सुचयताली.

"कितें सांगपाचें आसा तें सांगून उडय." विराटान म्हळें, "मनांत कांय दवरूं

नाका."

पूण सुशिला उलयली ना. तिणें विराटाले मांडयेर तोंड दवरून दोनय हातांनी ताका घट धल्लो आनी ती मुळमुळीत रडूंक लागली.

❋

विराटाक एके गजालीचें अजाप दिसलें. बायलां मुखार ताका सदांच नमतें घेवचें पडलां. अशें कित्याक घडटा तें तो नकळ. सुशिलेविशीं ताका आकर्षण निखालच ना. तरीकय तिणें जे तरेचो विळखो ताका घाला, तातुंतल्यान आपली सुटका कशी करून घेवची हें ताका समजलें ना. दिल्लीची घडणूक ताज्या मनाविरुध्द जाल्ली. दिल्ली ताका सोडचीच पडपाची. पूण ताणें मनांत हाडिल्लें जाल्यार पवनगिरीक तो सुखान रावतलो आसलो. गोंयांत स्थायीक जावन सुखाचो संवसार करप ताका कठीण नासलें.

तांगेल्या मठाच्या स्वाम्याचें शिष्यत्व ताणें पत्करचें म्हणून एक दीस सुशिलान परत आग्रो धरलो.

"हें मात तूं म्हाका सांगूं नाका. हांव हीं भगवीं वस्त्रां सोडूंक उतावीळ जालां. त्या खातीर हांव शारांत वचून रावंक लेगीत तयार जायन."

तागेली ती जाप आयकून सुशिला भुरकुटली आनी एकदम नाचूंक लागली.

"पूण एक प्रस्न आसा, लोकोपवादाचें कितें? विश्वंभराचें स्थान कितें उरतलें? आनी ताजेयपरस चड गरजेचो प्रस्न श्वेताचो. तिजो तुवें विचार केला? म्हजी गजाल वेगळी. हांवें कांय येवजुपाची गरज ना. इतिहासांत जायते संन्याशी बदनाम जाल्यात. तसल्या संन्याशांचे वळेरेंत एका नव्या संन्याशाची भर पडटली. तुजो संवसार मात उध्वस्त जातलो." विराटान तिका शिटकावपाचो यत्न केलो.

"फुडलें फुडें पळोवया, सगळें सारकें जातलें." इतलीच जाप सुशिलान ताका दिली.

सुशिलेचो विळखो विराटा भोंवतणी आंवळत वचूंक लागलो. एका मोठ्या मानसिक संघर्षांक त्या दिसांनी विराटाक तोंड दिवचें पडलें. तिच्या कलान घेतलें ना जाल्यार हीच बायल आपले बदनामीक कारण जावं येता हें ताका समजतालें.

हे परिस्थितींतल्यान वाट काडपाची शक्त विश्वंभरांत नासली. जरी सुर्वेक आपूण जावन विश्वंभर ताका घेवन आपल्या घरा गेल्लो, तरी आतां ताका समजल्लें कीं घरचो कारभार सुशिलेच्याच नियंत्रणान चलता.

विश्वंभराची विराटाक काकुळट दिसताली. त्या मनशाचें तागेले बायलेन पुराय खच्चीकरण करून उडयिल्लें. त्रिशंकूसारकी ताजी अवस्था जाल्ली. तागेलें उरिल्लें सुरिल्लें मनोधैर्य खचपाक सुशिलेन ताजेर केल्लो आरोप कारण जाल्लो. वंशवेल वाडोवपाचो पुरुशार्थ करपाची तांक तुज्यांत ना... तू नपुंसक म्हणपाचें बेडरपणान सुशिलेन ताका सांगत सावन समाजांतलें आपलें स्थान, मान सांबाळचेखातीर मनांतल्या मनांत विश्वंभर स्वाभिमानाकडेन तडजोड करूंक कबूल जाल्लो. बायलेक आपूण जाय तो फकत कुकमा तिळयाक आदार म्हणून, हें ताकाय समजतालें. पूण तिका ल्हानशा गांवांत आपले बेबंद वासनेचें समाधान करून घेवप सोपें नासलें. एका साधूच्या रुपान गोरो-गोमटो, तरणो-ताठो विराट गांवांत पावला आनी नशिबानच ताजो आपणाकडेन संबंद जोडून दवरला, तेन्ना ही संद वगडावची न्हय अशें सुशिलेक दिसल्यार अजाप

ना. तेच दिशेन ती धडपडटाली. रात दीस विराटाक वश करून घेवपाची कारस्थानां येवजीत बसताली.

सुशिलाविशीं विराटाक निखालच आकर्षण ना. पूण ते कारस्थानी बायलेन ताका असो बांदून घाला कीं विराटामुखार दुसरो पर्याय उरूंक ना.

एक दीस एक विपरीत घडणूक घडली.

श्वेताक घेवन सुशिला विराटाले कुडींत आयली. सतरा-अठरा वर्सांची चली. सुंदर, शिकिल्ली-सवरिल्ली... सुशिलेन श्वेताक सांगलें, "विराट एक वकील; तो साधूच्या भेसांत आसा, हें तूं विसर. तुजें ताजेकडेन लग्न करपाचें हांवें थारायलां, तुज्या बापायचो विरोध ना. तुजें कितें म्हणणें आसत जाल्यार आतांच सांग."

नाटकांत लेगीत असलो प्रसंग इतल्या अचकितपणान घडचो नासलो. पूण कारस्थानी सुशिलेची काम करपाची पध्दतच वेगळी. विराटाकडेन ती हेविशीं उलोवंकय नासली. तिगेल्या प्रस्तावान विराटाकय अजाप जालें आनी ताका प्रस्न पडलो, ही बायल आपणाचेर मोग करता आनी आपले सवतीले धुवेकडेन आपलें लग्न करूंक सोदता... ती सूड घेता! कोणाचो आनी कित्याक?

विराट उलयलो ना. तो श्वेताक पळयत रावलो. एकाद्र्या अरळ द्राक्षासारकी ती लजेन तांबडी जाल्ली. तिकाय हो प्रसंग अपेक्षित नासलो. एकाद्र्या वझऱ्यासारकी हुसक्यामेकळी खळखळपी ही चली त्या प्रस्नासरशीं मोनी जाली. ती इतली नर्व्हस जाली कीं तिका घाम फुटलो आनी ती थरथरूंक लागली.

विराटान तोंड उगडलें. म्हळें, "तूं तिजेर सक्ती कित्याक करता? आनी म्हजो कितें भरवंसो? श्वेतासारकी बायल मेळूंक भाग्य जाय हें हांव कबूल करतां, पूण म्हजेपरस बरो घोव तिका फावता."

विराटाल्या उलोवपाकडेन लक्ष दिनासतना सुशिलेन श्वेताक परत विचारलें, "तुजी जाप जाय."

ती कडकडली. ल्हवू तिणें म्हळें, "म्हाका थोडो वेळ दी. हांव विचार करतां... म्हजी तांची वळख लेगीत ना. ते कोण, खंयचे तें हांव नकळ."

"तुका तुजी तरी खंय वळख आसा?" एकदम सुशिला श्वेताचेर धेंगसली आनी उप्रांत म्हळें, "चल तूं, विचार कर. पूण म्हजो विचार पक्को आसा, इतलें मतींत धर."

श्वेता एकदम रडूंक लागली आनी रडत रडत भायर गेली.

"हें तूं कितें करूंक सोदता?" श्वेता भायर वचनाफुडें विराटान सुशिलेक विचारलें.

"तुमकां घरजांवय करून हांगाच दवरूंक सोदतां. समाजाचें तोंड बंद करचेखातीर..."

"आनी वे खातीर तूं एके कंवळे कळयेचो बळी दितली?"

"तुमी तुमकांच इतले हीण कित्याक लेखतात तें हांव नकळ." सुशिलेन म्हळें, "ह्या संवसारांत मोगाक मोल नासता. आनी तुमकां खरें सांगतां, समाजान लादिल्लीं नातीं हीं तकलुपी आसतात."

विराटाक तिजेकडेन पळोवपाचें धाडस जालें ना.

कित्याक कोण जाणा, विराटाक श्वेताची काकुळट दिसली. ताणें मनांतल्या मनांत

ते चलयेक आदार दिवपाचें थारायलें आनी आपूण जावन ते रातीकडेन गांवांतल्यान पळून गेलो.

सुशिला वा श्वेताविशीं त्या उपरांत डायरेंत नोंदी नात. इतलें खरें, विराट परत त्या गांवांत गेलो ना. घडये ताणें तीर्थयात्रा पूर्ण केल्ली आसूं ये.

डायरेंत फुडें पुण्याच्या एका आश्रमाचो उल्लेख आसा. वासना तृप्तींतल्यान परमात्म्या कडेन तद्रूप जावप हीच एक साधना हें रजनीशवचन ते डायरेंत बरयिल्लें आसा. ते विशीं आपलें मत विराटान बरोवन दवरलां.

"हे विचारसरणेंत तथ्य आसा. वासना चिड्डिली म्हणून मरना. ती तृप्त करूनच आसक्ती सोपूं येता..."

पूण मदींच एक आगळी नोंद डायरेंत वाचूंक मेळटाः" आयज आनीक एक वर्स सोंपता. आयजच हांवें काझानोव्हान आपले जिणेंतल्या प्रसंगाच्यो ज्यो यादी बरोवन दवरल्यात त्यो परत एक खेपे वाचल्यो. म्हजे आनी ताजे जिणेंत एक साम्य आसा. काझानोव्हान बळजबरी केली. म्हाका ती करची पडली ना. पूण आमची वृत्ती पशूची... आतां म्हाका ते गजालीची लजय दिसना. जाका आमी व्यभिचार वा पाप मानतात, तीय आध्यात्मीक साधनेची एक पद्दत म्हणून मान्यताय मेळोवन बशिल्ली आसा. लज कसली? घडये संस्कृतीचो विकास जेन्ना पूर्ण जातलो, तेन्ना संस्कृतीच्या आरंभाची अवस्था मनीसजात परत अणभवतली."



